# साहित्य

## — अेक भासाभास

— भालचंद्र गांवकार









**मित्र प्रकाशन**

किटोलें - बेतोडें - फोंडें - गोंय

४०३ ४०९

**मित्र प्रकाशन - १**

***SAHITYA EK BHASABHAS***

Articles on Literature

by **Bhalchandra Gaonkar**

पयली खेप : १९९८



मोल रू. **६०.००**

**उजवाडावपी :**

मित्र प्रकाशन

किटोलें, बेतोडें, फोंडें

गोंय - ४०३ ४०९

**छापपी :**

सम्राट प्रिंटर्स

बाणस्तारी - गोंय.

# दोन उतरां

साहित्याविशींचे म्हजे लेख पुस्तकरूपान उजवाडाक येतात देखून खोस भोगता. हे लेख हांवेन परिसंवाद आनी कार्यशाळांनी मांडपाखातीर बरोवन काडिल्ले पुस्तकरूपान उजवाडाक आयल्यार साहित्याच्या विद्यार्थ्यांक तांचो उपेग जांव येता अशें म्हज्या कांय इश्टानीं म्हाकां सुचयलें. देखुनूच पुस्तक काडपाचो धीर जालो.

कोंकणी साहित्य हो विशय घेवन पदवी आनी पदवेउपरांतचें शिक्षण कितलेशेच विद्यार्थी दर वर्सा घेतात. पूण तांकां फावो त्यो सोयी अजून मेरेन उपलब्ध जांवक नांत. तातूंतली मुळावी सोय म्हळ्यार संदर्भग्रंथ. आयज कोंकणी साहित्य हो विशय घेवन शिक्षण घेवपी विद्यार्थ्यांक संदर्भग्रंथांची खूब गरज आसा. ही गरज भागोवपी साहित्य तयार जाता तितलें उणेंच म्हणचें पडटलें. तेच नदरेन म्हजो हो इल्लोसो यत्न हांवेन केला. महाविद्यालयांनी शिकपी विद्यार्थ्यांक ह्या पुस्तकाचो उपेग निश्चितूच जातलो.

महाविद्यालय आनी विद्यापीठ पावंड्यार कोंकणी साहित्याखातीर लागपी संदर्भग्रंथ उजवाडाक हाडपाची तयारी 'सृजन प्रकाशनान' चलयल्या. तांकी प्रमाण हें काम चालू उरतलें. 'सृजन' नेमाळ्यांतल्यांन हो वावर पयलींच सुरू जाला. पूण अशेतरेचें साहित्य पुस्तकरूपान उजवाडाक येवपाची ही पयलीच खेप आसा. ह्या मुखार ती तशीच चालू उरची असो म्हजो आवंडो आसा.

हे पुस्तक बरेतरेन छापून रूपाक हाडलें देखून सम्राट प्रिंटर्सचे धनी आनी कामगार वर्गाचो हांव उपकारीं आसा.

**— भालचंद्र गांवकार**

# मांडावळ

# साहित्य म्हळ्यार कितें?

साहित्य म्हळ्यार कितें? ह्या प्रस्नाची जाप दिसता तितली सोपी ना. साहित्य म्हळ्यार कितें तें आमकां खबर आसता पूण तें उतरांनी सांगपाक मेळना. साहित्य ही अेक प्रभावी शक्त आसा. मनशाच्या मनाचेर जादू करून ताका भुल्लुसवपाचें उपाट बळगें ताच्या आंगात आसता. बऱ्या आनी खऱ्या साहित्याक मरण नासता. काळ आनी मरण हाचेर ताणें जैत जोडिल्लें आसता. तें सदांच चैतन्यान भरिल्लें आसता. हाचे उरफाटें फटकिरें साहित्य काळाच्या प्रवाहांत तग धरूंक पावना. तें खंयचे खंय नांच जावन वता.

साहित्याची व्याख्या करपाचो यत्न जायत्या जाणांनी केला. पूण तांचो यत्न फळादीक जांवक ना. इमर्सन हाणें ''सोबीत विचारांची नोंद म्हळ्यार साहित्य' अशी साहित्याची व्याख्या सांगल्या. ''साहित्य म्हळ्यार जिणेचें पडबिंब'' अशीय अेक साहित्याची व्याख्या आसा. साहित्याक मनशाच्या जिवितांत खूब म्हत्व आसता. खरें साहित्य हें मनशाच्या जिणेंतल्यांन उपजल्लें आसता. साहित्य म्हळ्यार मनशान जिवितांत कितें पळयलां, कितें भोगलां, कसले अणभव मेळयल्यात, ताच्या मनांत आयिल्ले विचार हाची अेक गवाय. साहित्य म्हळ्यार भाशेच्या माध्यमांतल्यांन उक्तायल्लें जिवीत. आपणें ज्यो गजाली पळयल्यात वा अणभवल्यात त्यो गजाली दुसऱ्याक कळोवपाची जण अेकट्याक अेक उमळशीक आसता. ह्यो सगळ्यो गजाली बरोवपी साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन वाचप्यामुखार मांडपाचो यत्न करता.

साहित्य हें अर्थशास्त्र, तत्वगिन्यान, इतिहास ह्या विशयांपरस वेगळें आसता. साहित्य हें अमुकूच अेका वर्गांतल्या लोकांखातीर आसना, जाल्यार ताचो आस्वाद घेंवक कळपी सगळ्या लोकांखातीर आसता. साहित्यांतल्यांन मनशाक गिन्यान मेळटाच अशें ना. पूण साहित्यांतल्यांन मनशाक वेगळीच खोशी मेळटा, अेक समाधान मेळटा तें हेरकडेन मेळूंक शकना.

साहित्यांत मनशाच्या काळजांत उसळपी भावनांचो हुंवार पडबिंबीत जाल्लो आसता. साहित्य मनशाच्यो भावना जागयता. ज्या बरपांत भावनांक जिकपाचें बळगें

ना तें कितलेंय उंच पावंड्याचें आसलें तरीय ताचो आस्पाव साहित्यांत जावपाचो न
शास्त्राचें बरप आनी साहित्याचें बरप हांचेभीतर खूब वेगळेपण आसता. शास्त्राचें बर
आमकां गिन्यान दिता जाल्यार साहित्य आमच्यो भावना जागयता. गिन्यान तश्शें तिगू
उरता, जाल्यार भावना ही विजेच्या केणाभशेन खिणयाळी आसता. साहित्यांत तिचो खेळ
बेसबरे रितीन चितारिल्लो आसता. देखुनूच साहित्याक मरण आसना. संवसार कितलो
मुखार पावलो, काळ बदल्लो म्हूण मनशाच्या काळजांतल्यो भावना बदलनांत. त्यो तश्श्य
उरतात. तेचवांगडा तांची सुरूपायूय बदलना. मनशाचे विचार बदलतात. विचारांची
उदरगत जाता. पूण हो नेम भावनांक लागू जांयना. राग, मोग, अहंकार, वान्सा असल्य
भावनांची सुरूपाय केन्नाच बदलनां. असल्या भावनांचें चित्रण ज्या बरपांत आसता, तें
बरप आपशींच तिगून उरता. शास्त्राच्या बरपांत सत्याचें दर्शन घडटा, जाल्यार साहित्यांत
भावनांची अपुर्बाय जाता.

साहित्यांत बरोवप्याचें पडबिंब दिश्टी पडटा. जिवितांत बरोवप्याक जे बरे-वायट, तरेकवार, ल्हान-व्हड अणभव आयिल्ले आसतात ताच्याच नाड्यार साहित्याचो जल्म जाता. हे अणभव वेगवेगळ्या मार्गांनीं मेळोंव येतात. बरोवपी आपणाले अणभव खासा आपणाल्या जिवितांतल्यांन मेळोंवक शकता, वा कल्पना करून तो ते दोळ्यांमुखार उबे करूंक शकता. अणभव खंयच्याय मार्गान मेळयल्लो आसूं, ताचे भीतर उत्कटतायेचो गुण आसप गरजेचें. जडावल्ल्या, थंड आनी निर्जीव अणभवांचो साहित्याखातीर कांयच उपेग जांयना. चुलीवेल्या आदनाची वाफ जशी भायर येवपाखातीर धडपड्टा, तेचभशेन उत्कटतायेन भरिल्लो अणभव हो प्रगट जावपाखातीर तळमळपाक जाय. उत्कटतायेन भरिल्ल्या अणभवांबगर साहित्य चैतन्यान रसरसनां. बरोवप्याचो अणभव जितलो खर, तितलेंच ताचें बरप चड बरें जाता. पूण त्या अणभवांचें गुपीत बरोवप्याक खबर आसचें पडटा. ना जाल्यार कितलेय अणभव बरोवप्याच्या गाठीक आसून फुकटूच.

खरें साहित्य कशें आसचें वा बरें साहित्य अशें खंयच्या बरपाक मानचें हे विशीं कांय तयार तत्वां आसात. बरें साहित्य हें वाचप्याची मनरीजवणी करपी, संवसारांतल्या दुख्खांचो आनी हुस्क्यांचो कांय काळाखातीर विसर घालपी, खऱ्या जिवितांत ज्या सुखांचो अणभव मेळूंक शकना तीं सुखां कल्पनेच्या आदारान पदरांत उडोवपी, सदांच्या वाजेवण्या, बांदिल्ल्या जिवितांत काल्पनीक सुखांचो पावस घालपी आसपाक जाय. अशें तरेचें साहित्य हें बरें साहित्य अशें अेक तत्व आसा. चडशें साहित्य हेंच उद्दिश्ट दोळ्यांसामकार दवरून घडयल्लें आसता. वाचपी लेगीत तेच नदरेन तें वाचता पूण जायतेफावट पिरायेप्रमाण वाचप्याची साहित्याची रूच बदलत रावता. ताका ह्या

साहित्यांतल्यांन खुशालकाय मेळटा. पूण ती खुशालकाय भुकेल्ल्या मनशाक जेवपाक जेवण वा कितेंय खावपाक मेळचें आनी तो खोशी जावचो ते तरेची आसता. ती खरी खुशालकाय न्हय. जें खरेपणान मनशाक भोगपाक मेळना तें तो साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन, कल्पनेच्या संवसारांत भोगता. जिवितांत जाय ती सगळीं सुखां मनशाक मेळ्ळीं जाल्यार साहित्याक कांयच हेत उरपाचो ना.

समाज घडपाक वा ताची उदरगत घडोवन हाडपाक जाचो आदार मेळटा तें बरें साहित्य अशेंय एक तत्व आसा. जें साहित्य वाचून समाजांतल्यो वायट गजाली ना जावन लोकांक बरें मार्गदर्शन मेळटा, वायटाच्या जाग्यार बरें येता तें बरें साहित्य. म्हळ्यारूच साहित्य हें समाजाची सुदारणा घडोवन हाडपी एक साधन आसा. तोंडार उपदेश केलो जाल्यार लोकांक तो रूचना वा पचनां. देखून रूचीक साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन तो केलो जाल्यार ताचो फायदो जांव येता. हेंय उद्दिश्ट दोळ्यांमुखार दवरून साहित्य रचतात.

साहित्य हें भावनानिश्ट आसता. भावनेंतल्यांन ताका स्फूर्त मेळटा. देखून जें साहित्य भावना उक्तायता तें बरें साहित्य अशेंय एक तत्व आसा. साहित्यान वाचप्याच्यो भावना उसोवपाक जाय, जाग्यो करपाक जाय. जें साहित्य भंयान आंगार कांटो उबो करता, रागान काळीज लासता, दुख्खान रडपाक लायता, आश्चर्यान चकीत करता, तेंच साहित्य खरें साहित्य आसता, जिवें साहित्य आसता.

साहित्यान जिविताचें वास्तव दर्शन घडोंवक जाय. तें वास्तव मागीर कितलेंय हळशीक, वायट, अप्रिय आसल्यारूय उपकारता. अशेंय एक मत आसा. म्हळ्यारूच जिवितांत आमीं जें कितें सदांच पळयतां तेंच परत तश्शें पळोवपाखातीर साहित्य हो एक हारसो आसता. बहुजनसमाजाक जें साहित्य समजता, पचता, रूचता, मानता वा जातूंत तांचें जिवीत पडबिंबीत जाल्लें आसता वा जें तांच्या बऱ्याक वा उपकाराक पडटा तेंच खरें साहित्य. उण्यांच बरोवप्यांनीं उण्यांच वाचप्यांखातीर बरयल्लें साहित्य हें खरें साहित्य न्हय. जिवितांतल्या 'सौंदर्याचो' सोबीत रितीन दिश्टावो घडयता तें खरें साहित्य.

**साहित्याचे घटक :**

**१. भावना :**

साहित्य मनशाच्यो भावना जाग्यो करता. जें बरप मनशाच्यो भावनो जागयनां, ताका साहित्य म्हणप समा जांवचेंनां. मोग, खुशालकाय, राग, भंय, दुख्ख, तिडक, अपुर्बाय अश्यो तरेकवार भावनां आमकां साहित्यांत पळोंवक मेळटात. पूण बरोवप्यान ह्यो भावना भडक रीतीन साहित्यांत चितारच्यो न्हय. त्यो सुचकतायेन प्रगट करपाच्यो

आसतात. कांय भावना दर्याभशेन गंभीर आनी अथांग आसतात. त्यो तितल्याच शांतपणान प्रगट करच्यो पडटात. खंयचीय भावना नीजपणान, उत्कटतायेन आनी नेटान प्रगट केली ना जाल्यार ती वाचप्याचेर परिणाम करूंक शकचीना. अेकाद्री भावना साहित्यांतल्यांन बरे तरेन प्रगट जातली जाल्यार बरोवप्याचो अणभवूय बरोच खर आसचो पडटा.

## २. विचार :

साहित्य म्हळ्यार फक्कत भावनांनी भरिल्ल्या उतरांचो खेळ न्हय. ताचें व्हडपण तातूंत प्रगट जाल्ल्या हेर गुणांभरशी विचारांचेरूय आदारून आसता. व्हड साहित्यीक हो अेक विचारवंतूय आसता. साहित्य जश्यो वाचप्याच्यो भावना जागयता, तेचभशेन विचारांचे सोबीतकायेन ताच्या बुद्‌दीचोय तें थाव घेता.

साहित्यांत जे विचार प्रगट करपाचे आसतात ते वयलेवयर आसून उपकारानांत. कविता, नाटक, कादंबरी आदीं साहित्यप्रकारांत लेगीत आमकां विचार पळोंवक मेळटात.

## ३. प्रतिभा :

अेकाद्रो बरोवपी बरो साहित्यीक जातलो जाल्यार ताचेलागीं प्रतिभा आसपाक जाय. जाका प्रतिभेचें देणें मेळूंकना त्या कलाकाराची गत पाखां तोडिल्ल्या सुकण्याभशेन जाता. साहित्यांतल्यांन भावना जाग्यो जातल्यो जाल्यार तातूंत अेकाद्रो प्रसंग वा अेकाद्रया मनशाचें चित्रण करचें पडटा. तें करता आसताना बरोवपी जें बळगें वापरता ताकाच 'प्रतिभा' अशें म्हण्टात.

खंयचोय बरोवपी फक्कत भासाभास वा चिकित्साय करून वाचप्यांच्या मनांतल्यो भावना जागोंवक शकना. अेकाद्रे गजालीची फक्कत माहिती दिवन वा वर्णन करूनूय तो ह्या कामांत जैतिवंत जांयना. पूण प्रतिभेन भरिल्ल्या अेकाद्रया उतरान लेगीत मनशाच्यो भावना जाग्यो जांव येतात.

प्रतिभेविशीं लोकांच्यो जायत्यो कल्पना आसात. कांय जाणांक ती देवान दिल्ली शक्त अशें दिसता, जाल्यार कांय जाणांक ती आदिमशक्त अशें दिसता. पूण खरेपणान पळोंवक गेल्यार मनशाच्या हेर शक्तींभशेन प्रतिभा ही लेगीत अेक शक्तूच आसा. कल्पनाशक्त सगळ्यांकूच आसता पूण ती सगळ्यांकूच कलेंत वापरूंक कळटाच अशें ना. जाका ती बेसबरे रीतीन वापरपाक कळटा ताचेकडेन प्रतिभाशक्त आसता.

प्रतिभा ही अेक विचित्र शक्त आसता. ती मेळोवपाक कांय बरोवप्यांक बरोवचे

आदीं सोन्याचो घोंट मारचो पडटा, कांय जाणांक सिगार पेटोवचें पडटा, कांय जाणांक बोतांत पासयो मारच्यो पडटात, कांय जाणांची प्रतिभा चान्यांत चंवरता जाल्यार कांय जाणांचेर अफू घेतकूच प्रतिभेचो भार येता. हाचेवेल्यान साहित्यांत प्रतिभेक कितलें म्हत्व आसता तें कळूं येता. साहित्याक ती लागताच, पूण जी बरपावळ साहित्याभायली आसता तीय बरोवपाक प्रतिभा जाय पडटा.

## ४. मांडणी :

मनशाच्या मनांत उप्राशिल्ले विचार भाशेच्या माध्यमांतल्यांन तो ते दुसऱ्याक कळयता. पूण थंय साहित्याचो प्रस्नूच येना. मनांतलो विचार जितल्या सादेपणान उक्तावपाक जाता, तितल्या सादेपणान काळजांतल्यो भावना उक्तावपाक जांयनांत. बरोवप्याच्या काळजांतल्यो भावना बरपाच्या रूपान वाचप्याच्या काळजामेरेन पावतात तेन्ना तांकां साहित्याचें रूप फावो जाता. बरोवपी आपणाल्या काळजांतल्यो भावना दुसऱ्यांक कळोवपाखातीर जो मार्ग आपणायता ताका मांडणी वा तें सांगपाची रीत अशें म्हण्टात.

खंयचोय बरोवपी फक्कत भासाभास आनी चिकित्साय करून भावना उक्तांवक शकना. त्या खातीर ताका कल्पनेच्या आदारान आपणाल्या विचारांची मांडणी बेसबरे रीतीन करची पडटा. ते खातीर ताका सुचकतायेन भरिल्ली भास वापरची पडटा. उतरांचो अर्थ शब्दकोशापुरतो मर्यादीत उरंनासताना तांचेभोवतणीं सुचकतायेन भरिल्लें व्हडलें बळगें आसता. देखून बरोवप्याक बरयता आसताना सांबाळून बरोवचें पडटा. जशे भावनांचे रंग बदलतात तशी बरोवप्याक मांडणीय बदलची पडटा. अेकूच भावना मतींत दवरून वेगवेगळ्या कविंनीं तिचेर बरयलें जाल्यार सगळ्यांचेंच बरप वेगवेगळें जातलें. कित्याकतर सगळ्यांचीच मांडणी वेगवेगळे तरेची आसता.

आपणाले विचार भाशेच्या माध्यमांतल्यांन जितल्या सोपेपणान प्रगट करपाक जातात, तितल्या सोपेपणान भावना प्रगट करपाक जांयनांत. आपणाल्या मनांतले विचार सवसारांतलो खंयचोय मनीस कळाव लांयनासताना जिस्ताजिस्त उतरांनी उक्तावंक शकता. पूण मनांतली भावना तितल्या सोपेपणान उक्तावपाक जांयना. त्या खातीर बरोवप्याकडेन भाशेचें उपाट बळगें आसचें पडटा. अेकाद्रया बरोवप्याच्या धाटणेची जेन्ना आमी तोखणाय करतां, तेन्ना खरेपणान बरोवप्यान आपणाले विचार आनी भावना बरेतरेन मांडल्यात देखून ताका आमीं शाबासकी दितां. जें बरप वाचप्याच्या काळजाचो थाव घेता तेंच खरें साहित्य. साहित्याचे भाशेक व्याकरणाचीं बंदनां व्हडलींशीं लागनांत. साहित्य असल्या बंदनांसावन पुरायतेन मेखळें आसता.

**ललित लेखक आनी समाज :**

ललित लेखक समाजशिक्षकाचें काम करता. देखुनूच व्हड व्हड प्रतिशिटतांसावन सामान्य वाचपी लेगीत बरोवप्याक मान दिता. जातूंत समाजाचें हीत आसता, समाजाक उपकाराक पडटल्यो अश्यो भाव-भावना, विचार आनी कल्पना ललित बरोवप्यांनी आपणाल्या साहित्यांत रंगोवक जाय. ललित साहित्यान समाजाक जिविताच्या उदरगतीकडेन व्हरपाक जाय.

ललित साहित्य हें प्रचाराचें, वाचप्याच्या मनाचेर संस्कार करपाचें एक प्रभावी साधन आसा. देखून बरोवप्यान समाजाचें हीत पळोवन, तांकां उपकाराक पडटलें अशेंच बरोवपाक जाय. ललित साहित्य हें कसलेंय आसलें तरीय तातूंत भीतर एक गुण आसचो पडटा, तो म्हळ्यार वाचप्याचें लक्ष ओडून घेवन ताका आपल्याभीतर बांदून दवरप, आनी तेचवांगडा ताका खुशालकायेचो अणभव दिवप. ललित बरोवप्याक वाचप्याची जिज्ञासा जागी करून ताचें लक्ष ओडून घेवचें पडटा आनी तें निमाणेमेरेन तशेंच तिगोवन दवरचें पडटा. ना जाल्यार वाचपी निमाणेमेरेन वाचीत रावना. वाचप्याचें लक्ष ओडून घेवपाखातीर बरोवपी जायत्या साधनांचो वापर करता. एक म्हळ्यार तो बरोवपाखातीर बरी भासशैली आनी वर्णनशैली वापरता. त्या भायर वाचप्याच्या आवडीचे विशय सोदून काडून ताचेर बरयता.

जीं सुखां वा जे अणभव वाचप्याक वास्तविक जिवितांत भोगपाक मेळनांत ते तो साहित्यांतल्यांन मेळोंवक सोदता. आनी साहित्य लेगीत ताका तें दिवपाचो यत्न करता. मनीसपण, मनशाचें मन, मनशाचो सभाव हाचेर बरोवपी जितलें जैत जोडूंक शकता तितलेंच ताचें साहित्य प्रभावी आसता. हाचेवेल्यानूच ताची बरपावळ श्रेश्ट काय अश्रेश्ट तें थारता.

****

# भास आनी साहित्याची भास

भास मनशां–मनशां मदलो संबंद जोडटा. भाशेक लागून अेका मनशाच्या मनांतले विचार दुसऱ्यांक कळटात. जीं भास भाशेचीं सगळीं कामां वयलेवयर करता तिका वेवहारीक भास अशें म्हण्टात. साहित्याची भास पुरायतेन वेगळी आसता. जें कितें सांगपाचें आसता तें सांगून जालें म्हूण साहित्याचे भाशेचें काम सोपना. तिका वाचप्याच्या मनाचेर परिणाम करपाचो आसता. मनशाचें मन घुवंडावन ताचे भीतर बदल घडोवन हाडपाचें काम साहित्याची भास करता. सदांच्या वेवहारांतली भास आनी साहित्याची भास वेगळी आसली तरीय तांचे भितल्लें वेगळेपण दाखोवन दिवप कठीन काम आसा. सदांच्या वेवहारांतली भास ही अेकेच तरेची आसना. तातूंत भीतर बोलीभास, वेपारी भास, सरकारी भास, धर्मिक भास, शिकपी भुरग्यांची भास, पोजडी भास हांचो आस्पाव जाता.

अेकाद्रया मनशाक आयिल्लो अणभव जशाक तस्सो प्रगटावप हें साहित्याचे भाशेचें काम आसता. साहित्य खंयच्याय रूपांत आसूं, कवितेच्या रूपांत आसूं वा कथेच्या रूपांत आसूं, तातुंतले अणभव जिवे जावन वाचप्यामुखार उबे रावपाक जाय. साहित्य बरोवपी उतरांचो उपेग करून तांकां रंग आनी रूप दिता. तें उतरांच्या आदारान ताणें घडयल्लें वेगवेगळ्या अणभवांचे सर्जन आसता. तरेकवार रंग अेकठांय येवन अेकाद्रें चित्र तयार जांवचें ते तरेन तो अणभव साहित्यांतल्यांन साकार जाल्लो आसता.

साहित्याच्या रुपान प्रगट जाल्लो अणभव हो चैतन्यान भरिल्लो आसता, तो रसरशीत आसता. ताच्या कणांकणांतल्यांन जिविताचो दिश्टावो घडटा. साहित्याची भास ही अेकाद्रो अणभव साकार करपी चैतन्यान भरिल्ली, संदर्भसूचक, जायते अर्थ उक्तावपी, खोलाय आशिल्ली, कुवाड्यांची आसपाक जाय.

सदांच्या वेवहारांतली भास साहित्याचे भाशेपरस सामकीच वेगळी आसता. कित्याकतर वेवहाराचे भाशेचें कार्य वेगळें आसता. हें कार्य आयिल्ले अणभव साकार करपाचें न्हय, जाल्यार आयिल्ल्या अणभवांविशी उलोवपाचें, सदांच्या मनशाच्या वेवहारांक हातभार लावपाचें, ते वेवहार चालू दवरपाचें आसता. आपणाले वेवहार चालू दवरपाक

मनीस जायत्या साधनांचो उपेग करता. तातूंतले अेक साधन म्हळ्यार भास. वेवहाराखातीर अेकाद्रो मनीस जी भास वापरता ती ताची अेकट्याची आसना. जाल्यार ती सगळ्यांची आसता. ती सगळ्यांच्या वळखिची, भौशिक आसता. वेवहारांत भाशेचो उपेग हो सगळ्यांखातीर आसता. सदांच्या वेवहारांतलें तिचें स्वरूप चडकरून निवेदनात्मक आसता, स्पश्टीकरण करपी आसता. मनशां अेकामेकाक कितेंतरी सांगतात, समजायतात, तेन्ना तांचें उलोवप नितळ आसता, तातुंत कुवाडीं आसनांत, तें जाता तितलें वाडोवन सांगतात. वेवहारांतली भास हेरांक कळपाक तकालस पडना.

सदांच्या वेवहारांत लेगीत जेन्ना मनशाच्या उलोवपांत भावना वा उत्फर्के भरसतात तेन्ना ताच्या तोंडांतल्यांन भायर सरपी भाशेची सुरूपाय आपशींच बदलूंक लागता. आपणाल्या मनांतली भावना तो प्रामाणीकपणान उक्ती करपाचो यत्न करता तेन्ना ते भाशेचें स्वरूप व्यक्तिगत जांवक लागता. तेन्ना ती भास इल्ली–इल्ली करून साहित्याचे भाशेच्या लागसार पावता.

हें अशें कित्याक घडटा तें आपशींच कळपासारखें आसा. अेकाद्रो मनीस जेन्ना आपणाले उत्फर्के प्रामाणीकपणान उक्ते करूंक सोदता तेन्ना लागसार आशिल्लीं सदांचीं उतरां हें काम करूंक शकनांत हें ताका सट्ट करून कळटा. आपणाले उत्फर्के हे खासा आपणालेच आसतात. ते दुसऱ्यांभशेन आसता अशें मानपाक आमचें मन तयार नासता. त्या मनाक आपशींच आपणाल्या भावनांच्या वेगळेपणाची जाणविकाय जाता. देखुनूच जायते फावट कांयजाण 'म्हज्या काळजांतलें सांगपाक म्हजेकडेन उतरां नांत'– अशें म्हण्टात. अशें जेन्ना अेकाद्रो म्हण्टा तेन्ना तो फट उलयनां. तो खरेंच उलयता. सदांच्या वेवहारांतलीं उतरां वापरून तें उक्तें करप कठीन आसता. देखुनूच तीं उतरां सोदपाची तो खटपट करता आनी आडखळटा. असल्या वगतार आमच्या तोंडांतल्यांन जायते फावट पुराय वाक्य भायर सरपाच्या वाट्यांचें तुटकीं–तुटकीं उतरां तितलींच भायर सरतात. तेन्नाची अभिव्यक्ति ही खासा आमची आसता. तातूंत व्हड प्रमाणांत 'आपूण' आसता. देखुनूच ही भास साहित्याच्या भाशेच्या लागीं पावता.

भावना उक्त्यो करपी भास आत्मनिश्ट आशिल्ल्यान ती साहित्याच्या भाशेच्या लागसार पावता हें खरें आसलें तरीय ही भास म्हळ्यार साहित्याची भास न्हय. कित्याकतर फक्कत भावना उक्त्यो करप हें साहित्याचें उद्दिश्ट नासून भावनांनीं भरिल्ले अणभव प्रगटावप हें ताचें उद्दिश्ट आसता. ह्या अणभवांत जितल्या प्रमाणांत जिवेपण, खोलाय, सुचकताय आनी कुवाडेपण आसता तितलीच ताची भास आनी ते भाशेची सुरुपाय बदलता. साहित्याची भास ही चित्रमय आनी संवेदना सूचक आसता.

गद्य साहित्याची भास पद्य साहित्याचे भाशेपरस मात्शी वेगळी आसता. कथेच्या रूपान उक्तो जांवक सोदपी अणभवांत निवेदन, वर्णन, स्पश्टीकरण, विस्तार हांचो वाटो चुकोंवक मेळना. पूण भावकवितेच्या रूपान उक्तो जावपी अणभव कालेतीन वेगळो आसा. ताचें उक्तावप निवेदन, वर्णन, स्पश्टीकरण हांच्या आदारान अभिव्यक्त जांवक शकना वा तो प्रगट करपाक मेळना. देखून जे भाशेंतल्यांन तो उक्तो जाता ती भास प्रतिमांची आसता. तांतुतलीं उतरां काजुल्यांभाशेन लिकलिकतात. ऐका भावअणभवाचेर उजवाड घालप, ताका स्पर्श, रूप, रस, गंध प्राप्त करून दिवप हें खूब कठीन काम उतरां प्रतिमेच्या रुपान करतात. साहित्याचे भाशेची चडशीं लक्षणां आमकां कवितेच्या भाशेंत पळोंवक मेळटात.

पूण मजेची गजाल म्हळ्यार कवितेची भास आमकां गीतांत पळोंवक मेळना. कवितेची भास वेगळी आनी गीताची भास वेगळी. गीताची भास वयलेवयर आसता. देखून ताचो अर्थ लावपाक व्हडलीशी तकालस पडना. कवितेभशेन गीतांच्या उतरांक खोलाय आसना. परतें गीत आनी कथाकाव्य हांचें स्वरूप भावकवितेपरस वेगळें आसता. कित्याकतर गीतांत आनी कथाकाव्यांत कथन, निवेदन, विस्तार आनी स्पश्टीकरण आसलें म्हूण व्हडलेंशें कांयच दिसना.

साहित्याची भास साहित्यप्रकाराकणकणी बदलत रावता. आमीं जायते फावट 'कवितेची भास' 'गीताची भास' असो वेगळोचार करतां तोय हेचखातीर. जी गजाल कवितेची तीच गजाल कथा आनी कादंबरेची आसता. पूण कवितेच्या प्रकाराकणकणी जितली तिची भास बदलता तितल्या प्रमाणांत ती कथेची आनी कादंबरेची बदलना.

नाटक लेगीत कथात्मक आसता खरें, पूण ताचें माध्यम फक्कत उतरां हेंच नासून अभिनय आनी ताचेवांगडा संबंदीत आशिल्ल्या हेर कितल्याश्याच गजालींक लागून ज्या उतरांच्या रुपान आमचेमुखार तें प्रगट जाता ताचो विचार स्वतंत्रपणान करचो पडटा. जे माचयेच्या आदारान तें रसीकांमुखार सादर जातलें ते माचयेन लेगीत ताचें उतरांचे रुप साकार जावपाक आदार दिल्लो आसता. देखून नाटकाच्या भाशेचो विचार हो कादंबरी वा कविता हांच्या भाशेच्या विचाराइतलो नितळ साहित्यीक विचार जांवक शकना. नाटकाच्या सगळ्या घटकांवेल्यान नाटकाची भास तयार जाता.

वेवहारांतले भाशेंतलो 'हांव' हो खरो हांवच आसता. पूण साहित्यांतले भाशेंतलो 'हांव' हो खासा बरोवपीच आसता अशें ना. तो ते साहित्यकृतींतलो निवेदक आसता. ऐकाद्रे कवितेंत आशिल्लो 'हांव' लेगीत काल्पनिक आनी नाट्यात्मक 'हांवच' आसता. ऐकाद्रे नवलकाणयेंत चितारिल्लो मनीस हो इतिहासीक वा खऱ्या जिवितांतल्या मनशापरस

वेगळोच आसता. तेचभशेन नवलकाणयेंतलो काळ आनी थळ म्हळ्यार वास्तव जिवितांतलो खरो काळ आनी थळ न्हय.

**साहित्याची भास आनी शास्त्राची भास :**

साहित्याची भास आनी शास्त्राची भास अेकामेकांसावन वेगळी आसता. साहित्याच्या बरपांतल्यांन उत्फर्के, भावना, संवेदना उक्त्यो जातात. तश्यो त्यो शास्त्राच्या बरपांतल्यांन जांयनांत. अेकाद्री 'साहित्यकृती' रचता आसताना बरोवपी आपले उत्फर्के आनी आपणाल्या भावनांचो जाय तसो वापर करता. पूण शास्त्राच्या बरोवपांत अशें करूंक मेळना. शास्त्राच्या बरोवप्याक खूब बंदनां पाळचीं पडटात. देखीक, दुश्काळांत शेकड्यांनीं लोक वळवळून मेले अशें विधान साहित्याच्या बरपांत करूंक मेळटा. पूण अर्थशास्त्र बरयता आसताना कितले लोक मेले हाचो सारखोच आंकडो दिंवचो पडटा. शेकड्यांनी लोक मेले म्हळ्यार खरेच कितले लोक मेले हाचो अदमास मेळना.

साहित्याचे भाशेंत वाक्प्रचार, म्हणी, ओपारी हांचो आस्पाव जाता आनी वाक्याचो अर्थ वेगवेगळे तरेन घेंवक मेळटा तसो तो शास्त्राचे भाशेंत घेंवक मेळना. देखीक 'पींत चाळवप' ह्या वाक्प्रचाराचो अर्थ साहित्याचे भाशेंत वेगवेगळे तरेन घेंवक मेळटा. पूण शास्त्राचे भाशेंत ताचो अेकूच अर्थ घेंवचो पडटा. तेच परीन 'पोटांत कावळे रडप,' 'दोळो लागप,' 'पपा काडप,' 'काळीज हालप,' 'आंग काडप' असल्या कितल्याश्याच वाक्प्रचारांचो अर्थ साहित्याचे भाशेंत वेगळे तरेन घेवपाक मेळटा, तसो तो शास्त्राचे भाशेंत घेवपाक मेळना. साहित्य रचता आसताना जाय तितल्या म्हणी आनी ओपारींचो वापर करपाक मेळटा. देखीक 'उमथ्या कळशार उदक रकवप,' 'मोग आसल्यार हून वडे घाटार पावतात', 'पोट मारून जोत केलें वागान खालें,' 'वाऱ्यार गेल्लें शीत मुठलाक येना' अशे तरेच्यो म्हणी आनी ओपारी साहित्याचे भाशेत वापरूंक मेळ्ळ्यो म्हूण शास्त्राचे भाशेंत वापरूंक मेळनांत.

साहित्याचे भाशेंत काल्पनिक गजालींचो आस्पाव जाता. तसो तो शास्त्राचे भाशेंत जायना. शास्त्राचे भाशेंत जी कितें खरीच गजाल आसा ती सांगची पडटा. शास्त्र बरयता आसताना कल्पना करून बरोंवक मेळना. साहित्याक मात कल्पनेक लागून खोलाय येता. कल्पनेबगर 'साहित्यकृती' रचली जाल्यार तें साहित्य जांयनासताना तें शास्त्र जातलें. देखून साहित्यांत हेर सगळ्या घटकांपरस कल्पनेक चड म्हत्व आसता. ज्या मनशाक कल्पना करूंक येना ताचेकडेन साहित्य रचूंक जांवचेना. कल्पनेवांगडाच साहित्यांत अणभवाक म्हत्व आसता. अेकाद्रे गजालीचो अणभव नासताना कल्पना करून बरयलें जाल्यार साहित्यांत अतिताय जावपाची शक्यताय आसता. साहित्यकृतींत

अतिताय जाली म्हण्टकीत वास्तवताय पयसावता. अशेतरेन साहित्यांत कल्पनेक म्हत्व आसलें तरीय केन्नाकेन्नाय तीच कल्पना बरोवप्याचो घात घेवपाक शकता.

साहित्याच्या बरपाचो शब्दकोशाप्रमाण अर्थ कितेंय आसलो तरीय ताचो खरो अर्थ निमाणेकडेन वाचप्याचेर आदारून आसता. पूण शास्त्राच्या बरपाचो अर्थ शब्दकोशाप्रमाणूच आसता. साहित्याच्या बरपाचो कोशाप्रमाण अर्थ केन्नाच घेंवक फावोना. कित्याकतर बरोवपी बरयता आसताना भाशेचीं वेगवेगळीं रूपां घेवन बरयता. साहित्यांत बरोवपी भास आपणाक जाय तशी केळयता. भाशेक लागून साहित्याक खोलाय येता. सादे-सोपे आनी नीट वेवहाराचे भाशेंत रचिल्लें साहित्य वयले-वयर जाता.

जिविताविशींचे कितलेशेच प्रस्न साहित्यांत मेकळेपणान कांयच लिपयनासताना रसिकाचे पध्दतीन मांडूंक मेळटात. तशे ते शास्त्राच्या बरपांत मांडपाक मेळनांत. मनशाच्या जिवितांत मनशाक खूबशे वायट-बरे अणभव येतात. कांय अणभव इतले खर आसतात की ते कशेच विसरपाक जांयनांत. इतलेंच न्हय तर ते मेकळेपणान कोणाक सांगपाकूय मेळनांत. तेन्ना त्या मनशाक साहित्यावगर आनीक दुसरो आसरो उरनां. साहित्यांतल्यांन बरोवपी समाजाक आनी आपल्या भोवतणींक जे रितीन संवसारामुखार मांडटा, तेच परीन तो खासा आपणाकूय साहित्यांतल्यांन संवसारामुखार दवरता. पूण शास्त्राकडेन बरोवप्याचो कांयच संबंद उरनां. शास्त्रांतल्यांन 'बरोवप्याच्या जिविताचें पडबिंब' दिश्टी पडना. जाल्यार साहित्य हें जिविताखातीरूच आसता.

साहित्याची भास काव्यात्मक आसता. तशी ती शास्त्राची आसना. काव्यात्मक म्हळ्यार साहित्याचे भाशेक गर्भ अर्थ आसता. तसो गर्भअर्थ शास्त्राचे भाशेक आसना. शास्त्राची भास वयले-वयर आनी सरळ आसता. साहित्याची भास गुढान भरिल्ली आसता अेकाच वाक्याचे कितलेशेच अर्थ साहित्याचे भाशेंतल्यांन घेवपाक मेळटात. बरोवपी जेन्ना साहित्य रचता तेन्ना तो वेगवेगळ्या प्रतिकांचो वापर करता. जी गजाल साद्या उतरांनी स्पश्ट करपाक जांयना, ती बरोवपी प्रतीकरूपान सांगपाचो यत्न करता. वाचप्याक लेगीत साहित्य वाचता आसताना आपणाले कल्पनेचो आदार घेंवचो पडटा. तसो तो शास्त्राचें बरप वाचता आसताना घेंवचो पडना. साहित्याची भास खूब घुस्पागोंदळाची आसता तशी ती शास्त्राची आसना.

साहित्याचे भाशेंत कितल्याश्याच प्रतिकांचो वापर जाता देखून ते भाशेक कितलेशेच अर्थ लागू जातात. तशे ते शास्त्राचे भाशेक जांयनांत. देखीक अेकाद्र्या मनशाक वडाचें प्रतीक मानतात कित्याकतर तो मनीस वडाभशेन कितल्याश्याच लोकांक सावळी दिता. 'चंद्रमुखी' म्हण्टकीत चंद्राभशेन वाटकुळ्या तोंडाच्या बायलमनशेचें

चित्र आमच्या दोळ्यांसामकार उबें रावता. अशेतरेन साहित्यांत कितल्याश्याच प्रतिकांचो वापर जाता. प्रतिकांबगर साहित्याक खोलाय येना. शास्त्राचे भाशेंत वा शास्त्राचेर बरयता आसतानां प्रतिकांचो वापर करपाक मेळनां.

साहित्याची भास तिचे रचणुकेप्रमाण वेगळेच अर्थ उक्ते करून दाखयता. देखून साहित्यांत भाशेच्या आनी वाक्यांच्या रचणुकेक उपाट म्हत्व आसता. पूण शास्त्राविशीं आमकां अशें म्हणपाक मेळचेंना. कित्याकतर शास्त्र कशेंय रचलें तरीय ताचो अर्थ निमाणेकडेन अेकूच उरतलो. साहित्यांतल्या कविता ह्या प्रकाराच्या रचणुकेक खूब म्हत्व आसता. कविता वेगवेगळ्या आकारांनी छापली म्हण्टकीत तिका वेगवेगळे अर्थ लागू जातात. कांय कविता रचतल्यांनी कवितेक कितलेशेच नवे आकार लागू केल्यात. हाका लागून कवितेचें आकर्शण वाडटा. कवितेंतल्या मुक्तछंद ह्या प्रकाराक जाल्यार आयज रूपूच उरूंक ना. अेक अेक वाक्य सोपचे पयलींच मुखार टींब टींब दिवन फुडें पूर्णविराम दिलो म्हण्टकीत वाचप्यांच्या कल्पनाशक्तीक वाव मेळटा. कवितेचें गुढ वाडटा. आनी वाचपी वा कवितेचो सुवाद घेवपी रसीक आपल्याक जाय तसो अर्थ घेवन समाधानी जाता.

साहित्याचे भाशेंत तींच-तीं उतरां परतीं-परतीं वापरिल्लयान ती भास गुळगुळीत जाता. देखीक, 'चंद्रमुखी', 'सावुलगोरी', 'काजळी दोळे' आदीं उतरां परतीं परतीं वापरलीं जाल्यार तीं उतरां पोरणीं जातात. देकून नव्या-नव्या अर्थान भरिल्ल्या उतरांची गरज पडटा. 'चंद्रमुखी' हें उतर सगळ्यांत पयलीं अेका बरोवप्यान वापरलें. ताच्या उपरांत आनीक कांय जाणांनी तें वापरलें म्हण्टकीत तें उतर गुळगुळीत जाता. देखून साहित्याची भास वा भितरलीं उतरां बरोवप्याकणकणी बदलचीं पड्टात. पूण शास्त्राचे भाशेंत अशें जायना. अेकूच भास, अेकूच उतर कितलेय फावट वापरलें म्हूण शास्त्राची भास पोरणी वा गुळगुळीत जांयना. तिचें म्हत्व पयलीं आशिल्लें तितलेंच उरता.

साहित्याची भास अळंकारीक आसता. तशी ती शास्त्राची आसनां. साहित्य रचता आसताना बरोवपी वेगवेगळ्या अळंकारांचो वापर करता. वेगवेगळ्या अळंकारांक लागून भाशेची सोबीतकाय वाडटा. साहित्यावांगडा साहित्याची भासूय सोबीत आसची पडटा. ना जाल्यार ताची रूच उणी जाता. साहित्याचे भाशेंत दृश्टांत, रूपकां, उपमा, उमाळो हांचो वापर वेगवेगळ्या वगतार करचो पडटा. शास्त्रांत ह्या अळंकारांक म्हत्व आसना. शास्त्राची भास अळंकारांविरयत सादी आनी सरळ-सोपी आसता.

साहित्याची भास बरोवप्याप्रमाण (लेखकाप्रमाण) बदलता. दर अेकट्या बरोवप्याची रीत वेगवेगळी आसता. साहित्यकृती वाचून ती कोणी रचल्या तें आमच्यांनी सांगूक

जाता. कित्याकतर दर अेकट्या बरोवप्याची भाशाशैली वेगळी आसता. इतलेंच न्हय तर त्या बरपाचो काळ खंयचो हेंय आमच्यांनी वळखूंक जाता. कोंकणींतलो व्हड बरोवपी शणै गोंयबाब हांचे भाशेक वा भाशाशैलीक लागतली भास आनीक अेकट्याय कोंकणी बरोवप्याकडेन बरोंवक जालीना. इतिहासांतले व्हड साहित्यीक शेक्सपीयर, चॉसर, ज्ञानेश्वर, तुकाराम, कालीदास ह्या सगळ्यांची बरोवपाची भाशाशैली वेगवेगळी आनी स्वतंत्र आसा. तांचे फक्कत बरप पळोवन तो बरोवपी कोण आसत हाचो तर्क करूं येता.

साहित्याचे भाशेंत विशयापरस बरोवप्याक चड म्हत्व आसता. जाल्यार शास्त्राचे भाशेंत बरोवप्यापरस विशयाक चड म्हत्व आसता. अेकाद्री साहित्यकृती आमीं वाचपाक काडटां तेन्ना पयलीं आमी ताचो बरोवपी कोण तो पळयतां. उपरांतूच आमीं तें वाचतां. दर अेका बरोवप्याचीं कांय खाशेलपणां आसतात. वाचप्याक लेखक आवडपाक जायतीं कारणां आसतात. शास्त्रांत बरोवप्याक म्हत्व आसना. तातूंत बरोवप्यापरस विशयांक चड म्हत्व आसता. शास्त्राचो बरोवपी कोणूय आसल्यार सारकोच.

साहित्याची भास शास्त्राचे भाशेपरस चड विस्तारशील, स्वतंत्र, रचणुकेची मेकळीक आशिल्ली, अर्थाच्यो नव्यो-नव्यो दिको दाखोवपी, चड अर्थान भरिल्ली आसता. साहित्याची भास बरोवप्याक जाय तशी वापरूंक मेळटा. साहित्याची भास अळंकारीक, घुस्पागोंदळाची, प्रतिकांनी भरिल्ली आसली जाल्यार साहित्याचो पावंडो वाडटा. पूण शास्त्राचे भाशेक साहित्याचे भाशे इतली मेकळीक आसना. ती आमकां जाय तशी वापरूंक मेळना.

साहित्याचे भाशेंत नाद, मात्रा, उतरांची रचणूक, उतरांचो क्रम, वाक्यांची रचणूक, वळी, कडवीं ह्या सगळ्यांक म्हत्व आसता. पूण ह्या गजालींचें म्हत्व शास्त्राचे भाशेक आसना. शास्त्राचे भाशेंत वाक्यांची रचणूक वेगळेच रितीन केली वा उतरांचो क्रम बदल्लो म्हूण ताका कुस्कूट म्हत्व आसना. शास्त्राचें बरप शास्त्राचेच भाशेंत जांवचें पडटा. शास्त्राची भास कशी आसची वा तें कशें रचचें तें पयलींच थारायल्लें आसता.

अशेतरेन साहित्याची भास शास्त्राचे आनी वेवहाराचे भाशेपरस पुरायतेन वेगळी आसता. साहित्याचो पावंडो थारपाक भाशेचो वाटो खूब मोलाचो आसता. हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

**भास आनी साहित्य :**

खंयचोय मनीस जल्माक येतनां भाशेच्या संवसारांत जल्माक येता. थंयच तो वाडटा. भाशेच्या नदरेंतल्यांनूच तो संवसाराकडेन पळयता, संवसाराचो अणभव घेता.

अणभव आनी संवेदना हांच्या माध्यमांतल्यांन भायल्या संवसाराचें अेक चित्र त्या मनशाच्या मनांत आकाराक येता. मनीससवसारांतल्या अणभवांक वेगळेंच रूप दिवपाचें काम भास करता. भाशेबगर मनशाक आपणाले अणभव प्रगट करूंक मेळनांत. मनशाक भास नासत जाल्यार ताच्यो भावना भितरले भीतर चिड्डून उरतल्यो. भाशेचो खरो वापर करप म्हळ्यार तिच्या सांस्कृतिक विश्वांतल्यांन संवसाराकडेन पळोवप.

मनशाचें जिवीत उक्ताडार हाडपाचें, भायलो संवसार जाणा जावन घेवपाचें भास हें अेक म्हत्वाचें साधन आसा. हाचो अर्थ कळ्ळो म्हण्टकीत भास आनी साहित्य हांचो संबंध आमकां कळटा. भास आनी साहित्य दोनुय वेगळीं आसलीं तरीय अेकामेकाच्या सामकीं लागींचीं आसात. भास हें साहित्याचें कलाद्रव्य आसा, जाल्यार साहित्य हें भाशेचो अेक खाशेलो उपेग आसा. भास हें साहित्याचें साधन आसा. जेन्ना अेकाद्रया वाचप्यामुखार साहित्यकृती वळींवळींतल्यांन मुखार वचत रावता, तेन्ना ताका मुखेलपणान माध्यमाच्या घडणेची (Texture) जाणविकाय जाता. निमाणी वळ सोपली म्हण्टकीत ते साहित्यकृतीचो अर्थ ताका कळटा, तिची घडण (Structure) मतींत येता.

साहित्य ही मनशान निर्मिल्ली कला आसता जाल्यार भास हें समाजाच्या उपेगाक पडपी साधन आसा. अेकाद्रया मनशाच्या विश्वाचें दर्शन हेरांक घडोवप म्हळ्यार, भाशेचो कलात्मक उपेग करप. अेकाद्रो साहित्यीक वा बरोवपी भाशेचो हो जो सदांपरस वेगळो असो उपेग करता ताका धाटणी (शैली) म्हणूं येता. उतरांच्या राशींतल्यांन आपणाक जाय तीं उतरां वेंचून काडप, तांचो नव्या संदर्भांत वापर करप, तांचीं नवीं रूपां सिध्द करप आनी भाशेचें जें बळ आसा तें सुचकतायेच्या आंगान वाडोवप हीं कामां बरोवपी करता.

****

# साहित्याचो हेत

संवसारांत जल्माक येवपी दर अेक गजाल कितेंयतरी हेत घेवनूच जल्माक येता. तिका तिचें खाशेलें अशें उद्दिश्ट आसता. साहित्याची निर्मिती लेगीत अशीच जाता. साहित्याचे निर्मितीफाटल्यान कितेंतरी हेत आसता. साहित्याचो हेत कितें हाचो विचार आमकां दोन आंगानीं करचो पडटा. अेक म्हळ्यार अेकाद्रो बरोवपी कित्याक बरयता? वा साहित्यीक कित्याक साहित्य रचता? आनी वाचपी तें कित्याक वाचता? ह्या दोनुय प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडल्यो जाल्यार साहित्याचो हेत स्पश्ट जातलो.

अेकाद्रो वाचपी साहित्य कित्याक वाचता तें आमीं पयलीं पळोवया. कांय वाचप्यांक आपणाल्या सदांच्या जिविताचो वाज आयिल्लो आसता, देखून बरें साहित्य वाचल्या उपरांत ताका सदांच्या जिविताचो कांय वगत विसर पडटा आसतलो. कांय जाणांक साहित्याच्या काल्पनीक संवसारांत भीतर सरतकीत आपणाल्या जिवितांतल्या उणेपणाचो विसर पडटा आसतलो. घडये तीं उणेपणां कल्पनेच्या संवसारांत ते कांय प्रमाणांत भरून काडटात आसतले. आपणाल्यो अतुश्ट इत्सा, सपनां, खरेपणान जांव नासूं पूण कांय प्रमाणांत त्यो तुश्ट करून घेवपाचो वाव मेळटा आसतलो. कांय जाणांक साहित्यांत प्रगट जाल्ल्या अणभवांच्या दर्शनान आपणाल्या जिवितांतल्या अणभवांचो उगडास जावन घडये बरेंय दिसता आसतलें, जाल्यार कांय जाणांक तातुंतल्यांन स्फूर्त मेळटा आसतली. कांय जाणांच्यो चेपून दवरिल्ल्यो इत्सा आनी वासना साहित्य वाचल्या उपरांत चाळवतात आसतल्यो आनी ताका लागून मात्शें बरें दिसता आसतलें. जाल्यार कांय जाणांक जे प्रसंग आपणें केन्नाच अणभवूंक नांत आनी अणभवपूय शक्य ना तांचें दर्शन घडिल्ल्यान आपणाल्या अणभवांत भर पडल्या अशें दिसता आसतलें. साहित्य वाचल्या उपरांत कांय जाणांचो वगत बरो पासार जाता आसतलो. वेगवेगळे हेत मनांत धरून वाचप्यांक साहित्यांतल्यांन जायतें मेळटा आसतलें. हातूंत इल्लोय दुबाव ना. वाचप्यांक खोशी आनी हेर लाव मेळोवन दिवप होच साहित्याचो मुखेल हेत आसता. जर साहित्य हो लाव मेळोवन दिवपाक उणें पडलें जाल्यार तें साहित्य सारखें जांवक ना अशें मानचें पडटलें.

पूण साहित्य सगळ्यांक सारखेंच समाधान दिवक शकता व्हय? ना. मनशाकणकणी ताची रूच आनी अर्थ बदलत वता. देखीक अेकाद्रें चित्र धा जाणांनी पळयलें जाल्यार, त्या चित्राविशीं धा जाणांची धा मतां आसतलीं. कांय जाणांक तें चित्र आवडटलें जाल्यार कांय जाणांक तें आवडपाचें नां. कांय जाणांक ताचो अर्थ कळटलो जाल्यार कांय जाणांक तो कळपाचो ना. रूच आनी आवड मनशाकणकणी बदलत वता. हाकाच लागून अेकूच चित्र पळोवन कांय जाणांक खोशी जातली जाल्यार कांय जाणांक कांयच लाव जावपाचो ना.

वाचप्याक साहित्य हें अेक साधन आसता. आपणाल्यो कांय खाजगी वा सामाजीक गरजो भागोवपाखातीर तो साहित्याचो आसरो घेता. ह्या आसऱ्याखाल आपणाल्यो गरजो भागल्यो जाल्यार ताका बरें दिसता आनी त्यो भागल्यो नांत जाल्यार ताका वायट दिसता. जे वाचपी आपणाल्यो इत्सा भागोवपाखातीर वा सपनरंजनाचें सुख भोगपाखातीर साहित्य वाचतात ते साहित्याचो उपेग खाजगी गरजो भागोवपाखातीर करतात. जाल्यार जे वाचपी साहित्याकडल्यान नीत, गिन्यान आदीं गजालींची अपेक्षा करतात ते सामाजीक गरजो भागोवपाखातीर साहित्याचो आसरो घेतात.

अेकाद्र्या वाचप्यान साहित्याचो हेत आपणाक जाय तसो मानलो म्हूण साहित्याचो हेत तितलोच आसना. साहित्य फक्कत खाजगी आनी सामाजीक गरजो भागयना. साहित्याचे आनीकूय कांय हेत आसतले. शेक्सपीयर जांव कालिदासासारखिल्या व्हड साहित्यीकांच्या साहित्याचो हेत फक्कत सामाजीक वा खाजगी आसत असो दिसना. ताचे आनीक जायते हेत आसूं येतात.

साहित्यांतल्यांन आमकां वेगळीच खोशी मेळटा. ही खोशी वेगवेगळे तरेची आसूं येता. इत्सापुर्ति, मनरिजवण, सपनरंजन हीं खोशयेचीं लक्षणां आसात. साहित्यांतली वास्तवताय ही आमच्या जिविताच्या लागींची वास्तवताय आसपाची शक्यताय आसा. तशें आसलें तरीय ती कल्पनेन निर्मिल्ली वास्तवताय आसता.

जायत्या गजालींतल्यांन आमकां खुशालकाय मेळटा, पूण साहित्यांतल्यांन मेळिल्ली खुशालकाय ही वेगळीच आसता. तिचें मोल करपाक जांवचेंना. तशेंच जायत्यो गजाली आमकां गिन्यान दितात, पूण साहित्यांतल्यांन मेळिल्लें गिन्यान हें वेगळेंच आसता. साहित्य हें गिन्यानाचें अेक रूप आसा. साहित्य हें इतिहासापरस चड श्रेश्ट आसता. कित्याकतर इतिहासांत घडून गेल्ल्या घडणुकांचें वर्णन आसता जाल्यार साहित्यांत घडूंक शकता असल्या घडणुकांचे वर्णन आसता. अशें ॲरिस्टॉटलाचें मत आसा.

पुर्विल्ल्या कितल्याश्याच विद्वानांनी आनी बरोवप्यांनी साहित्याच्या हेतांचेर आपणाले

विचार मांडल्यात. तातूंत उदेंतेकडल्या आनी अस्तमतेकडल्याय बरोवप्यांचो आस्पाव आसा. आयज साहित्याच्या हेतांविशींचे उदेंतेकडले आनी अस्तमेकडले विचार ऐकामेकांत भरसल्यात. मम्मटान आपणाल्या काव्यशास्त्रांत मांडिल्ले साहित्याचे हेत चड म्हत्वाचे आसात. साहित्याच्या हेतांचें सार ताणें दोनूच वळींनी सांगलां तें अशें आसा --

**''काव्य यशसेऽर्थकृते व्यवहारविदे शिवेतरक्षतये।**

**सद्यः परनिर्वृतये कान्तासंमिततयोपदेश युजे।।''**

साहित्य बरोवप्याक किर्त मेळोवन दिता; पयसो मेळोवन दिता; वेवहाराचें गिन्यान दिता; अशुभाक कुशीक काडटा; वेगळीच खुशालकाय दिता आनी मोगिके भशेन मोगाळ उपदेश करता. अशेंच वेल्या वळींतल्यांन मम्मट आमकां सांगपाक सोदता.

## १. किर्त (नामना) :-

साहित्याच्या बरोवप्याक साहित्याक लागून नामना मेळटा. साहित्याचो हो हेत बरोवप्यापुरतो आसता. वाचप्याक तो लागू जांयना. आपणालें साहित्य लोकांनीं गोडयेन वाचचें आनी साहित्याच्या रुपान आपली नामना तश्शी उरची अशें बरोवप्यांक दिसता. पयशांपरस नामनेची वान्सा चड बळादीक आसता. कित्याकतर तातूंत भीतर वेवहारीक सुवार्थ आसना. पूण जायतेफावट बरोवपी फक्कत नामनेखातीरूच बरयता अशें ना. तेच वांगडा साहित्य रचल्या उपरांत ऐकाद्रया बरोवप्याक नामना मेळटलीच अशेंय आमच्यांनीं निश्चितपणान सांगपाक जांयना. देखून ऐकाद्रो बरोवपी फक्कत नामनेखातीरूच बरयता अशें म्हणप समा जांवचेना. कांय बरोवप्यांक जिवो आसामेरेन नामना वा किर्त मेळुंकूच ना अश्योय कांय देखी आसात.

## २. आर्थिक येणावळ :

साहित्याचो हो हेत लेगीत बरोवप्यापुरतो मर्यादीत आसा. अर्थवेवहार हो जिवितांतलो ऐक म्हत्वाचो वेवहार आसा. अस्तंतेकडले कितलेशेच बरोवपी आपणाल्या बरपाचेर संवसार चलयतात आनी जगतात. आमच्या देशांत लेगीत अशे जायते बरोवपी पळोंवक मेळटात. अशें आसलें तरीय साहित्याची निर्मिती करून तातुंतल्यांनं सगळ्यांकूच पयसो मेळटाच अशें ना. देखून हो हेत सगळ्याच बरोवप्यांक लागू करूंक मेळचोना.

पुर्विल्लया काळार बरोवप्यांक राजाकडल्यान आसरो मेळटालो. दरबारांतलो कवी म्हूण राजाकडल्यान ताका वर्सुकी येणावळ वा पागामेत मेळटालो. ऐकाद्रया वगतार

ताका खासा काव्य रचलें जाल्यार आडवेळें खाशेलें इनाम लेगीत मेळटालें. देखून मम्मटान आर्थिक येणावळ ह्या प्रयोजनाचो आस्पाव केला. पुर्विल्ल्या काळार लेगीत असले कवी वा साहित्यीक आशिल्ले आसूंक जाय की जांकां कोणाचोय आर्थिक पालव नासताना ते साहित्याची वा काव्याची निर्मिती करताले. आयच्या काळांत राजाचो आसरो नासलो तरीय वेगळ्या अर्थान लोकांचो आसरो बरोवप्याक मेळटा. देखीक-लोक पुस्तकां विकती घेतात ताची Royalty म्हूण वा Copyright म्हूण थोडे-चड पयशे बरोवप्यांक मेळटात. त्या भायर बरोवप्यांक साहित्य निर्मितीखातीर इनामांय मेळटात.

**३. अशुभनिवारण :**

साहित्याचो हो हेत बरोवपी आनी वाचपी ह्या दोगांकूय लागू जाता. साहित्याची निर्मिती केली जाल्यार बरोवप्याचीं संकश्टां पयस जातात आनी साहित्य वाचलें जाल्यार वाचप्यावेलीं अरिश्टां पयस जातात असो पयलींच्या काळार अेक भावार्त आशिल्लो. त्या काळावेल्ल्या 'गंगालहरी', 'सत्यनारायण व्रतकथा', ह्या पुस्तकांची निर्मिती हेंच उद्दिश्ट नदरेमुखार दवरून जाल्ली. पूण आयज संवसार खूब मुखार पावला. असल्या गजालींचेर विस्वास दवरपी लोक आयज चड पळोंवक मेळचेनां.

पुर्विल्ल्या काळार लोक जेन्ना कट्टर धार्मिक आशिल्ले तेन्ना ते आपल्या जिवितांतल्यो खंयच्योय वायट गजाली जायत्या कारणांनी जिवितांतल्या अशुभाचो आविश्कार मानताले. ह्या अशुभाचो संवंध जायत्यावेळा पयलींच्या जल्माकडेन जोड्टाले. अेकाद्रे तरेचें साहित्य रचलें जाल्यार असल्या अशुभाचो नाश जाता अशें त्या काळार समजताले. पूण आयज विज्ञानाच्या युगांत हाचेर कोणूच विस्वास दवरपासारखो ना.

**४. वेवहाराचें गिन्यान :**

आयज साहित्य हें मनशाच्या वेवहाराचें पडबिंब जालां. साहित्याच्या माध्यमांतल्यान वाचप्याक अेकाद्रे गजालीचो अणभव नासताना लेगीत जिवितांतल्या वेगवेगळ्या क्षेत्रांची आपशींच वळख जाता. साहित्याचो हो हेत फक्कत वाचप्यापुरतो मर्यादीत आसा. पूण सगळ्याच वाचप्यांचें उद्दिश्ट वेवहाराचें गिन्यान मेळोवप आसता अशें मानप समा जांवचेंना.

**५. उपदेश :**

साहित्य वाचप्याक अप्रत्यक्षपणान (आडवाटेन) उपदेश करता. हो उपदेश आमकां वयलेवयर कळनां. साहित्य मनरिजवण करता आसताना संवसाराचे वेवहार वाचप्यांमुखार मांडटा आनी वाचप्याचेर योग्य तो परिणाम करता. साहित्याच्या उपदेशांत

विनवणी आसता, समजाविशी आसता. देखून ह्या हेताक मम्मट मोगिकेभशेन मोगाळ उपदेश अशें म्हण्टा.

मोगिकेचो उपदेश उतरांच्या माध्यमांतल्यांन नासता. तर तो उत्फर्क्यांच्या (भावनांच्या) माध्यमांतल्यांन आसता. साहित्यांत वा काव्यांत भावनांक म्हत्व आसता. उपदेश केला अशें समजूंक दिंनासताना साहित्य मनशाक उपदेश करता. वाचप्याक साहित्य 'रामाभशेन वागचें रावणाभशेन न्हय' अशें प्रत्यक्ष सांगना जाल्यार तशें तें आडवाटेन सुचयता.

## ६. वेगळीच खुशालकाय :

बरोवप्याक साहित्य निर्मितींतल्यान वेगळीच खुशालकाय मेळटा. ही खुशालकाय नवनिर्मितीची आसता आनी तिची तुळा साद्या कुडीच्या सुखाकडेन करूंक जांवचीना. ती अेक वेगळीच खुशालकाय आसता. चडशे बरोवपी साहित्याची निर्मिती हेच खुशालकायेखातीर करतात, अशें म्हळ्यार अतिताय जांवचीना. साहित्यापसून नामना, पयसो आदीं गजाली मेळूं वा ना मेळूं, साहित्य वाचप्यांमेरेन पावलें ना जाल्यार लेगीत साहित्यांतल्यांन मेळपी खुशालकायेंत कसलेंच उणेपण येना. हेर सगळ्या हेतांपरस मम्मटान ह्या हेताक म्हत्वाचो हेत थारायला. हो हेत जितल्या प्रमाणांत बरोवप्याक आनी वाचप्याक पुर्विल्ल्या काळार लागू जातालो तितलोच तो आयज लेगीत जाता. हाचे मुखार लेगीत बरोवप्याक आनी वाचप्याक साहित्यांतल्यांन मेळपी ही खुशालकाय अशीच मेळत रावतली. चडशे वाचपी हीच खुशालकाय मेळोवपाखातीर साहित्य वाचतात. अस्तंतेकडेन लेगीत हो साहित्याचो अेक हेत आसा अशें मानतात.

अस्तंतेकडल्या बरोवप्यांनी जे साहित्याचे हेत मानल्यात ते सादाराण अशे आसात –

## १. पलायनवाद (Escapism) :

मनशाचें जिवीत तरेकवार संघर्षांनी भरिल्लें आसता. ताच्या जिवितांत सुख आनी दुख्खाचो खेळ अेकसारखो चलिल्लो आसता. सुखापरस दुख्खाचेच खीण मनशाच्या जिवितांत चड येतात. अेकसारख्या तकालशीन भरिल्ल्या मनाक दुख्खाकडल्यान पयस वचन दिसता. देखून मनीस साहित्याचो आंदार घेता. थंय तो अेक सपनांतली सृश्ट तयार करता. ह्या सपनांतल्या संवसारांत तो वास्तवतायेक खीणभर विसरून वता. होच हेत मतींत धरून साहित्याची निर्मिती जाता अशें कांय जाणांचे मत आसा. पूण 'पलायनवाद' हो हेत सगळ्याच तरेच्या साहित्याक लागू जांयनां तो फक्कत वेगळ्याच तरेच्या साहित्याक लागू जांव येता.

## २. इत्सापुर्तिवाद (Wish — Fulfilment) :

इत्सापुर्तिवाद वा दिसासपन (Day — dreaming) हें पलायनवादाचें दुसरें रूप. पलायनवाद हो हेत वाचप्यांक चड लागू जाता, जाल्यार दिसासपन बरोवप्यांक चड लागू जाता. अतुश्ट आशा, इत्सा, सपनां साहित्यांतल्यांन बरोवपी पुराय करता. चडशें साहित्य दिसासपनांतल्यांन वा सपनरंजनांतल्यांन निर्माण जाल्लें आसता. वास्तवतायेक विरोध करपी जिविताचें चित्रण ह्या दिसासपनांतल्यांन साहित्यांत घडटा. ह्या अर्थान साहित्य हें कलावंताचें दिसासपन आसा अशें फ्राईडान म्हळां. देखुनूच सपनरंजन वा इत्सापुर्तिवाद हो अस्तंतेकडल्या बरोवप्यांनीं साहित्याचो अेक हेत मानला.

मनशाक कल्पनाशक्तिची अेक चमत्कारीक देणगी मेळिल्ली आसता. तिच्या बळग्यार मनीस सभाविक पणान कितलींशींच सपनां पळयता. जिवितांत जीं सपनां फळादीक जांयनांत तीं तो साहित्यांतल्यांन फळादीक करता. साहित्यांत आदर्शवाद, ध्येयवाद हांचेंय चित्रण दिसून येता. हाका लागून वाचप्याक आनी बरोवप्याक लेगीत ज्यो इत्सा वास्तवांत पुराय जांयनांत त्यो साहित्यांतल्यांन पुराय करूंक मेळटात.

## ३. जिज्ञासापुर्ती :

संवसाराविशीं चडांत चड जाणा जावन घेवपाची उमळशीक म्हळ्यार जिज्ञासा. आसा तो संवसार बदलून नवो संवसार उबारपाची प्रेरणा म्हळ्यार नवनिर्मिती. कलेचें नवनिर्मित विश्व पुरायतेन मानसीक आसता. हे नवनिर्मितेच्या माध्यमांतल्यांन वास्तवतायेचेर उजवाड घालून जिविताचो अर्थ समजून घेवपाची कलावंताची धडपड आसता. बरोवप्यान निर्माण केल्ल्या साहित्यकृतींतल्यांन वाचप्यांच्याय जिज्ञासेची पुर्ती जाता.

आपणाक खबर नाशिल्ल्यो गजाली मनीस साहित्यांतल्यांन आपशींच, तकालशीबगर जाणा जावन घेता. तेच भशेन बरोवपी लेगीत आपणाक खबर आशिल्ल्यो गजाली साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन लोकांमेरेन पावयता.

## ४. आत्माविश्कार :

कितेंतरी जाणा जावन घेवपाची वाचप्याची इत्सा जशी म्हत्वाची आसता, तशीच कितेंतरी सांगपाची बरोवप्याचीय इत्सा म्हत्वाची आसता. आपणाखातीरूच कलेची निर्मिती करपी बरोवप्याक भायल्या संवसाराचें कांयच पडिल्लें नासता. आपणाल्या गुढ, स्वतंत्र आत्मविश्कारांच्या प्रेरणेन तो कलेची निर्मिती करपाक मुखार सरता. उपरांत तो ते कलेवांगडा सामको अेकरूप जाता. थंय आनीक कसलोच हेत आसना. नामना, पयसो असल्यो गजाली हांगा सामक्योच किरकोळ दिसतात. बरोवप्याक आपउक्तावपांतल्यांन

खुशालकाय भोगता आनी ही खुशालकाय म्हळ्यारूच साहित्याचो खरो हेत आसता.

**५. अणभवविश्वाची वाड :**

- खरेल्या जिवितांत जे अणभव अेकाद्रो मनीस जगपाक वा भोगपाक शकना ते तो साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन मेळयता. जिवितांतल्या वेगवेगळ्या अणभवांची वळख ताका साहित्यांतल्यांन घडटा. खबर नाशिल्ल्यो कितल्योश्योच गजाली तो आपशींच शिकता. साहित्याक लागून ताच्या अणभवाविश्वाची आपशींच वाड जाता. देखुनूच बऱ्यांतली साहित्यकृती निर्माण करप इतलेंच साहित्यीकाचें कार्य नासून व्यापक जिविताचें गुपीत प्रगट करून अणभवांची वाड करप हेंय आसता.

आपणाल्या विशेशतायेन भरिल्ल्या अणभवविश्वांतल्यांन कांय वेंचीक अणभव उक्ते करून सांगप हें बरोवप्याचें मुखेल अशें कार्य आसता. मनशाभीतर जी सर्जनशीलता (Creative faculty) आसता, तीच मनशाच्या उदरगतीची आनी नाविन्यपूर्ण जिविताची आदिशक्त आसता. आपउक्तावपांतल्यांन बरोवप्याक उपाट खुशालकाय भोगता आसतली. हाका लागुनूच साहित्याचो मुखेल हेत नितळ खुशालकाय असो मानला.

वाचपी लेगीत हीच खुशालकाय मेळोवपाखातीर साहित्यावसल्यान ओडटा. निर्मितीच्या वगतार बरोवपी आनी आस्वादाच्या वगतार वाचपी ह्या खुशालकायेच्या दर्यांत पेंवता. बरोवप्याचो वेगळोच अणभव वाचप्याच्या काळजांत पाविल्लो आसता, ताका खोशी जाल्ली आसता. अशें आसलें तरीय जायते फावट आमीं ताचो वेवहाराचे नदरेनूच विचार करतां. साहित्याक लागून आमकां गिन्यान, शिकवण, पयसो, किर्त हेंय मेळटा.

****

# साहित्याच्यो तरा

साहित्याच्यो तरा वा साहित्यप्रकार म्हळ्यार साहित्याचें वर्गीकरण. साहित्याभशेन हेर कलांत लेगीत वर्गीकरण केल्लें आमकां पळोंवक मेळटा. देखीक संगीतांत– 'शास्त्रीय' वा 'अभिजात' आनी 'सुगम' वा 'धृपद–धमार', 'ख्याल', आदीं पोटप्रकार आसात. तेचभशेन चित्रकलेंत 'रेखाचित्र', 'तैलचित्र' आदीं प्रकार, तशेच चित्रपटांत वार्ता–चित्रपट (Documentary), कथा चित्रपट (Feature film) आदीं वेगळेपणां पळोंवक मेळटात.

वाचप्याच्या वा समीक्षकाच्या नदरेन वर्गीकरण म्हत्वाचें आसलें तरीय कलेच्या निर्मितींत वर्गीकरणाक सुवात आसना अशें मानतात. कलाकार सदांच उत्स्फूर्तपणान कलेची निर्मिती करता आनी उपरांत ती खंयच्या प्रकारांत बसता तें तपासून पळयता. कलेचें वर्गीकरण ही अेक वेवहारीक सोच आसता. कलेच्या शास्त्रांत, अभ्यासांत हे सोयीक म्हत्व आसना. तरीय आस्वादन आनी निर्मिती ह्या दोनांच्या नदरेन ती उपेगाची आसना, ती फक्कत नावांपुरतीं आसता.

खूब तरांच्या बरपाक 'साहित्य' अशें अेकवटीत उतर लायलें तरीय सगळें साहित्य अेकेच भशेचें आसना. तरेकवार रितीनीं मांडिल्ल्या, वेगवेगळ्या तरेच्या, साहित्यीक गुण आशिल्ल्या बरपाक 'साहित्य' अशें अेकवटीत उतर लायतात. दर अेके भाशेंतल्या साहित्यांत ते भाशेच्या इतिहासीक आनी सामाजीक घडणुकांप्रमाण, ते भाशेच्या विस्तार आनी प्रसाराप्रमाण वेगवेगळ्यो साहित्याच्यो तरा तयार जातात. हातुंतल्यो कांय तरा जाल्यार अेकाद्रे भाशेपुरत्योच बांदिल्ल्यो उरतात. त्यो तरा ते भाशेच्या विशेशतायांचेर आनी सामाजीक परिस्थितीचेर आदारून आसतात. अेकाद्रे भाशेंत आशिल्ले तशेच प्रकार हेर भासांत मेळत अशें सांगपाक जांयना.

उदरगतीक पाविल्ले दर अेके भाशेंत गद्य (Prose) आनी पद्य (Verse) हीं दोन मुखेल वेगळेपणां दिसून येतात. कितलेशेच शेंकडे पद्य म्हळ्यार लय, ताल, यमकां आदीं वापरून केल्लें बरप अशें समजताले. पद्य (Verse) आनी काव्य (Poetry) हातूंत लेगीत वेगळेपण आसा. पयलींच्या काळार पद्य म्हळ्यार कांय जाण काव्य अशें

समजताले. पद्य आनी काव्य हातूंतलें वेगळेपण तांकां कळूंक नाशिल्लें. पूण उपरांत ल्हवू-ल्हवू करून पद्य म्हळ्यार काव्य समजुपाचो विचार फाटीं पडलो आनी काव्याक नवें आसन फावो जालें. काव्याक खाशेले अशे वेगळे गुण आसतात हाचीय जाणविकाय बरोवप्यांक जाली.

चड करून संवसारांतल्या सगळ्याच भासांतल्या साहित्याची सुरवात पद्यानूच जाली. संस्कृतांतले 'वेद' पयलींचे आनी 'गद्य' ग्रंथ उपरांतचे. काळजांत फुगार जाल्ल्यो भावना पद्याच्या रूपानूच भायर सरतात. खंयचेय भाशेंतलें सुरवातीचें बरप्र अशेंच आसता. गद्य हो प्रकार वेवहार, राजकारण, धर्मकारण आदींची वाड जाल्याउपरांत उदरगतीक पावलो. गद्य बरपाक चड विचारशक्त जाय पड्टा. देखून गद्य हो बुदवंतांचो साहित्यप्रकार आनी पद्य हो साद्या बरोवप्यांचो आनी बरोवप्याच्या सुरवातीचो वा भुरगेपणांतलो साहित्यप्रकार अशें मानतात.

साहित्याचें वर्गीकरण जशें भारतांत जालां तेच भशेन तें अस्तंतेकडल्या हेर देशांतूय जालां. ॲरिस्टॉटल आनी हेर अस्तंतेकडल्या बरोवप्यांनी साहित्याच्यो वेगवेगळ्यो तरा दाखोवन दिवपाचो यत्न केला. ॲरिस्टॉटल मुखेलपणान तत्वगिन्यानी आशिल्लो. ताणें ग्रीकांत तयार आशिल्ल्या साहित्याची फोडणी करता आसताना कांय तरा थारायल्यात. त्यो म्हळ्यार ट्रॅजिडी, कॉमिडी आनी एपिक. ताणें हेर प्रकारांविशीं चडशी कांयच भासाभास करूंक ना.

साहित्याच्यो तरा थारावपाची मुखेल गरज आनी उपेग म्हळ्यार आमीं एकाद्रया बरपावसल्यान खंयचे नदरेन पळोवचें हें साहित्याचे तरेवेल्यान निश्चित जाता. एके वेगळे नदरेंतल्यांन एके वेगळे अपेक्षेन आमी दर एक प्रकार वाचतां वा (नाटक आसल्यार) पळयतां. म्हळ्यार बरोवपाचो एकूण अर्थ ताच्या प्रकारावेल्यान, ताच्या रूपावेल्यान थारता हे खरें आसा. एकाद्रया बरपाचो प्रकार बरोवप्यान जरीय सांगलोना तरीय वाचपी आपणाल्या अणभवावेल्यान वा हेर माहितीवेल्यान तो थारायतात आनी ते नदरेन त्या बरपाचो सुवाद घेतात.

दर एका साहित्याच्या प्रकाराचे संकेत वेगळे आसतात. ते काळाप्रमाण बदलतात. अशें आसलें तरीय ते संकेत उतरांच्या निगूत करपाचेर, बरोवपाच्या शैलीचेर, बरोवप्याच्या नदरेचेर, पुस्तकाच्या पुराय अर्थाचेर, आशयाचेर असल्या सगळ्याच बारीक सारीक गजालींचेर परिणाम करतात. एकाद्रें काव्य 'भावकवन' म्हळें म्हण्टकीत आमची ताचेकडेन पळोवपाची नदर बदलता. कित्याकतर बरपाची तरा कळून आयली म्हण्टकीत ती वाचता आसताना आमचें एक मनाचें फाटबळ तयार जाता. आनी आमीं तें पुस्तक

वाचतां. पुस्तकाचो प्रकार कळून आयलो म्हणटकीत त्या पुस्तकाचें वाचप अेके वेगळे दिकेन आनी अपेक्षेन सुरू जाता. हाकाच लागून ॲरिस्टॉटलाची वा हेर तत्वगिन्यान्यांची वर्गीकरणाची रीत म्हत्वाची थारता.

वेगवेगळ्यो साहित्याच्यो तरा निर्माण जावपाक खरींच खंयची कारणां आसात तें आमकां पयलीं पळोवचें पडटलें. दर अेके भाशेच्या उदरगतीचेर आनी सुरूपायेचेर जायत्यो गजाली आदारून आसतात हें आमकां खबर आसा. देखीक मराठींतले वा कोंकणीतले कांय काव्यप्रकार वा गद्यप्रकार इंग्लिशीच्या प्रभावाक लागून उदरगतीक पावल्यात. तशेच कांय संकेत तात्पुरत्या काळांतल्या समाजस्थिती आनी दायजाचेर आदारून आसतात. कांय प्रकारांचो उगम आनी उदरगत मनशाच्या सभावगुणांक लागून, मनस्थितीक लागून जाता. देखीक काव्य, सुखान्तिका, दुख्खांतिका आदीं प्रकार मनशाच्या सभावगुणांच्या पोसवणेक गरजेचे आसतात. पूण तांकां मेळपी मोडण सामाजीक तत्वगिन्यान, धार्मिक समजुती आदीं गजालींचेर आदारून रावता. संस्कृत भाशेंत जितली नाटकाची पुराय आनी बारीक भासाभास आसा तितली हेर भासांत ना. आसलीच जाल्यार इतली पोरणी ना. हाचेवेल्यान 'नाटक' ह्या साहित्यप्रकाराचें भारतीयांक कितलें पिशें आशिल्लें तें दिसून येता.

तरीय नाटकाचो अेक मुखेल प्रकार–ट्रॅजिडी (दुख्खांतिका) संस्कृतांत ॲरिस्टॉटलाच्या अर्थान ना. तशें पळोवक गेल्यार 'दुख्ख' हेंच काव्याच्या उगमाक कारण जालां अशें पोरणें मत आशिल्लें. कालिदासान लेगीत हेंच मत मांडलां. अशें आसून लेगीत दुख्खाक सगळ्यांपरस चड महत्व दिवन तयार जावपी 'दुख्खांतिका' संस्कृतांत ना. हाका कितलींशींच कारणां सांगतात. पूण Tragi - Comedy होच प्रकार भारतीयांक आवडटालो. Tragi - Comedy म्हळ्यार दुखेस्त घडणुको दाखोवन लेगीत नाटकाचो शेवट गोड करप. अशे तरेची देख 'शाकुन्तल' ह्या नाटकाची दिंव येता. माचयेर निमाणेकडेन खोशयेचें वातावरण तयार जावपाक जाय ह्या संकेताक लागून वा पुनर्जल्माच्या कल्पनेक लागून शेवट गोड करचो पडटालो. हेविशीं वेगवेगळीं मतां आसात. पूण हो प्रस्न फक्कत संस्कृत नाटकापुरतोच आंवाठीत ना. ज्या धार्मिक तत्वगिन्यानांत सर्ग, पुनर्जल्म आदीं आस्त दाखोवपी तत्वां आसात, त्या तत्वगिन्यानाक लागून खरी दुख्खांतिका शक्य ना अशें जायत्या जाणांचे मत आसा.

साहित्य प्रकारांची सुरूपाय धर्मिक आनी सामाजीक समजुतिंनी निश्चित जाता तें मान्य करचें पडटा. पुराय साहित्य भास आनी प्रादेशीक संस्कृतायेकडेन बांदिल्लें आसता. हाकालागून अनुकरण केल्लें साहित्य, उसणें घेतिल्लें साहित्य रोकडेंच वळखुपाक येता.

कविता, कादंबरी, नाटक, कथा आदीं साहित्याचे मुखेल प्रकार आसात. ते समजून घेवपाक तांचेर चड भासाभास करपाची गरज आसा.

## कविता

### फाटभूंय :

कविता हो सगळ्यांत पुर्विल्लो असो साहित्यप्रकार आसा. कवितेचो आनी पद्याचो जल्म सगळ्यांत पयली जालो आनी उपरांत गद्य बरपाचो उगम जालो. मनशाच्या जिवितांत जेन्ना बुध्दीची आनी हुशारकायेची सुरवात जाता तेन्नाच गद्य प्रकार जल्माक येतात. पुर्विल्ल्या काळांतल्या मनशांचें जिवीत आनी तांच्या भोंवतणच्या विस्वाचो अणभव घेवपाची नदर ही भावनात्मक आशिल्ल्यान पुर्विल्ल्या मनशाच्या उत्कर्‍यांक गीताचें वा काव्याचें रूप आपशींच येतालें.

साहित्यांत कविता वेगवेगळ्या रूपांत साकार जाल्ली पळोंवक मेळटा. धाकटुल्या भावकवनांसावन व्हडल्या अशा महाकाव्यामेरेन कितलींशींच वेगवेगळीं रूपां कविता वा काव्य ह्या नावान वळखतात. आख्यान कविता, खंडकाव्य, कथात्मक कविता, पोवाडो अशे कितलेशेच वेगवेगळे प्रकार कवितेभीतर दिश्टी पडटात. पूण भावकाव्य वा Lyric हेंच कवितेचे मूळ रूप आसा अशें मानचें पडटा. कवितेचें हें मूळ रूप थारावपाखातीर अेक सादारण कसवटी लावन पळोंवक जाता. जो आशय गद्यांत मांडप शक्य ना अशे तरेचो आशय हो खऱ्या अर्थान काव्यात्म थारूंक शकता. देखून म्हाकाव्यां, आख्यान कविता, खंडकाव्य वा हेर तरेच्यो कविता हांचो आशय हो पद्याबगर गद्यांत लेगीत मांडूक जाता. मात अेकाद्र्या भावकाव्याचो आशय गद्यांतल्यांन मांडूक जावचोना देखुनूच भावकाव्यात्मकता हेंच कवितेचें मूळ स्वरूप आसा अशें मानचें पडटा.

कवितेच्या रूपाची विशेशताय आनी तिच्या आशयाची विशेशताय हांचो विचार कवितेच्या भायल्या स्वरूपावेल्यान आमकां करपाक मेळटा. गद्य आनी पद्य ह्या दोनुय तरांच्या बरोवपाच्या रचणुके मदीं आमकां वेगळेपण दाखोंवक मेळटा. अेका सकल अेक अशी केल्ली वळींची रचणूक हें कवितेचें दिश्टी पडपी रूप सगळ्यांत पयलीं आमकां कळून येता.

### कविता म्हळ्यार कितें?

कविता हें अेक साहित्याचें नितळ रूप आसा. साहित्यांत सत्य, शिव आनी सुंदर हांचो सोबीत मेळ जाल्लो आसता. ह्या मेळाचें दर्शन आमकां कवितेंतल्यांन चड उत्कटतायेन घडटा. जिवितांतलो एखाद्रो देखाव वा अणभव कवीचें मन जागयता. त्या अणभवान तो भुलुसता आनी कविता बरोवन जायसर तो वेगळ्याच नादांत आसता.

आपणाल्या प्रतिभेच्या बळग्यार तो कविता रचता. उत्कटतायेन भरिल्ल्या कल्पनेचें झगझगीत रूपडें म्हळ्यारूच प्रतिभा! बरोवपी बरोंवक लागलो म्हण्टकीत ताका कल्पनेफाटल्यान कल्पना सुचूंक लागतात. पूण बऱ्या साहित्याची निर्मिती करपाक सैमीक आनी कश्टांनी मेळयल्ले कांय गुण आंगांत आसचे पडटात. साहित्याचेर बरोवप्याचो मोग आसचो पडटा. उतरांची सोबीतकाय ताका कळची पडटा. तेच वांगडा ताका तंत्राचेंय गिन्यान आसचें पडटा. जाका भावना वळखुपी काळीज आसता ताकाच कविता कळटा. कवी आपणालें काळीज आपणाल्या हातांत घेवन आपणाली कविता बरयता.

कविता म्हळ्यार कितें हें सांगप तितलें सोपें काम न्हय. कविता म्हळ्यार कितें तें आमकां खबर आसता. पूण कविता म्हळ्यार कितें? अशें कोणेंय विचारीत जाल्यार आमकां सांगपाक कळना. कवितेची व्याख्या जायत्या जाणांनी करपाचो यत्न केला. पूण तें काम तितलें सोपें न्हय. 'कविता म्हळ्यार कलात्मक रीतीन प्रगट केल्ले विचार' अशें लँडर आनी गटे हांचें मत आसा. 'गद्यापरस जी उण्याच उतरांनीं चड अर्थ प्रगट करता ती कविता' अशें वोल्तेर म्हण्टा. 'कविता म्हळ्यार भावनांनी भरिल्ले विचार उक्ते करपाचें साधन' अशें हर्बर्ट स्पेन्सर म्हण्टा. 'मनशाच्या जिविताविशींचे मत उक्तें करपी मोलादीक शस्त्र म्हळ्यार कविता' अशें लुई मॅकनीस हांचें म्हणणें आसा. 'जिविताच्या उत्कट अणभवांक लागून जी भावना निर्माण जाता तिचो आविश्कार म्हळ्यार कविता' अशें एस्. आर्. लायसॉट् सांगतात. 'कल्पकताय आनी भावना हांची भास म्हळ्यार कविता' अशें विल्यम् हॅझलिट्लाकं दिसता. 'बुध्दीक कल्पनेची जोड दिवन सुख आनी सत्य हांचो सोबीत मेळ घडोवन हाडपाची कला म्हळ्यार कविता' अशें मिल्टनाक दिसता.

कवितेची व्याख्या करपाचे भानगडीक पडंनासताना तातूंत भीतर सामके गरजेचे खंयचे गुण वा घटक आसचे पडटात ताचो विचार पयलीं केल्यार चड बरें. कविता हो साहित्याचो मुखेल वाटो अशें मानतात. अेकाद्री गजाल 'काव्यमय' आसा अशें जेन्ना आमीं म्हण्टां तेन्ना ते गजालींत आमकां भावना आनी कल्पना हांचो मेळ जाल्लो पळोंवक मेळटा. कल्पनेच्या आदारान मेळयल्ल्या अणभवांक भावनांची सुरूपाय दिवन कवितेंत जिविताचें गुढ उक्तायल्लें आसता. भावना आनी कल्पना हे कवितेचे दोन मुखेल घटक आसात.

गद्य बरपांत लेगीत भावना आनी कल्पना हे घटक आमकां पळोंवक मेळटात. पूण त्या बरपाक कविता अशें म्हणपाक मेळचेंना. कित्याकतर काव्य ही अेक स्वतंत्र कला आसून ती प्रगट जाता आसताना लय आनी तालान भरिल्ल्या उतरांचो सांगात घेवनूच जल्माक येता.

**कवितेची भास**

कवितेची भास जड आनी परमळीत आसपाक जाय अशें कांय जाणांक दिसता. पूण ही गजाल सारखी न्हय. बरी कविता ही साद्या आनी सोप्या उतरांनी लेगीत जांवक शकता. संवसारांतल्यो कांय गाजिल्ल्यो कविता साद्या आनी सोप्या पूण अर्थाळ अुतरांनी तयार जाल्ल्यो आमकां पळोवंक मेळटात. कवितेंत भावना सुचकतायेन प्रगट केल्ली आसता, ती वर्णन करून सांगिल्ली नासता. कवीक जें कितें सांगपाचें आसता तें ताणें जाता तितल्या उण्या उतरांनी सांगपाक जाय. देखून कवितेंत नाका जाल्लीं अडेचीं उतरां घेवचीं न्हय. कवितेची भास ही उत्फर्क्यांची भास आसपाक जाय. नाकां आशिल्लीं कठीन उतरां कवितेंत वापरलीं जाल्यार भावनांचो जीव फुगार जाता. देखून कवितेची भास जाता तितली रसाळ आसपाक जाय.

हेर खंयच्याय गद्य साहित्यप्रकारापरस कवितेंतली भास वेगळी आसता. गद्य बरपांत भाशेचो वापर हो साधन म्हूण केल्लो आसता. पूण अशे तरेन भाशेचो साधन म्हूण वापर कवितेंत केल्लो नासता म्हूण जे.बी. सात्र हांणीं आपणाल्या "What is literature" ह्या ग्रंथांत गद्यापरस कवितेंतल्या भाशेचें वेगळेपण सांगताना "Poets never utilizes language" अशें म्हळां. हाचो अर्थ असो की गद्य बरपांत भाशेच्या भायलो असो कितेंतरी आशय सांगपाखातीर गद्य बरोवपी भाशेचो चिन्ह म्हूण वापर करता, पूण कवितेंत असो भायलो अर्थ सांगपाखातीर साधन म्हूण भाशेचो वापर जांयना. कवितेच्या अणभवाक भाशीक रचणुकेचें आंग आसना. भास हेंच कवितेचें साध्य आसता. देखून कविता ही चित्र, शिल्प, संगीत ह्या कलांच्या वर्गांत मोडपी अेक कला आसा अशें सात्र हाणीं म्हळां.

Raman Yacobson हाणें 'Linguistic and Poetics' ह्या आपणाल्या फामाद निबंदांत भाशेचीं स कार्यां सांगून कवितेंत भाशेचो जो उपेग करतात ताका 'Poetic use of language' अशें म्हळां. भास ही संदेश वाहन करपी आसता. आनी हे संदेश ज्या उद्दिश्टान संप्रेशित जातात ताचेवेल्यान भाशेचें कार्य थारता. भाशेच्या हेर उपेगांमदीं संदेशाचें उद्दिश्ट भाशेच्या भायर आसता. मात संदेश वाहनाक भायलें अशें खंयचेंच उद्दिश्ट ह्या वेळार नासता. संदेश वाहनाखातीर संदेशवाहन massage for the sake of massage अशेतरेन जेन्ना भाशेचो उपेग करतात ताका याकोबसन हाणीं भाशेचो काव्यात्म अुपेग अशें म्हळां.

कवितेची दुसरी अेक दिसून येवपी विशेशताय म्हळ्यार कवितेक चलत आयिल्ल्या व्याकरणाच्या नेमांचें बंदन लागना. गद्य बरपांत कर्तो, कर्म, क्रियापद हांचो

क्रम मानप गरजेचें आसता. पूण अशेतरेचो क्रम कवितेंत मानप गरजेचें नासता, सगळ्या समाजान वापरिल्ली भास कवीक तयार आसता. पूण भाशेचो चडांत चड परिणामकारक उपेग करपाखातीर कवी चलत आयिल्ल्या व्याकरणाची आनी भाशेचीं बंदनां कांय प्रमाणांत तोडटा. हाका लागून पोरणे नेम मोडप, नवे संकेत तयार करप, नवीं उतरां, प्रतिकां तयार करप हें कवीचे कार्य आशिल्लें दिसून येता.

कवितेंत उतरांच्या वेगवेगळ्या अर्थांचो वापर जाता. जाल्यार केन्नाकेन्नाय उतरांचो पोरणो अर्थ कुशीक काडून कवी त्या उतराक नवो अर्थ लागू करता. कवी सदांच नवीं उतरां तयार करता अशें ना. चलत आयिल्ल्या उतरांचो वापर जरूय कवी करता आसलो तरीय त्या उतरांचें संयोजन अशे रितीन जाता कीं चलत आयिल्ल्या उतराकूच वेगवेगळे अर्थ लागू जातात. देखुनूच कवितेक अेकापरस चड अर्थ लागू जातात.

कवितेच्या उतरांची रचणूक सदांच लय निर्माण करता. मुक्तछंदासारख्या कवितेच्या प्रकारांत लेगीत लय आसता. संवेदनात्मक पावंड्यावयले अणभव साकार करपाकडेन कवितेचो तेंको आसता. हेर गद्य बरपांत अणभवांतल्यान संवेदनांचें आंग चडशें म्हत्वाचें आसनां. पूण तें कवितेभीतर मात म्हत्वाचें थारता. देखून कवी उतरांतल्यांन हो संवेदनात्मक अणभव चडांतचड परिणामकारक रितीन उक्तो करपाचो यत्न करता. कविता अर्थाचे नदरेन सुचकताय निर्माण करता. हाका लागून प्रतिमा, प्रतिकां, रूपकां हे कवितेच्या सुरूपायेचे म्हत्वाचे घटक थारतात.

आर्विल्ल्या काळांतल्या कितल्याश्याच कवी टिकाकारांनी 'प्रतिमा' हीच कवितेची म्हत्वाची विशेशताय म्हूण सांगल्या. C.D. Lewis हाणें "Imagies constant in all poetry and every poem is itself an image." म्हळ्यार दर अेक कविता ही स्वता अेक प्रतिमा आसता अशें म्हळां.

आशयाचे नदरेन विचार केल्यार भावुकताय ही कवितेची सगळ्यांत म्हत्वाची विशेशताय आसता. खंयच्याय मनशाच्या अणभवाची संवेदना, भावुकताय आनी विचार अशीं वेगवेगळीं आंगां आसतात. कवितेंत संवेदना आनी भावुकताय ह्या दोनुय आंगांक विचाराच्या आंगापरस चड म्हत्व आसता. विचारांचो संबंद हो तर्काचे नदरेन आसता देखून कविता ही अतर्कीक विचाराच्या उरफाटी आसा अशें आर्विल्ल्या काळांतले टिकाकार मानतात. कविता जरीय भावुकतायेन भरिल्ली आसली तरीय काव्याच्या अणभवांत विचारांक जागो ना अशें मात न्हय वा कविता म्हळ्यार विचार, तर्क हांच्या उरफाटें पळोवपाची गजाल आसा असो समज सारको थारचोना. खंयच्याय मनशाच्या

अणभवांत व्यक्तिगत आनी भायलें वास्तव हांचो मेळ जाल्लो आसता. भायले वास्तवतायेची फोडणी करता आसतान अणभवांत विचार भरसतात. कवितेंतल्यांन मनशाचे अणभव उक्ते करता आसताना भायलें आनी व्यक्तिगत अशीं दोनुय आंगां ओकजीव जावन येवप गरजेचें आसता. देखून कवितेंतल्या भावुक अणभवांचें ओक आंग म्हूण विचार कवितेंत येंवक शकता. त्या खातीर अणभवांची पोसवण काळजांत जांवची पडटा.

जायते फावट गद्य बरपाक लेगीत आमीं काव्याचे गुण आसल्यार काव्य अशें मानतां. काव्यांत आशय, गुढ अर्थ, उतरांची येवजण, शैली आदीं गजाली म्हत्वाच्यो आसतात. विनोदी कवितांक काव्य म्हणप खूब जाणांक मानवना. हाकालागून 'काव्य' हें अेकूच उतर कितल्याश्याच संदर्भांत वापरलें तरीय बरें काव्य, मध्यम काव्य अशें वेगळेपण जायते जाण करतात. भाशेचो उपेग कशेतरेचो आसा, रूप वा तरा (फॉर्म) खंयची आसा, आशयाचें म्हत्व कितें, बरोवप्याचें व्यक्तिमत्व आनी त्या काव्याचो वटट् परिणाम आदीं सगळ्यो बारीकसाणी मतींत घेवन काव्याचें मोल थारता.

दर अेके कवितेंत खंयचे काव्यगुण दिश्टी पडटात हें दर अेका वाचप्याकूच थारावचें पडटा. कवीक उतरांची रचणूक करता आसताना नाद आनी अर्थ ह्या दोनांचोय बारीकसाणेन विचार करप गरजेचें आसता. अर्थाक म्हत्व आयलें म्हण्टकीत विशयाकूय म्हत्व येता. धाटणी, उतरांची वेंचणूक, बरोवप्याची नदर, काव्याचो जिविताकडेन आशिल्लो संबंद आदीं गजाली निमाणेकडेन विशय वेंचून काडपावेल्यान थारायतात. पयलींचीं सगळीं बंदनां उपेगाविरयत थारावन तांकां कुशीक काडप हें आर्विल्ले कवितेचें मुखेल सुत्र आसा अशें मानचें पडटा. पयलींचे कवितेक वृत्ताचें भान आशिल्लें पूण उपरांत तें वचून मुक्त (फ्री) काव्य आयलें. कांय बरोवप्यांक जाल्यार तें स्वातंत्र्य लेगीत अर्दकुटें दिसपाक लागलें देखून कविता छापता आसताना वेगवेगळे प्रयोग सुरू जाले. इंग्लिशींत आनी हेर युरोपीय भासांनी उतरां तोडून बरवप, शक्य जाता तितलें विरामचिन्हां कुशीक काडून बरवप आदीं प्रकार लोकांमोगाळ जातात. ते प्रकार आतां भारतीय भासांनी लेगीत आयल्यात. देखून वाचप्याचेर काव्याचो जावपी परिणाम कसले तरेचो आसता हें सांगप कठीन जाता.

काव्याचो आंवाठ, लांबी, विशयाची वेंचणूक आदीं गजालींवेल्यान म्हाकाव्य, खंडकाव्य, आर्विल्लें काव्य, भावगीत अशे तरेचे प्रकार थारतात. तशें पळोंवक गेल्यार भावगीत हेंच खरें काव्य आसा. काव्यांतले सगळे हालींचे प्रयोग, सगळ्यो व्याख्या आदीं गजालींची बारीकसाण हेच नदरेचेर आदारून रावता. जायते तत्वगिन्यानी लेगीत हीच नदर बाळगीतात. पूण काव्य हें अेकूच उतर कितल्याश्याच संदर्भांत वापरलें तरीय

कवितांचे कितलेशेच प्रकार आसतात. हातूंत भावगीत (Lyric), सुनीत (Sonnet) आदीं तरांचो आस्पाव जाता. सगळें काव्य पुरायतेन 'Lyrical' केन्नाच आसना. ही शब्यताय फक्कत ज्या काव्याक 'Pure poetry' वा 'Hypnotic Poetry' म्हण्टात त्या काव्याक लागू जाता.

घड करून सगळ्याच भासांतली सुरवातीचीं म्हत्वाचीं काव्यां हीं म्हाकाव्यां (Epics) आसात. जायत्या युरोपीय भासांविशीं ही गजाल म्हत्वाची आसा. पूण संस्कृतांतले वेद हे Epic काच्या स्वरूपाचे नासून चडशे Lyrical आसात. रामायण आनी म्हाभारत हीं मात खरीं म्हाकाव्या आसात. तेचप्रमाण ज्ञानेश्वरी वा तेपयलींची कविता Epic ह्या प्रकारांत बसना. म्हाकाव्यांत पुराणकाळांतले देव, नामनेचे वीरपुरूष, सामाजीक आनी राजकीय परिस्थिती–चड करून म्हायुध्दां आदीं गजालींक लागून तांचो आंवाठ कांयवेळा खुबूच व्हड आसता. म्हाभारताची देख हे नदरेन पळोवपासारखी आसा.

हालींच्या काळार म्हाकाव्य, लांबदीक काव्य असल्यो कवितेच्यो तरा फाटीं पडल्यात. हाका कितलींशींच कारणां आसात. अेक मुखेल कारण म्हळ्यार तसलें काव्य निर्माण करपाची शक्त आशिल्ले कवीच हालीं नांत अशें मानचें पडटलें. आर्विल्ले कवितेंचे रूप इल्लें–इल्लें बदलत चल्लां. तें तशेंच बदलत रावलें जाल्यार कवितेक खंय पावयत सांगपाक नजो.

## <u>कादंबरी</u>

कादंबरी हो साहित्यप्रकार खुबूच लोकांमोगाळ आसा. हालींच्या काळार लोकांक वाचपाची उमेद आसून लेगीत चड मेकळो वगत मेळना देखून हालीं लघुकथा वा ललितनिबंदासारखे साहित्यप्रकार लोकांक चड मानवतात. अशें आसलें तरीय वाचप्यांची कादंबरीची ओड अिल्लीय उणी जांवक ना. साद्या वाचप्यांसावन समीक्षकांमेरेन कादंबरी सगळ्यांकूच आवडटा.

कादंबरेचो जल्म जावचेपयलीं म्हाकाव्य, खंडकाव्य, पुराणकथा, दंतकथा, लोककथा, नीतिकथा, प्रवासकथा आदी कथात्मक साहित्यप्रकार अस्तित्वांत आशिल्ले. कांदबरी ह्या साहित्यप्रकाराचो कथात्मक साहित्यांत आस्पाव जाता. देखुनूच कथात्मक साहित्याच्या दायजाकडेन आशिल्लें ताचें नातें पुरायतेन तुटूंक ना. शेकड्यांनी वर्सांसावन चलत आयिल्ल्या कथात्मक साहित्याकडल्यान कादंबरेन जें आपणायलां आनी नव्यो जाणविको जावन जें नवे तयार केलां तातुंतल्यांनूच कादंबरेचें रूप घडलां. कादंबरेचो संवसार पयलींच्या कथात्मक साहित्याभशेन कल्पीत आसलो तरीय ताका लावपाचीं परिमाणां

वेगळीं आसतात. आयज जिका आमीं कादंबरी अशें मानतां ती कादंबरी वास्तविकतायेन भरिल्ली आसता. कादंबरेचो मुखेल हेत मनशाच्या जिविताचें दर्शन घडोवप आसना, जाल्यार साद्या (सामान्य) वाचप्यांच्या मनरिजवणेचें अेक साधन हे नदरेन कादंबरेची निर्मिती जाता. हाकालागून रंजक साहित्याच्या निर्मितीफाटली प्रेरणा आनी असले तरेच्या कादंबरेच्या निर्मितीफाटली प्रेरणा हातूंत वेगळेपणां आसनांत.

**कादंबरेची व्याख्या :**

इंग्लिशेंतलें 'नॉव्हेल' म्हळयारूच कोंकणीतली 'कादंबरी'. साहित्यीक उतरावळीचो अर्थ स्पश्ट करपी इंग्लिश शब्दकोशांनी 'नॉव्हेल' (कादंबरी)च्यो जायत्यो व्याख्या दिल्यात. पूण हातूंतली अेकूय व्याख्या कादंबरेक सारखी वरी लागू जांयना. कादंबरेच्यो ज्यो वेगवेगळ्यो व्याख्या हांगा पळोंवक मेळटात तांचे सार सादाराण अशें आसा :-

१. कादंबरी हें कथात्मक गद्य बरपाचें खूब लांबाय आशिल्लें रूप आसा. कादंबरी म्हळी म्हण्टकीत तिका लांबाय आसचीच पडटा, ते वगर ती कादंबरी अशी दिसपाची ना.

२. कादंबरेंत कथानकाक वा निवेदनाक म्हत्व आसता.

३. कादंबरेंत येवपी विशयांची वर्गवारी निश्चित करपाक मेळना.

४. लघुकथा आनी लघुकादंबरी हांचेपरस कादंबरी मनशाच्या जिवित–वेवहाराचें दर्शन चड प्रमाणात घडोवंक शकता. कित्याकतर तिचो आंवाठ हेर साहित्यप्रकारांपरस व्हड आसता.

५. कादंबरेंत घडणुको, पात्रां, वातावरण आदीं घटकांच्या आदारान मनशाच्या जिविताकडेन संबंधीत आशिल्ल्या वास्तवतायेच्या वेगवेगळ्या थरांवेल्यान रुपांचें दर्शन घडोंवक मेळटा. त्या खातीर, सामान्यपणान थळ आनी काळाचो व्हड प्रमाणांत उपेग केल्लो आसता.

लयबध्द उतरांची रचणुक ही कवितेची अेक विशेशताय आसता, वा माचयेकडेन संबंधीत आशिल्ल्यान नाटकाच्या घडणुकेंत जशी स्वताची अशी अेक शिस्त दिसून येता, तशी विशेशताय कादंबरेंत दाखोंवक मेळना. तिच्यो विशेशतायो म्हाकाव्य, नाटक, आत्मचरित्र ह्याय साहित्यप्रकारांत दिसून येतात. देखुनूच कादंबरेक जिस्त लागू जायसारखी व्याख्या सिध्द करूंक मेळना.

नाटकाक वा कथेक आसता तशें लांबायेचें बंदन कादंबरेक आसना. ती कितलीय विस्तारीत आसूंक शकता. तेचवांगडा कादंबरेंत कितलींय पात्रां, कितलेय प्रसंग चितारूंक मेळटात. पूण ह्या मेकळेपणाचो फायदो तिणें कसोय घेवपाक फावोना.

'जिविताचें कलात्मक आनी विस्तारीत गद्य–चित्रण म्हळ्यार कादंबरी' ही व्याख्या कादंबरेक हेर व्याख्यांपरस चड लागू जाता. कित्याकतर कादंबरेंत आमकां जिविताचें कलात्मक चित्रण पळोंवक मेळटा. तेचवांगडा कादंबरी ही जातातितल्या विस्तारान मांडिल्ली आसता.

**कादंबरेचे घटक :**

पात्रां, कथानक आनी वातावरण हे कादंबरेचे तीन मुखेल घटक आसात. कादंबरेचो विचार करता आसताना वयल्या तीन घटकांवांगडाच निवेदन ह्या मुखेल विशेशतायेचोय विचार करचो पडटा. कित्याकतर खंयच्याय कथात्मक साहित्याचें निवेदन हें मुखेल लक्षण आसता. पात्रां, कथानक आदीं घटक खंयच्या स्वरूपांत कादंबरेंत येवचे वा खंयचे रितीन बरोवप्यान ह्या घटकांचे चित्रण कादंबरेंतल्यान करचें हेविशीं थारायल्ले अशे कांयच नेम सांगपाक मेळनांत. तशें पळोंवक गेल्यार पात्रां, कथानक आनी वातावरण हे अेकामेकासांवन वेगळे अशे घटक नांत तर फक्कत अभ्यास करपाक सोपें जांवचें म्हूण तांचो वेगळो विचार करचो पडटा. कादंबरेचें विश्व हें मनशाचें जिवीत–विश्वूच आसता. मनीस जे परिस्थितींत रावता ती परिस्थिती आनी मनशाचें कतृप ह्यो घडणुको वेगवेगळ्यो म्हूण कादंबरी पळयना देखुनूच तिचे सगळे घटक अेकामेकांकडेन नातें जोडून रावतात.

कथानकाचो विचार केलो जाल्यार कथानक हें घडणुको आनी प्रसंग हाणीं भरिल्लें आसता आनी घडणुको, प्रसंग म्हळ्यार मनशांनीच घडयल्लें कार्य आसता. देखून मनीस आनी कथानक हे दोनूय घटक अेकामेकावांगडा जोडिल्ले आसतात. मनशाचें चित्रण करता आसताना तो जे भायले परिस्थितींत वावुरता ते परिस्थितीचें चित्र लेगीत आपशींच कादंबरेंत येता. देखून वातावरण हो घटक लेगीत मनीस ह्या घटकाकडेन जोडिल्लो आसता. तेन्ना कादंबरेच्या वेगवेगळ्या घटकांचो विचार हो फक्कत अभ्यास करपाक सोपे जांवचें म्हूण वेगळेपण आपणावचें पडटा.

**कथानक :**

कादंबरी ही कथात्मक साहित्याची अेक तरा आशिल्ल्यान 'कथानक' हो कादंबरेचो म्हत्वाचो घटक मानचो पडटा. कांय टिकाकार म्हण्टात ते प्रमाण खंयचेय कादंबरेक अेक कथा आसची पडटा आनी वेगवेगळ्या घडणुकांनी आनी प्रसंगांतल्यान ह्या कथेची उदरगत जाल्ली आसता.

E. M. Forster हाणीं 'Aspects of the Novel' ह्या पुस्तकांत 'story' आनी 'plot' (गजाल आनी कथानक) अशीं वेगळेपणां केल्यांत. ह्या वेगळेपणाची

फोडणी करताना E. M. Forster म्हण्टा"The king died and then the queen died, is a story, but the king died and then the queen died in grief, is a plot." हाचेवेल्यान फक्कत अेका फाटल्यान अेक ह्या क्रमान येवपी घडणुको कादंवरेंत म्हत्वाच्यो नासून तातुंतल्यो घडणुको ह्या अेकामेकांकडेन कार्याच्या रितीन वा हेर खंयच्यातरी संबंदान जोडिल्ल्यो आसूंक जाय. दोन घडणुकांच्या असल्या संबंदांक लागून सुरवातीसावन निमाणेमेरेन कादंबरेक अेक सलग कथानक लागू जाता. कादंबरेचें हें कथानक कशें आसचें हे विशीं कितल्याश्याच बुदवंतानी आपणालीं मतां मांडल्यांत.

ॲरिस्टॉटलाच्या मतान कथानकाच्यो तीन नितळ अवस्था आसूंक जाय. त्यो म्हळ्यार कथानकाचो आरंभ, मध्य आनी शेवट. कथेचो आरंभ कसो आसचो हे विशी निश्चितपणान कांयच सांगपाक मेळना. पूण वेगवेगळे बरोवपी वेगवेगळे रितीन कथानकाची सुरवात करूंक शकतात. कथानकाचो आरंभ हो जायत्यावेळा कादंबरेच्या कथाविश्वाची वळख करून दिवपी आसता. कादंबरेच्या मदल्या वाट्यांत अशे तरेन कथानकाचो घुस्पागोंदळ वाडिल्लो आसता तो निमाणेकडेन खंयच्यातरी दिकेन चलूंक लागता आनी कथेची पुराय वेवस्था कादंबरेच्या निमाणेकडेन दिसता.

कादंबरी ही वाचप्याचें मनरिजवण करपी कथेची तरा आसा अशें मानून बरोवपी पात्रांच्या चित्रणापरस कादंबरेंतल्या कथानकाक चड म्हत्व दितात. वाचप्याच्या मनाचो थाव घेवपी कथानक तयार करप हें अशे तरेच्या बरोवप्यांचें म्हत्वाचें उद्दिश्ट आसता. देखुनूच वाचप्यांची आवड, उत्सुकताय वाडोवपी गुढपणां ही कथानकांत आसची पडटात अशी भुमिका घेवन सुरवातीसावन कादंबऱ्यो बरयल्ल्यो पळोंवक मेळटात.

E. M. Forster हाणीं लेगीत वाचप्यांची उत्सुकताय वाडोवप हें कादंबरीकाराचें म्हत्वाचें उद्दिश्ट मानलां. मुखार कितें घडटलें हो प्रस्न वाचप्यांच्या मनांत उत्सुकताय निर्माण करता तेंच बरें कथांनक आसा अशीय अेक कल्पना दिसून येता.

कादंबरेच्या मुखेल कथानकावांगडाच तातूंत उपकथानकां लेगीत आसतात. मुखेल कथानक हें गंभीर स्वरूपाचें आसलें जाल्यार वाचप्याचो ताण उणो करपाखातीर उपकथानकां तयार केल्लीं आसतात. देखीक 'War and peace' हे कादंबरेंत आमकां अशेतरेचीं कितलींशीच उपकथानकां पळोंवक मेळटात.

**पात्रां वा सभावचित्रण :**

कादंबरेंत पात्रां आनी सभावचित्रणाक खूब म्हत्व आसता. मनरीजवण करपी

कादंबऱ्यो कथानकाचेर चड भर दितात जाल्यार जिविताचें दर्शन घडोवपी कादंबऱ्यांत कथानकांतल्या सभावचित्रणाक चड म्हत्व दिल्लें आसता. कादंबरेंत ज्या पात्रांचे चित्रण आसता तीं पात्रां वास्तवांतलींच आसतात, पूण तातूंत कल्पनानिर्मिती आसता. कादंबरेंतलीं पात्रां तयार करता आसताना कादंबरेकार खरेल्या अेक-दोन पात्रांचें वर्णन तयार करता. तशेंच कादंबरेंत अेकाद्रें नवें पात्र घडयता.

हालींच्या कादंबऱ्यांनी सभावचित्रणां वरे तरेन रंगोवपावसल्यान बरोवप्यांचो तेंको दिसता. ते खातीर मनीस बरो वा वायट अशी अेक बंदिस्त कल्पना सभावचित्रण करता आसताना लागू जाता. सभावचित्रण उठून दिसचें म्हूण भायलें चित्र दाखोवपावसल्यान कादंबरेकाराचो चड तेंको आसता. मनशाचो सभाव कसो आसा हें बरोवप्यान सांगपापरस ताणें केल्ल्या कार्यांतल्यांन त्या मनशाच्या सभावाचें दर्शन घडटा. ही बऱ्या सभावचित्रणाची अेक तरा आसा अशें मानतात.

E. M. Forster हाणीं कादंबरेंतल्या पात्रांचें Flat characters and Round characters अशें वर्गीकरण केलां. कादंबरेंतलीं कांय पात्रां तांचे सभाव प्रसंगाप्रमाण बदलतात तीं गतीशील पात्रां (Round characters) आसात. हाचे उरफाटें ज्या पात्रांच्या सभावांत कादंबरेच्या सुरवातीसावन निमाणेमेरेन बदल घडून येना तीं पात्रां स्थितीशील (Flat characters) आसात.

**निवेदन :**

निवेदन हें खंयच्याय कथात्मक साहित्याचें मुखेल आंग आसता. खंयचीय कादंबरी ही कितेंयतरी अेक कथा आसता आनी ती सांगपी कोणुयतरी अेक आसता. कोणाच्या तरी माध्यमांतल्यांन सांगप ही कथेची मुखेल विशेशताय आसता. हाकाच इंग्लिशींत Mediasay अशें म्हण्टात.

कथा सांगपी निवेदकाचें कादंबरेंतल्या कथाविश्वाकडेन कसलें नातें आसा? म्हळ्यार निवेदक हो कथाविश्वाच्या भायर, कथाविश्वाच्या भीतर वा शीमेर हातूंतल्या खंयच्या जाग्यार आसा, तशेंच बरोवपी निवेदनाच्यो खंयच्यो खंयच्यो रिती आनी विशेशतायो वापरून कथा सादर करता, वाचप्याकडेन कितल्या प्रमाणात नातें जोडटा ह्यो सगळ्यो गजाली निवेदन पध्दतींत वापरपाच्यो आसतात. कादंबरेंत कितल्याश्याच निवेदनांचो, वेगवेगळ्या तरांचो आनी पध्दतींचो वापर केल्लो दिसून येता. निवेदनाचे प्रथमनिवेदन आनी तृतियनिवेदन हे दोन मुखेल प्रकार आसता. कादंबरेंतलें अेकाद्रें पात्र निवेदकाची भुमिका घेवन कथा सांगता ती प्रथमनिवेदनाची रीत. केन्नाय हें पात्र नायकाभशेन मुखेल पात्र आसता जाल्यार केन्ना तें वेगळेंच पात्र आसूंक शकता.

प्रथमनिवेदन पध्दतीच्या कादंबरेंत असल्या पात्राक अणभवपी आनी निवेदन करपी अश्यो दोनूय भुमिका करच्यो पडटात. प्रथमनिवेदन पध्दतीचो उपेग अेकाद्रया पात्राच्या भितल्ल्या सभावगुणांचे दर्शन घडोवपाखातीर बरेतरेन जाता. हाचे उरफाटें तृतियनिवेदन पध्दत ही वास्तवतायेचें जशाकतशें आनी अेकलेपणान चित्रण करपाक चड उपेगी थारूंक शकता. कांय कादंबऱ्यांनी भोवपात्र निवेदनाची रीत वापरिल्ली पळोंवक मेळटा. देखीक मराठींतली खांडेकराली 'ययाती' ही कादंबरी घेंव येता. असले कादंबरेंत कितलीशींच पात्रां आसून कितल्याश्याच पात्रांच्या वतीन कथानक सांगतात. अेकाच अणभवाकडेन वेगवेगळे नदरेन पळयतात. हाकालागून अेकाद्रें निवेदन परत जावपाची भिरांत असल्या निवेदन पध्दतींत आसूंक शकता.

कांय बरोवपी निवेदनाखातीर चिठयेच्या रूपाची रीत वा दिपटयेची रीत असल्या वेगवेगळ्या कल्पनांचोय वापर करतात. निवेदनाचें आनीक अेके वेगळे नदरेंतल्यांन वर्गीकरण करूंक मेळटा. तें म्हळ्यार सर्वसाक्ष पध्दतीचें निवेदन आनी दर्शनात्मक निवेदन.ह्या वेगळेपणाकूच इंग्लिशींतल्या अेका कादंबरेच्या अभ्यासकान Telling आनी showing अशीं उतरां वापरल्यांत. पुर्विल्ल्या काळांतले कादंबरेकार सर्वसाक्ष निवेदनाची भुमिका घेवन तशेंच वाचप्याक विस्वासांत घेवन कथा सांगताले. पूण निवेदनाविशींची ही कल्पना ल्हवू-ल्हवू फाटीं पडून दर्शनात्मक रितीन निवेदन करपाचेर हालीं चडशे कादंबरीकार चड भर दितात अशें दिसून येता. निवेदनाच्या पध्दतीचो बरेतरेन वापर करप हें कादंबरेच्या जैताच्या नदरेन म्हत्वाचें थारता.

**वातावरण :**

सैमाचीं वर्णनां, दिसरात आदीं काळाचो संबंध आशिल्ल्या वातावरणाची निर्मिती ह्यो गजाली कादंबरेच्या वातावरणाचो अेक वाटो आसतात. देखीक प्रादेशीक कादंबरेंत सैमाचें वर्णन हो अेक म्हत्वाचो घटक आसा. केन्नाकेन्नाय फक्कत वाचप्यांच्या मनाची रिजवण करपाखातीर सैमाचीं वर्णनां करतात. पात्रांच्या मनाचेर परिणाम करपी चित्रण करपाखातीर वा अेकाद्रया प्रसंगाची परिणामकताय वाडोवपाखातीर वातावरणनिर्मिती करतात. अशेतरेन वातावरणाचें चित्रण हो कादंबरेचो अेक म्हत्वाचो घटक थारता.

कादंबरेंतलीं पात्रां हीं खंयच्यातरी अेका वेगळ्याच परिस्थितींतल्यांन आयिल्लीं आसतात. हाकालागून पात्रांच्या जिवितांतल्या घडणुकांचें वर्णन करताना ह्या परिस्थितीचें चित्रण लेगीत कादंबरेंत आपशींच येता. पूण अणभवाची परिणामकताय वाडोवपाखातीर मनशाभोंवतणच्या वातावरणाचें सभावीक चित्रण करप कादंबरेच्या नदरेन गरजेचें आसता. देखून कादंबरेंत वातावरण निर्मितीक म्हत्व आसता.

नाटक हो कवितेभशेनूच खूब पोरणो साहित्यप्रकार आसा. नाटकाक फक्कत साहित्यप्रकार म्हणपाक मेळचेंना. तो अेक कलेचो प्रकार आसून उतरांच्या माध्यमापरस अभिनयाच्या माध्यमांतल्यांन ताचें प्रगटीकरण जाता. साहित्यीक मोलावांगडाच नाटकाचें प्रयोगमोल लेगीत म्हत्वाचें आसता. माचयेवेल्या सवंगाच्या अभिनयांतल्यांन आनी उलोवपांतल्यांन सामकार अेकठांय जाल्ल्या लोकांक सांगिल्ली कथा म्हळ्यार नाटक. हे व्याख्येवेल्यान नाटक हें फक्कत साहित्य नासून ताचें प्रायोगिक आंग चड म्हत्वाचें आसा अशें दिसून येता. हाकालागून नाटक ही बरोवप्याची अेकट्याची निर्मिती उरना जाल्यार ती चड जाणांची निर्मिती जाता. देखुनूच नाटक हो सामाजीक भांडवलाचेर चलपी धंदो आसा. नाटकाच्या ह्या वेगळ्या रुपाक लागून कांय सामर्थ्यां ताका लागू जातात. तेचवांगडा कांय मर्यादाय लागू जातात. नाटक माचयेवेल्यान सादर करतात हाचो अेक महत्वाचो फायदो असो कीं प्रत्यक्ष कृतीच्या वतीन लोकांच्या सामकार तें येता हाका लागून ताच्या आशयाचो पळोवप्यांक अेकदम सुवाद घेवपाक मेळटा. हाकालागून हेर खंयच्याय साहित्यप्रकारापरस नाटक चड परिणामकारक जाता. हेर साहित्यप्रकारांचो अेका वगतार अेकूच वाचपी सुवाद घेंवक शकता. पूण नाटकाचो सुवाद अेकाच वगतार हजारांनी लोक घेंवक शकतात.

हेर साहित्याच्यो तरा हातळप्यांक जायती मेकळेसाण आसता, पूण नाटककाराक कांय शिममेरो सांबाळच्यो पडटात. हाकालागून ताचे स्वतंत्रतायेक कांय बंदना पडटात. नाटक हें जरीय कथात्मक आसलें तरीय़ तातूंत निवेदनाचो वापर करूंक मेळना. नाटक हें मुखेलपणान संवादांतल्यानूच सादर करचें पडटा. देखून कथेची वाड करपाखातीर कांय कुरवो नाटककाराक हुशारकायेन नाटकांत पेलून दवरच्यो पडटात. माचयेचीं तंत्रां बद़लत गेलीं म्हण्टकीत सुरूपाय लेगीत बदलता.

**नाटकाची व्याख्या :**

नाटक ही अेक स्वतंत्र कला आसून हेर कलांपरस तिची सुरूपाय वेगळी आनी विशेशतायेन भरिल्ली आसता. नाटकाच्यो जायत्या जाणांनी व्याख्या केल्यात त्यो पळोवपासारख्यो आसात. ''खाशेले गजालीची जशाक–तश्शी नक्कल म्हळ्यार नाटक'' अशें अेका काळार मत आसलें. रोमन बरोवपी सिसरो हाच्या मताप्रमाण "Drama is a copy of life, a mirror of custom, a reflection of truth" अेवरोपांत कांय शेकडे ह्याच विचाराक धरून नाटकावसल्यान पळयताले.

बोमार्शे हाच्या मताप्रमाण ''नाटक म्हळ्यार वेगळें कांयच नासून तो खासा

जिविताचो नितळ फोटोच आसता.'' पूण खीणभर विचार केल्यार हें मत आमकां पटपासारखें ना. खासा जिवीत आसा तशें नाटकांत रंगोवन कांयच फायदो ना. कित्याकतर नाटककार हो अेक कलाकार आसता आनी तो कलेचो वापर नाटकांत करता.

नाटक ही अेक कला आसा असो विचार सगळ्यांत पयलीं व्हिक्टर ह्यूगो हाणें नेटान मांडलो. जर नाटकाक ''खासा जिविताचें पडबिंब दाखोवपी हारसो'' अशें म्हळें जाल्यार तो सादोसुदो हारसो न्हय अशें ताचें मत आसा. नाटक म्हळ्यार कसलेतरेचो हारसो हें सांगता आसताना तो मुखार म्हण्टा – "The drama, therefore, must be a focussing mirror, which, instead of making weaker, collects and condenses the coloured rays, which will make of a gleam a light, of a light a glame. Then only is the drama worthy of being counted an art."

कोलरिज हाच्या मताप्रमाण "The drama is not a copy, but an imitation of nature" ही व्याख्या नाटकाक खूब प्रमाणांत लागू जाता. कित्याकतर नाटकांत अेकाद्रें चित्र इतले उत्कटतायेन आनी भावनात्मक रितीन चितारिल्लें आसता, की तसलें चित्र खरेपणान आमीं पळयलें जाल्यार तें वयलेवयर दिसतलें. म्हळ्यारूच खरेपणान जी उत्कटताय अणभवपाक मेळना ती नाटकांत पळोंवक मेळटा.

ब्रून्तिएर (Brunetiere) हाच्या मताप्रमाण 'जातूंत बळादीक इत्साशक्तींचो संघर्ष दाखयल्लो आसता तें नाटक'. पूण ही व्याख्या नाटकावांगडा हेर साहित्यप्रकारांक लेगीत लागूं जांव येता. अेकाद्री घडणूक खळबळ मातोवपी, नवलांनी भरिल्ली आनी मात्शी नवेच तरेची आसली जाल्यार आमी ते घडणुकेक 'नाट्यपूर्ण' अशें म्हण्टां. नाटकांत 'नाट्य' आसता वा 'नाट्यान' भरिल्ल्यो घडणुको आसतात. 'नटांनी' करून दाखयल्ली, मन ओडून घेवपी आनी सोबीत काणी म्हळ्यार नाटक' अशीय नाटकाची व्याख्या करपाक जाता. हे व्याख्येंत आमकां नाटकाचे सगळे घटक पळोंवक मेळटात. माची, पळोवपी, अभिनय, संवाद, संघर्ष आदीं घटकांचो आस्पाव हे व्याख्येंत जाता.

ॲरिस्टॉटल जें नाटकाविशीं अेकवटाचें तत्व (The Doctrine of three unities) मांडलां तें पळोवपासारखें आसा. ताच्या मतान नाटकांत तीन अेकवट आसपाक जाय. ते म्हळ्यार काळाचो अेकवट (Unity of time), थळाचो अेकवट (Unity of place) आनी घडणुकांचो अेकवट (Unity of action) सादपाक जाय असो ॲरिस्टॉटलाचो हट्ट आसा.

**नाटकाचे मुखेल घटक :**

**१. संघर्ष :**

दर अेका नाटकाच्या कथानकांत कसलो तरी संघर्ष आसपाक जाय. हो संघर्ष दोन पंगडांमदलो, दोन मनशांमदलो वा दोन मनांतलोय आसूंक शकता. विरोध हें नाटकाचें अेक मुखेल आंग आसा. सगळ्यांत पयलीं नाटकाच्या कथानकाची मांडणी संघर्ष तंत्राचेर करची पडटा. नाटकाच्या कथानकांत सत आनी असताचें झगडें, दोन पक्षांची दुस्मानकाय दाखोंवक जाय. नाटकांत वाटो घेवपी मनशांचेय दोन वाटे जातले. तेचभशेन नाटकाची सुरवात आनी शेवट हातूंत लेगीत विरोध दिसून येवपाक जाय. नाटकाची सुरवात खोशयेन जाली जाल्यार ताचो शेवट दुख्खी वा दुख्खांन भरिल्लो आसपाक जाय. जाल्यारूच नाटक चड परिणामकारक जाता.

**२. संवाद :**

नाटकांत संवादांक खूब म्हत्व आसता. गावपांत जितलें सुरांक म्हत्व आसता तितलेंच नाटकांत संवादांक म्हत्व आसता. संवादाच्या आदारान नाटककाराक आपणालें नाटक आकर्शक करचें पडटा. नाटकांतले संवाद सारखे आसले जाल्यार अभिनय आनी हेर गजाली आपशींच जुळून येतात.

संवादांचो नाटकात दोन तरांनी उपेग करूंक जाता. अेक म्हळ्यार संवादांतल्यांन कथानकाची वाड दाखोंवक मेळटा. आनी दुसरें म्हळ्यार संवादांतल्यांन आपशींच सभावदर्शन घडटा. नाटकांतले संवाद फक्कत भासाभास आनी चिकित्साय करपाखातीर आसनांत. हुशार नाटककार सभावदर्शनाखातीर आनी कथानकाच्या वाडीखातीर संवादाचो वापर करता. त्याखातीर नाटकांतले संवाद सादे, सोपे आनी सदांच्या उलोवपांतले आसपाक जाय. त्या खातीर नाटककाराचें भाशेचेर प्रभुत्व आसप सामकें गरजेचें.

नाटकांतलो नट अभिनय आनी नाटकाची सोबितकाय संवादांच्या माध्यमांतल्यांन प्रगट करता. देखुनूच भितरल्या पात्रांक आडखळंनासताना उलोंवक येतात अशेच सोपे संवाद आसप गरजेचें. संवादाचीं वाक्यां व्हडलीं-व्हडलीं आसचीं न्हय. तेच भशेन संवादांत नाकां आशिल्ले अळंकार वापरचे न्हय. काव्याची भासूय नाकां थंय वापरची न्हय. जी भास नटांक इल्लेय कश्ट करींनासताना पचोंवक जाता, जी भास उलयता आसताना ताका त्रास जांयनांत आनी आयकुप्याकूय ते कठीन लागनांत अशेच संवाद वापरचे.

**३. माची :**

जायते वाचपी अेकाद्रें नाटकाचें पुस्तक घरांत बसून वाचतात. पूण खरें नाटक

हें वाचपाखातीर आसना. ताचो प्रयोग माचयेर जांवचो देखून तें बरयतात. नाटक आनी माची हांचो न तुटपासारखो संबंध आसा. अेकाद्रें नाटक सगळ्या गुणांनीं उजवें आयून लेगीत ताका प्रायोगीक मोल नासत जाल्यार ताका नाटक म्हणूंक जांवचेनां.

कादंबरी जशी अेकोडोच बसून वाचपाखातीर आसता, तशें नाटक हें नाटकघरांत बसून पळोवपाखातीर आसता. नटांची मदत घेवन माचयेर येवपाखातीर नाटकाचो जल्म जाल्लो आसता. जें नाटक माचयेर सादर करपासारखें नासता तें 'नाटक' हे पदवेक पात्र थारनां.

## ४. सभावदर्शन :

नाटक बरें जातलें जाल्यार बरोवप्यान सभावदर्शन बरेतरेन घडोवपाक जाय. सभावदर्शनाखातीर कादंबरीकाराक आपणाली लेखणी जायतशी वापरूंक मेळटा. पूण नाटककाराक असली मेकळीक आसनां. नाटक बरें जातलें जाल्यार नाटककाराक सगळ्योच गजाली तकली जाग्यार दवरून करच्यो पडटात. जो नाटककार कादंबरेचें तंत्र नाटकाखातीर वापरता ताचें अपेस हें थारिल्लेंच आसता.

नाटकाचें खरें जैत भडक प्रसंगांपरस सभावदर्शनाचेर चड आदारून आसता. नाटक सोपल्या उपरांत लेगीत नाटकांतलीं पात्रां नाटक पळयतल्याच्या तकलेंत जेन्ना बसून रावतात तेन्ना त्या नाटकांतलें सभावदर्शन बरें जालां अशें समजुचें. नाटककारान नाटकाची रचणूक सुटसुटीत बरी करपाक जाय. कादंबरेभशेन ती लांबोंवक जांयना.

## नाटकाचे मुखेल प्रकार :

सुखांतिका आनी दुख्खांतिका हे नाटकाचे दोन मुखेल प्रकार आसात. इंग्लिशींत तांकां अनुक्रमान 'कॉमिडी' आनी 'ट्रॅजिडी' अशें म्हण्टात. त्या भायर नाटकांचे आनीक दोन उथळ प्रकार आसात, ते म्हळ्यार 'मेलोड्रामा' आनी 'फार्स'. 'मेलोड्रामा' हो दुख्खांतिकेभशेन जाल्यार 'फार्स' हो सुखांतिकेभशेन आसता.

'कॉमिडी' आनी 'ट्रॅजिडी' हातूंतलें वेगळेपण समजून घेता आसताना 'सुखान्त' आनी 'दुख्खांत' ह्या उतरांचो व्हडलोसो उपेग जांयना. 'कॉमिडी' चो शेवट खोशयेंत जाता हें खरें, पूण 'ट्रॅजिडी'त नायकाचें मरण दाखोवपाकूच जाय अशें ना. ह्या दोन नाटकांच्या प्रकारांतलें वेगळेपण वळखुपाचें तें तांच्या परिणामावेल्यान, भायले सुरूपायेवेल्यान न्हय. ट्रॅजिडी आमच्या काळजांतल्यो भावना जागयता, जाल्यार कॉमिडी ल्हवूच भावनांक कातकुल्यो करता. ट्रॅजिडीचो मनाचेर खर परिणाम जाता, जाल्यार कॉमिडी ही मनाक ल्हवूच चिमटो काडटा. ट्रॅजिडी काळजाक पिवळ घालता, कॉमिडी मनांत खुशालकाय हाडटा. अशेतरेन अेकाद्रया नाटकाचो परिणाम कसो आनी कितलो जाता ताचेवेल्यान

'ट्रॅजिडी' आनी 'कॉमिडी' हांची सुरूपाय कळून येता.

'ट्रॅजिडी' आनी 'कॉमिडी' ह्या दोनुय प्रकारांत संघर्ष आसता. संघर्षाबगर नाटक जांयना. सुखान्त नाटकांत व्यक्ति आनी समाज हांचेमदलो संघर्ष दाखयल्लो आसता. आनी तातूंतल्यानं हांसो तयार जाता. पूण 'ट्रॅजिडींत' भायल्या संघर्षावांगडाच मनांतलोय संघर्ष म्हत्वाचो आसता. कॉमिडी आनी ट्रॅजिडी ह्या दोनूय नाटकाच्या प्रकारांत भितरल्या पात्रांक संघर्षावांगडाच झगडचें पडटा. पूण कॉमिडीत मुखेल पात्रां ह्या संघर्षाचेर जैत मेळयतात, जाल्यार ट्रॅजिडींत संघर्ष तांकां चेपून उडयता. अशेतरेन ह्या दोनूय प्रकारांत आमकां वेगळेपण पळोंवक मेळटा.

पुर्विल्ल्या काळार भारतीय भासांनी नाटकां आशिल्लीं. भारत देस नाटकांखातीर फामाद आशिल्लो. पूण दुख्खांतिकेचो जल्म भारतांत जांवक शकलोना. दुख्खांतिका इंग्लिश भाशेंतल्यांन भारतीय भासांत आयली. संस्कृत भाशेंन शाकुंतल सारखीं कितलींशींच नाटकां आशिल्लीं. अशे तरेचीं नाटकां म्हळ्यार उंच पावंड्याच्यो दुख्खांतिका जांव येताल्यो पूण ह्या नाटकांचो शेवट सुखांत केल्लो आमकां पळोंवक मेळटा. हाका जायतीं कारणां आसात. तातुंतलें मुखेल कारण म्हळ्यार त्या काळार माचयेर मरण दाकंय नाशिल्लें. मरण म्हळ्यार कितेंतरी अपशगूण अशें मानतालें.

सुखांतिकेपरस दुख्खांतिका पळोवप्यांक चड आवडटा. दुख्खांतिकेची भास काव्यमय आसता देखून ती समजुपाक कठीन लागता. तरीय भाशेक लागून नाटकाचो अर्थ कळपाक कांयच तकालस पडनां. अेकादे आमकां कळंनाशिल्ले परके भाशेंतली दुख्खांतिका पळयल्यार आमकां तिचो अर्थ कळटा. आमच्या भावनांचो संबंध दुख्खांतिकेकडेन आसता. मनशाची अेकाद्री इल्लिशी चूक ताच्या जिविताची दुख्खांतिका करता. दुख्खांतिका ही दुखेस्त आसून लेगीत ती पळोवप्याक धादोसकाय दिता, तितली धादोसकाय आमकां सुखांतिका दिना.

कॉमिडी म्हण्टकीत आमकां कितेंतरी हांसपाचें अशें दिसूंक लागता. पूण जें नाटक पळोवन आमकां पोट फुटसर हासूंक येता त्या नाटकाक आमच्यांनी बरी सुखांतिका म्हणपाक जांवचेना. कित्याकतर वास्तविक संवसारांत अशेतरेचीं नाटकां घडप अशक्य आसता. सुखांतिकेंत लेगीत अेकाद्रो दुख्खाचो प्रसंग आसूंक शकता. पूण ताचो शेवट निमाणेकडेन सुखांत वा धादोसकायेंत जाता.

सुखांतिकेची अेक व्हड मर्यादा म्हळ्यार तिचो आस्वाद घेतलो जाल्यार तिच्या भाशेचो पुराय अर्थ कळचो पडटा. सुखांतिकेची भास दुख्खांतिकेभशेन काव्यात्मक आनी कठीन आसना. तरीय परकी भाशेंतली सुखांतिका आमकां समजूंक कठीन लागता.

# कथा

'कथा' ही कथात्मक साहित्याचोच अेक तरा आसा. कथेप्रमाण कादंबरी आनी म्हाकाव्य हांचोय कथात्मक साहित्यांत आसपाव जाता. कथा, कादंबरी आनी म्हाकाव्य हे तिनूय साहित्यप्रकार ह्या अेका गुणाक लागून चड लागीं येतात. कथात्मक साहित्य नाटक आनी भावकविता हांचेपरस वेगळें उरता. पूण कथात्मक साहित्यांत लेगीत कथा आनी कादंबरी हे प्रकार गद्य बरपाक लागून म्हाकाव्यापरस वेगळे थारतात. जाल्यार कथा ही तिच्या स्फूट सुरूपायेक लागून कादंबरी आनी म्हाकाव्य ह्या दीर्घ प्रकारांपरस वेगळी थारता.

कथेइतलो लोकांमोगाळ साहित्यप्रकार आयज दुसरो सप-सप पळोंवक मेळना. हेर साहित्यप्रकारांपरस कथाच आयज चड फुलपाक पावल्या. कथा हो सामको नाजुक आनी कठीन असो साहित्यप्रकार आसा. कथेंत सुचकताय आसची पडटा ना जाल्यार ती कथा उखलापी जाता. सुचकताय होच कथेचो खरो प्राण आसता. देखुनूच कथेंत हिस्कळपणाक जागो आसना. कथाकाराक कथेंत जें कितें सांगपाचें आसा तें विस्तारान सांगपाक मेळना. कादंबरेंत दिसून येवपी विस्तारान भरिल्लीं वर्णना आनी भासाभास कथेंत आमकां पळोंवक मेळनांत. कादांबरेंत बरोवपी जिविताचें आपणाक जाय तशें चित्रण करूंक शकता, जाल्यार जिविताच्या अेकाद्र्या आंगाचें दर्शन आमकां कथेंतल्यान घडटा.

कथा म्हळ्यार लघुकादंबरी न्हय. व्हडल्या मनशाचे अवयव कापून ताचें जशें ल्हान भुरगें करपाक जांयना, तशेंच लघुकादंबरी आटोवन तिची धाकटुली कथा करपाक मेळना. तशेंच अेकाद्रे कथेची कादंबरीय घडपाक मेळनां. कित्याकतर कादंबरी आनी कथा ह्यो दोनूय साहित्याच्यो तरा अेकामेकासावन सामक्योच वेगळ्यो आसात. मनशाच्या जिविताकडेन पळोवपाची तांची नदर सामकीच वेगळी आसता. हाकाच लागून जायते फावट अेकाद्रो बऱ्यांतलो कादंबरीकार बरो कथाकार आसतूच अशें सांगपाक जांयना. कथेंत अेकूच घडणूक, थोडीं पात्रां आसून वाचप्याचेर ती अेकूच परिणाम करता.

कादंबरेंत अेक धाकटुलो संवसारूच निर्माण केल्लो आसता, जाल्यार कथेंत जिवितांतली अेकाद्री घडणूक चितारिल्ली आसता. अेकाद्र्या मनशाचें पुराय जिवीत हो कादंबरेचो विशय जांवक शकता. पूण तेच मनशाच्या जिवितांतल्या अेकाद्र्या विशेशतायेन भरिल्ल्या घडणुकेचेर कथा आदारून आसता. कथाकाराक कथेचो आंवाठ जाय तसो वाडोवपाक मेळना. ताचेकडेन आशिल्लीं उतरां ताका जाय तशीं वापरपाक मेळनांत.

कथेंत उतरांचो वापर जतनायेन करचो पडटा. ऐकाद्री कथा चड विस्तारान सांगपाचो यत्न बरोवप्यान केलो जाल्यार ताचो यत्न फसता. तशेंच पयल्या वाक्यासावन निमाणो परिणाम नदरे सामकार दवरूनूच कथेची बांदणी करची पडटा. कथेंत एक उतर लेगीत अडेचें जावपाक उपकारना.

जाका भाशेचें बरे गिन्यान आसा तोच बरो कथाकार जांवक शकता. कथेंत उतरां कशायकशीं वापरपाक मेळनांत. ॲसीड जशें आमीं व्हडा जतनायेन वापरतात, तेच भशेन कथाकारांक उतरां वापरचीं पडटात. ताका उतरांची सोबीतकाय कळची पडटा. खंयचें उतर काळजाचो थाव घेतलें ताचो विचार करूनूच ताका तें उतर वापरचें पडटा.

कथेंत संवादांक खूब म्हत्व आसता. फक्कत निवेदन करून कथा सांगचेपरस संवादांतल्यान ती फुलोवन सांगली जाल्यार ती कथा चड बरी जांव येता. तेचप्रमाण कथेंत उण्यांत उणीं पात्रां आसचीं. कथा हो साहित्यप्रकार खूब नाजूक आनी हुशारकायेचो आसता. त्या भायर ताका कांय तांत्रिक बंदनां आसतात. कथेची सुरवात योग्य जाग्यारूच जावपाक जाय आनी शेवट योग्य जाग्यारूच जावपाक जाय.

बरी कथा ही काळजाक ल्हवूच चिमटो काडटा. केन्ना केन्नाय ती ल्हवूच खातकुल्यो करता. केन्ना–केन्नाय जिविताच्या गुढतायेचें खिणयाळें दर्शन घडोवन ती मनांत आच्छर्याचे तरंग निर्मिता. कथेचो पुराय संवसार मर्यादीत आसता. कथेंतल्या घडणुकेफाटल्यान वाचपी पुरायतेन गुल्ल जावचो आनी खीणभर ताका भायल्या संवसाराचो विसर पडचो हेंच कथाकाराचें मुखेल उद्दिश्ट आसता.

कथेची सुरवात जितली ओडलायणी, आकर्शक आसता तितलीच ती वाचप्याच्या मनांत उत्सुकताय निर्माण करता. देखुनूच कथेचें पयलें वाक्य बरयतानाच बरोवप्यान बरीच हुशारकाय बाळगुची पडटा. कथेची सुरवातूच वाज हाडपी आनी नाकां तशी जाली जाल्यार ती कथा वाचप्याक मुखार आनीक वाचीन दिसना. कथेची सुरवात सुचकतायेन भरिल्ली आसल्यार चड बरें. तेच वांगडा कथेच्या सुरवातीक सैमाचीं वर्णनां आनी पात्रांची गर्दी दाटोवची न्हय. कथेची सुरवात सारकी केली जाल्यारूच कथा परिणामकारक आनी रचणुकेचे नदरेन सारखी जाता. सुरवात जर चुकिची जाली जाल्यार कथा हिस्कळ जाता आनी तिचो शेवटूय सारखो जायना. देखुनूच कथेची सुरवात खूब म्हत्वाची आसता.

कथेंतल्यो घडणुको कथेंत वेग निर्माण करपी आसपाक जाय. निमाणेकडेन ताणीं तेंगशी गांठपाक जाय. ही तेंगशी गाट्ठा आसताना तिणें विजेचें शॉक येवचें ते

प्रमाण परिणाम घडोवन हाडपाक जाय.

कथात्मक साहित्याक 'कथात्मक' कित्याक म्हण्टात ताका कारण आसा. भावकवितेंत उत्कर्षाक, नाटकांत संघर्षाक, तशेंच कथात्मक साहित्यांत घडणुकांक म्हत्व आसता. घडणुको कसल्योय आसूंक शकतात. घडणुकांक लागून कथात्मक साहित्य जल्माक येता. कथात्मक साहित्यांत जी घडणूक आसता, तिचें निवेदन वा कथन करचें पडटा. कथन वा निवेदन ही कथासाहित्याची अेक विशेशताय आसता. कथानिवेदक नाटक आनी भावकविता हांचेसावन कथासाहित्याक वेगळावपी अेक म्हत्वाचो घटक आसता.

कथात्मक साहित्यांतल्यांन साकार जावपी अणभव हे 'घडून गेल्ले' आसतात. देखुनूच कथा आनी कादंबरी हांचो काळ हो 'भूतकाळ' आसता. कथेंत घडून गेल्ल्यो घडणुको आसतात. कथाकार आयकुप्याक वा वाचप्याक जें कितें कथन करता, तें कथन म्हळ्यार कथा. तो कथेंत 'कितें' (कथा) सांगता आनी कशें (कथनाची रीत) सांगता ह्या दोन गजालींक कथेंत म्हत्व आसता.

कथा हो गीताभशेन अेक पुर्विल्लो साहित्यप्रकार आसा. दिर्घकथा, काणी, लोककथा, परीकथा, नीतिकथा, पुराणकथा आदीं कथाप्रकार पुर्विल्ल्या काळार लोकांच्या तोंडांतल्यांन घोळत जिवे उरले. आयचे कथेचो जल्म पुर्विल्ल्याच कथेवेल्यान जाला. आयज विज्ञान कथा, रूपककथा असले कथाप्रकार लोकांमोगाळ जाल्ले आमकां पळोंवक मेळटात. आर्विले कथेची सुरवात 'अॅडगर पो' हाणें केली. हाचेवेल्यान आर्विल्ले कथेक फक्कत देडशेंच वर्सांची परंपरा आसा अशें मानचें पडटलें.

कथेंत लेगीत अेक वेगळीच साहित्यीक शक्त आसता. कादंबरेसारख्या व्हड साहित्यप्रकाराकडेन जी गजाल शक्य जांयना ती कथा करून दाखयता. कथा आनी कादंबरी हांचेमदीं आकार आनी प्रकाराचें वेगळेपण आसलें तरीय दोनींय साहित्यप्रकार कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन, भास ह्या घटकांक लागून अेकामेकाच्या लागीं येतात.

**कथेचे घटक :**

कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन आनी भास हे कथेचे मुखेल घटक जावन आसात. कथात्मक साहित्याचे मुखेल धर्म कथा आनी कादंबरेंत सारखेच आसले तरीय ते दोनूय साहित्यप्रकार आपआपले परीन स्वतंत्र आसात. कथा हो स्फुट साहित्यप्रकार आसा जाल्यार कादंबरी हो दीर्घ साहित्यप्रकार आसा. वेल्या घटकांच्या आदारान कथाकार कथेची निर्मिती करता. तो कथेंत निवेदकाच्या नदरेंतल्यांन अणभवांचें कथन

करता. निवेदक घडणुकांचें, पात्रांच्या करण्यांचें, वातवरण आनी हेर बारीकसाणींचें निवेदन करता. हें निवेदन म्हळयार फक्कत अणभव अेकाफाटल्यान अेक अशें मांडप न्हय. जाल्यार घडणुको, पात्रांच्यो करण्यो आनी हेर गजाली कथेंत अर्थपूर्ण रीतीन गुंथिल्ल्यो आसतात.

## १. घडणूक/कथानक :

कथेचें कथानक कशेंय तयार जांव येता. जायतेफावट कथेंतल्यो घडणुको अकस्मात, अकल्पितपणान घडूंक शकतात. सगळ्याच घडणुकांफाटल्यान भावनांचो आनी अणभवांचो अेक प्रवाह चालूच आसता. ह्या अणभवांच्या प्रवाहाप्रमाण कथेंतल्यो घडणुको गुंथपाक मेळटात. अणभवांचो आनी जाणाविकायांचो प्रवाह म्हळ्यारूच कथानक अशें म्हणपाक जाता. केन्ना-केन्नाय कथेंतल्यो घडणुको वास्तवाची फास्की मोडून फँटसींत (सपनांत) घुसतात. जायते फावट घडणुक आनी घडणुकांनी वांदिल्लें कथानक हें मुखेलपणान व्यक्तिदर्शनाखातीर जांव हेर तरांच्या मनशाच्या चित्रणाखातीर वापरिल्लें आसता अशेंय कांय कथांतल्यांन दिसून येता.

कथानक हेंच कथेचेर नियंत्रण दवरपी मुखेल सुत्र आसता. कथेची सुरवात आनी शेवट हांचेर नदर दवरून पात्रां, तांचो हेत, तांची करणी हांचें संघटन करून कथानक रचतात. कथेंत जायते फावट मानसिक, घरावो वा सामाजीक प्रस्न हांचो संघर्ष तयार जाता. तो संघर्ष वा प्रस्न सोडोवपाचे नदरेन घडणुकांची रचणूक केल्ली आसता. कथेंतलो असलो संघर्ष वा प्रस्न सोडवप होच कथानकाचो मुखेल हेत आसता. कथाकाराक कथेंतल्यांन फक्कत कथानकूच सांगपाचें आसनां. ते कथानक सांगपाची वेगळीच रीत आसता. ही रीत बरोवप्याप्रमाण विंगड-विंगड आसूंक शकता.

## २. पात्र :

पात्र हो कथेचो अेक म्हत्वाचो घटक आसता. कथा रूपाक हाडप हेंच पात्राचें मुखेल कार्य आसता. कथाकार अेकाद्र्या व्यक्तिच्या कार्य, भावना, वृत्ती, विचार, कल्पना, संवेदना, जिविताविशींची नदर, जिविताची रीत आदीं गुणांच्या चित्रणांतल्यांन त्या व्यक्तिची अेक उतरांच्या रूपान प्रतिमा कथेंत निर्माण करता. व्यक्तिच्या ह्या उतररूपी प्रतिमेक 'पात्र' अशें म्हण्टात. हीं कथांतलीं पात्रां उतरांनी चितारिल्लीं आसलीं तरीय तांकां वास्तवतायेंतल्या मनशांप्रमाण कुडीचें मानसीक आनी सामाजीक आंग लाभिल्लें आसता. पूण कथेंतलें पात्र हें खरेले व्यक्तिप्रमाण स्वतंत्र आसना. कथेची निर्मिती करपाक ताचो वापर केल्ल्यान तें वांदिल्लें आसता.

कथेंतलीं पात्रां हीं सामान्यपणान खरेल्या मनशांच्या अनुकृतींतल्यांन निर्माण

आवयो शब्दरूपी प्रतिमा आसतात. कथेंत मर्यादीत जिवितांचें चित्रण आसता. देखून अेकाद्र्या पात्राचो पुराय जिवितप्रवास कथेंत चित्रित करूंक मेळनां.

**३. वातावरण :**

वातावरण होय अेक कथेचो घटक आसा. कथेंतलीं पात्रां हीं फक्कत अवकाशाच्या पोकळसाणेंत जगनांत, तश्योच कथेंतल्यो घडणुको लेगीत अेकाद्र्या पोकळसाणेंत घडनांत. कथा ही अेका विशेश थळ–काळाच्या चौकटेंत, वेगळ्या भौगोलीक तशेंच सामाजीक, सांस्कृतीक परिसरांत घडटा. ह्या सगळ्या घटकांतल्यांन कथेंतलें 'वातावरण' तयार जाता.

कथेंतल्या वातावरणाचो मुखेल हेत हो कथेखातीर अेक कल्पित परिसर निर्माण करप हो आसा. वातावरणाक लागून पात्रांच्या जिवीत–कथेक अेक आदारभूंय प्राप्त जाता. सैम परिसर, रस्ते, घरां, इमारती हांच्या चित्रणांतल्यांन साकार जावपी वातावरण वास्तवतायेचो आभास तयार करून कथेंत प्रत्यक्षतायेचो परिणाम सादता.

पात्राच्या चित्रणाखातीर वेगवेगळे तरेन वातावरणाचो वापर जाता. पात्रांप्रमाण कथेंतल्यो घडणुको, तातुंतलें नाट्य, संघर्ष हांचोय कथेंतल्या वातावरणाकडेन संबंध आसता.

**४. निवेदन :**

निवेदन वा कथन ही कादंबरेप्रमाण कथेचीय अेक म्हत्वाची विशेशताय आसता. कथाकार कथा सांगपाखातीर अेक निवेदक पात्र तयार करता आनी त्या निवेदकाच्या वा पात्राच्या माध्यमांतल्यांन वाचप्याक वा आयकुप्याक कथा सांगता.

कथेवांगडा अेकरूप जावन बरोवप आनी कथेच्या भायर रावून कथा सांगप अश्यो निवेदनाच्यो दोन तरा आसतात. तांका प्रथमपुरूषी निवेदन आनी तृतीय पुरूषी निवेदन अशेंय म्हण्टात. प्रथमपुरूषी निवेदक हें कथेंतलेंच अेक पात्र आसता. तृतीय पुरूषी निवेदक हें कथेंभायलें अेक निवेदक पात्र आसता. केन्ना हो निवेदक कथेचो पुराय गिन्यानी, गवाय आसता, जाल्यार केन्ना तो तसो आसना. तो फक्कत अेक सामान्य नियाळ करपी आसता. कथेचो निवेदक केन्ना घडणुकांचें नाट्यात्मक दर्शन घडयता, जाल्यार केन्ना तो अेकाद्र्या पात्राच्या जाणविकायेच्या थराचेर वचून अणभवांचें कथन करता.

**५. संवाद :**

संवाद हो कथेचो घटक आसलो तरीय ताका म्हत्वाचो घटक मानपाक जांवचेंना.

जायतेफावट संवादाबगर बरी कथा जांवक शकता. केन्ना–केन्नाय ओकाद्री पुराय कथा संवादांतल्यांनूच तयार जांवक शकता.

संवादाचो मुखेल हेत पात्राची निर्मिती करप हो आसता. पात्राचें व्यक्तिमत्व, ताचो सामाजीक वा सांस्कृतीक दर्जो, ताची मनस्थिती हांचें खरेपण संवादांतल्यांन पळोवंक मेळटा. तेचप्रमाण प्रसंगाची निर्मिती आनी कथेची रचणूक हातूंत लेगीत संवाद हो घटक म्हत्वाचो आसता.

**६. भास :**

कथेची भास ही अेका कल्पित संवसाराची भास आसता. ज्या अर्थान कवितेची भास सदांच्या भाशेपरस वेगळी, मन ओडून घेवपी आसता तशी कथेची भास नासता. ती सामान्यपणान गद्य, वेवहारांतल्या वळखिच्या भाशेचो आभास निर्माण करपी आसता. तरीय वेवहारांतल्या भाशेपरस तिचें स्वरूप वेगळें आसता.

कथाकार कथेंत भाशेचो वापर वेगळेच रितीन करता. तशें पळोंवक गेल्यार भास हो अेका अर्थान निवेदनाचोय अेक घटक आसता. भाशेचें व्याकरण, तिची घडण आनी बरोवप्याक उक्ते करपाचे आशिल्ले अणभव हे सगळे ताण बरोवप्यामुखार आसतात. जायते फावट बरोवपी भाशेचो काव्यात्म वापर करता. भास हो कथेचो अेक म्हत्वाचो असो घटक आसा.

## ललित निबंद

'ललित निबंद' हो अेक गद्य साहित्यप्रकार आसा. ह्या प्रकाराक जायतेफावट 'ललित गद्य', 'ललित लेख', 'आपउक्तावणेचें बरप' अशेंय म्हण्टात. ललित निबंदकार अेक सादोच प्रसंग घेवन हुशारकायेन ताका वेगळेंच मोडण दिता. आनी तातूंत रंजकताय भरशीता. हाका लागून वाचप्याक तातूंतल्यांन वेगळीच खुशालकाय मेळटा. कांय इश्ट अेकठांय मेळून जर आपणाल्या जिवितांतल्या सुख–दुख्खांच्यो गजाली करपाक लागले जाल्यार त्यो गजाली कश्यो आसतल्यो, ते भशेन निबंद आसता. निबंदांत जिवितांतल्या तरेकवार अणभवांचें रसायन पळोंवक मेळटा. तो आपणाल्या मनांतलें कांयच लिपंयनासताना खोशयेन सगळेंच सांगून उडयता.

ललित निबंदांत आपउक्तावणेचें बरप आसता. मानसशास्त्राच्या नदरेन साहित्यांत उक्ते जावपी अणभव हे 'हांव' च्या जिवितांतलेच आसतात. केन्ना ते उक्तेपणान आपउक्तावपी बरपाच्या रितीन, जाल्यार केन्नां कुशीक रावन वा दुसऱ्या मनशांच्या नावांर अश्या तरेकवार रूपांत प्रगट जातात. साहित्य हें आपउक्तावणेचें माध्यम अशें

मानले जाल्यार 'ललित निबंध' हो साहित्यप्रकार हेर सगळ्या साहित्यप्रकारांक प्रत्यक्ष रितीन पुरोवन उरता अशें मानचें पडटलें. लघुनिबंध, प्रवासवर्णन, उगडास, व्यक्तिचित्रां, ललित लेख हे सगळे प्रकार ललित निबंदाखाल येतात. देखुनूच ह्या सगळ्या प्रकारांचो उल्लेख 'ललित निबंदांत' जांवक शकता. मनशाच्या मनांत येवपी स्वयचोय विचार ताका येवपी वास्तवांतल्या वेगवेगळ्या अणभवांतल्यांन सुचता. मनांत आयिल्ल्या विचाराक तो आपणाल्या आनी हेरांच्या जिवितांतल्यो देखी सोदता. आपणाक उपरांत येवपी अणभव तो त्या विचारांकडेन जुळोवन पळयता. गरज पडल्यार त्या विचारांत नवी भर घालता. अशे तरेन मनांत आयिल्ल्या विचारांक आपणाले वेगवेगळे अणभव, पुरावे, देखी हांची जोड दिवन तो ते साहित्यांत मांडटा.

## ललित निबंदाचो इतिहास :

मॉंतेन ह्या फ्रेंच बरोवप्यान इ.स. १५८० वर्सा आपणालीं दोन पुस्तकां उजवाडाक हाडून 'एसाय' (Essai) हो साहित्यप्रकार फ्रेंच भाशेंत हाडलो. मॉंतेनाचो हो 'एसाय' दिसपाक ल्हान आसा. ताचें (एसायचें) बरप मेकळेपणाचें आसा. मेकळेपणान बरोवपाखातीर हो प्रकार ताणें घडयला आसतलो. मॉंतेनाक जें गंभीरपणान सांगपाचें आशिल्लें तें ताणें पयलींच हेरकडेन सांगिल्लें. ह्या गंभीर गजालींभायर जें कितें सांगपाचें उरिल्लें तें सांगपाखातीर ताणें हो प्रकार आपणायलो आसतलो अशें दिसता. आपणाक आपणेंच चितारपाचो यत्न ह्या प्रकारांत आसा अशें तो म्हण्टा.

मॉंतेनच्या ह्या 'एसाय' आंत प्रसंगाक धरून चड–उण्या प्रमाणांत अणभवदर्शन आनी विचार हांकां मेकळेपणान सुवात फावो जाल्या. आयज ह्या प्रकाराक निबंद अशें मानपाक जांवचेंना. आयचो निबंद सगळ्याच गुणांनी खूब मुखार पावला.

मॉंतेनच्याच काळांतलो इंग्लिश बरोवपी बेकन हाणें कांय वर्सां उपरांत होच प्रकार इंग्लिशींत हाडलो. पूण ताणें तो इंग्लिशींत हाडटा आसताना ताचें मुळ स्वरूप पुरायतेन बदलून उडयलां. विचार आनी अणभवदर्शन हांकां सारकीच सुवात आशिल्लो मॉंतेनचो 'एसाय' ताणें 'एसे' (Essay) ह्या नावांन इंग्लिशींत हाडलो. हाका लागून तो विचारांच्या नदरेन चड वास्तवीक, गंभीर, थंड, कांय प्रमाणांत वेगळे प्रकृतीचो जालो. हाका लागून फ्रेंच भाशेंतल्यांन इंग्लिश भाशेंत येतनांच हो 'एसे' वेगळेंच स्वरूप घेवन जल्माक आयलो.

मुखार १६६८ वर्सा अब्राहम काउले हाणें कांय 'एसे' उजवाडाक हाडले. मॉंतेनाचो एसाय ताणें तातुंतल्या कांय गुणांसयत इंग्लिशींत हाडलो. हाकालागून अब्राहमाचो 'एसे' बेकनाच्या 'एसे' परस वेगळो आशिल्लो. अशेतरेन इंग्लिशींत दुसरे

तरेचो 'एसे' सुरू जालो. मुखार 'एसेची' जायत्या आंगानीं उदरगत जाली. 'बेकनान' सुरू केल्लो एसे उपरांत विचारांचे दिकेन उदरगतीक पावलो जाल्यार 'काउले' हाणीं सुरू केल्लो एसे 'पर्सनल एसे' म्हळ्यार अणभवांक म्हत्व दिवपाचे दिकेन उदरगतीक पावलो. उपरांत इंग्लिश साहित्यांत रिटव्हन्सन, चेस्टरटन, ल्यूकास, गार्डीनर आदीं कितलेशेच लघुनिबंदकार तयार जाले.

**निबंदाची व्याख्या :**

निबंदाचीं लक्षणां जायत्या इंग्लिश टिकाकारांनीं सांगल्यांत. पूण ताची व्याख्या करप कठीन काम आशिल्ल्यान ती करपाक सगळेच जाण फाटीं रावताले. निबंदाची सुरूपाय अेकेच तरेची आसना, तातूंत सारखेपण आसनां अशें जायत्या जाणांनी सांगलां. 'पर्सनल एसे' च्यो व्याख्या स्वतंत्रपणान जायत्या जाणांनी करपाचो यत्न केला. पूण शास्त्राचे नदरेन तांकां व्याख्या म्हणप कठीन जातलें.

जशें अेका साहित्यप्रकाराकडेन दुसऱ्या साहित्यप्रकाराचें सारखेपण आसता तेच भशेन निबंद (Essay) आनी लघुनिबंद (Personal essay) हांचेभीतरुय खूब सारखेपण पळोंवक मेळटा. ह्या दोनूय प्रकारांत अणभव आनी देखी आसतात. पूण तांचें स्वरूप वेगळें आसता. निबंदांत विचारांक म्हत्व आशिल्ल्यान ते विचार म्हूण वस्तूनिश्ट कशे आसतले, तातूंत तर्क कसो आसतलो, ते उक्तायता आसताना तातूंत तटस्थपणां कितलीं आसतलीं, तांकां वेगळेपण कशें येतलें हाची बारीकसाण आसता. विचारांकूच म्हत्व आशिल्ल्यान तातूंतले अणभव आनी देखी निबंदाचें साधन आसतात. निबंदांत निबंदकार 'हांव'चें फक्कत वैचारीक व्यक्तिमत्व म्हत्वाचें आसता.

हाचे उरफाटें 'लघुनिबंदांत' विचारांक व्हडलेंशें म्हत्व आसना. अणभवांचे उत्फर्के, तातुंतलें काव्य, नाट्य, कल्पना, संवेदना, प्रतिमा आदीं गजाली लघुनिबंदांत आसूं येतात. पूण उपरांतच्या काळांत निबंदाविशींची कल्पना इल्ली-इल्ली बदलत रावली.

निबंदांत अेकाद्र्या विशयासंबंधीचे विचार उक्ते केल्ले आसतात जाल्यार लघुनिबंदांत विशय फक्कत नावांपुरतोच आसता. ह्या विशयाच्या निमतान 'हांव'चे अणभव उक्ते जाल्ले आसतात. हे अणभव मेकळेपणान उक्ते जातात आशिल्ल्यान तातुंतल्यांन निमाणेकडेन 'हांव'च व्यक्त जाता. हाचो अर्थ असो की लघुनिबंदाचो निमाणेकडेन खरो विशय 'हांव'च आसता. जे विचार हेर खंयच्याच साहित्यप्रकारांतल्यांन सांगूक मेळनांत, उक्तांवक मेळनांत ते सांगपाक बरोवपी 'निबंदाचो' आदार घेता.

कथा, क़ादंबरी, नाटक, कविता हे साहित्यप्रकार काल्पनीक आसतात अशें आमीं मानतां. म्हळयार ह्या साहित्यप्रकारांतलीं प्रात्रां, तांचे अणभव, घडणुको, भावना,

विचार हे कल्पना करून मांडिल्ले आसतात. ते खरे वा वास्तवांतले आसनांत. निबंदांत ते तशे मांडपाक मेळनांत. निबंदांतले अणभव वा विचार वास्तवीक स्वरुपांतले आसपाक जाय. कथा वा कादंबरेंत आसतात तशे काल्पनीक अणभव निबंदांत नासतात अशें निश्चितपणान सांगपाक जांवचेंना. कित्याकतर तातूंतलो अेकाद्रो अणभव काल्पनीक आसूंक शकता. पूण लघुनिबंदांतल्या 'हांव'कडेन तो बांदिल्लो आसपाक जाय. त्या निबंदांत आयिल्ल्या हेर अणभवांवांगडा तो आपशींच जुळचो पडटा. पूण लघुनिबंदांतलो 'हांव' हो स्वता बरोवपीच आशिल्ल्यान काल्पनीक अणभव मांडप ताका कितलेंशें रूचत तें सांगपाक जांयना. कांय बरोवप्यांक मजेखातीर निबंद बरोवपाची संवय आसता. पूण मजेखातीर लघुनिबंद बरोवप वेगळें आनी निबंदकार म्हूण निबंद बरोवप वेगळें. देखुनूच 'निबंदांतलो' हांव हो हेर साहित्यप्रकारांतल्या 'हांव'परस वेगळो आसता. पूण मजेखातीर बरयल्ल्या निबंदांतलो 'हांव' हो काल्पनीक हांव आसूंक शकता.

कथेक जसो अेक फॉर्म आसता तसो तो निबंदाक आसना. निबंद कितलोय ल्हान जांव व्हड आसूंक शकता. ताका आकाराचें बंदन आसनां. पूण निबंदाक निखालूस 'फॉर्म' ना अशें मानप पिशेपणाचें जातलें. निबंदांतलो 'हांव' म्हळ्यारूच निबंदांतलें केंद्र आसता. ह्या 'हांव' भोंवतणीं कितल्योश्योच घडणुको आनी अणभव मांडिल्ले आसतात. हाचेवेल्यान निबंदाचो फॉर्म कसो आसूं येता हाची कल्पना करूंक जाता. पूण निबंदांत 'हांव' वांगडा ताचो 'विशय' आसता. देखून 'हांव'क निबंदाचे केंद्र मानप काय 'विशयाक' केंद्र मानप हो प्रस्न आसा.

कथा, कादंबरी, नाटक ह्या साहित्यप्रकारांतल्यांन व्यक्त जावपी अणभवांची मांडणी करताना बरोवपी आपणाक आयिल्ल्या अणभवाची पात्रां, घडणुको आनी निवेदनाच्या आदारान 'सिच्युएशन' निर्माण करून ती सिच्युएशन मांडटा आनी त्या सिच्युएशनाच्या आदारान वाचप्याक तसोच अणभव येवचो हाची व्यवस्था करता. पूण ललित निबंदांत बरोवपी 'अणभवूच' मांडटा. 'सिच्युएशनाक' थंय म्हत्व आसना.

**ललित निबंदाची भास :**

ललित निबंदाची भास लेगीत ताका फावो सारखी आसपाक जाय. ती सादी, सोपी, नितळपणान भावना आनी विचार प्रगट करपी आसपाक जाय. ती अळंकारांनी आनी कठीन उतरांनी जड जाल्ली आसपाक जायना. ललित निबंदाचे भाशेंत खेळगड्याचीं उमेद आनी गोडी आसपाक जाय. ती भास सदांच्या उलोवपांतली नासली तरीय तशें दिसपाक जांयना. ललित निबंदाची भास संवादात्मक आसता तितलें चड बरें. ती विद्वत्तायेन भरिल्ली आसपाक जांयना. तशेंच तातुंतल्या वाक्यांची रचणूक आडखळीची जावपाक जांयना.

ललित निबंदांत वेगवेगळ्या भावनांची भरस दाखंयनासताना, अेकूच भावना फुलोवन सांगिल्ली आसता. ललित निबंद हो मर्यादीत आवाठांत आनी सुचक उतरांनी आसपाक जाय. निबंदकाराक खोल नियाळ करपाची शक्त आसपाक जाय. बरो निबंदकार हो खर नियाळ करपाची शक्त आशिल्लो कलावंत आसता. जिवितांत घडपी ल्हान-व्हड घडणुकांचो तो बारीकसाणेन नियाळ करीत आसता. साद्या मनशांक किरकोळ दिसपी विशयांतल्यांन लेगीत तो खुशालकाय निर्माण करूंक शकता. कवितेंत कवीची प्रतिभा सोबीत आनी विशाळ प्रसंगांभोवतणीं घुंवत रावता जाल्यार उणाक लेखिल्ल्या आनी वायट दिसपी गजालींत लेगीत कितलें गुढ लिपिल्लें आसता तें आमकां ललित निबंदकार दाखोवन दिता. विशय कितलोय किरकोळ आसलो जाल्यार लेगीत तो आपणाल्या प्रतिभाशक्तीच्या आदारान वाचप्यांक अजाप करून खुशालकाय भोगयता. निबंदाचो विशय कितलोय रूक्ष आसलो तरीय, बरोवप्याच्या प्रतिभेचो जादू ताचेर जालो म्हण्टकीत ताका आपशींच ललित्याच्यो आंकऱ्यो फुटूंक लागतात.

**निबंद आनी ललित निबंद :**

निबंद आनी ललित निबंद हातूंत खूब वेगळेपण आसता. निबंदांत बरोवप्याची विद्वत्ताय पळोंवक मेळटा, जाल्यार ललित निबंदांत कलाकाराचें लालित्य पळोंवक मेळटा. तें वाचप्याक खुशालकाय भोगयता. संवसारांत गिन्यानाचे दोंगर उबे करपी कितलेशेच विद्वान आमकां पळोंवक मेळटात, पूण मनाक खुशालकायेच्या दर्यांत पेंवपाक लावपी ललित निबंदकार सोदून काडचे पडटले.

ललित निबंदाचें आनीक अेक खाशेलेपण म्हळ्यार खासा बरोवपीच आपणालें मन ललित निबंदांतल्यांन उक्तें करता. बरोवप्याचें भितल्लें मन उक्तें करून तातूंत लिपिल्लें गुढ ललित निबंद उक्तें करता. जिविताचें चित्रण वेगवेगळे तरेन चितारून लेगीत जी गजाल नाटक आनी कादंबरेक शक्य जायना ती ललित निबंद करून दाखयता. अशेतरेन सामकें मोलादीक, नाजुक आनी कठीन काम करपाखातीरूच ललित निबंद जल्माक येता. ज्या बरपांत बरोवप्याच्या व्यक्तिमत्वाचें दर्शन नासता, तें बरप कितलेंय प्रतिभेन फुलिल्लें आसूं, तें कितलेंय विचारांनी भरिल्लें आसूं, ताचो आस्पाव ललित निबंदांत जावपाचो ना. कित्याकतर बरोवप्याचें भितल्लें मन उक्तावन दाखवप हेंच ललित निबंदाचें मुखेल काम आसता. तो अेकाद्र्याची विद्वत्ताय प्रदर्शीत करपाखातीर जल्माक येना. बऱ्यांत-बरो ललित निबंद म्हळ्यार बरोवप्याच्या अंतस्करणाचें सोबीत रूपडेंच म्हणपाक जाय.

## अेकांकी

व्हडली कादंबरी आटोवन जशी अेकाद्री लघुकथा घडोंवक मेळना, तेचभशेन









व्हडलें नाटक आटोवन ताजी अेकांकी करपाक मेळना. लघुकथेचें जशें खासा तंत्र आसता तशेंच अेकांकीचेंय आसता. अेकांकी म्हळ्यार नाट्यकलेची अेक स्वतंत्र जात आसा.

व्हडल्या नाटकांत अेकाद्रो संघर्षान भरिल्लो प्रसंग विस्तारपाक खूब वाव आसता, पूण अेकांकी ही मायांभशेन अेकाच अंकान सोंपता आनी हाकालागून तातूंत अेकाद्र्या प्रसंगाचें चित्रण विस्तारान करपाक मेळना. लघुकथेभशेन जी गजाल सांगपाची आसता ती किर्दें सदट करून सांगपाक जाय. व्हडल्या नाटकांत अेकापरस चड घडणुको दाखोवन तातूंतलो धुस्पागोंदळ जायतसो वाडोवंक मेळटा. तसो तो अेकांकींत वाडोवपाक मेळना. व्हडल्या नाटकांत पात्रांचो आंकडो मात्सो व्हड आसूं येता, पूण अशी पात्रांची गर्दी अेकांकींत करपाक मेळना. अेकांकी आनी लघुकथा हांचें तंत्र खूब प्रमाणांत सारखें आसता. तरीय लघुकथेंत संवादांभशेन, वर्णन आनी चिकित्साय करपाक मात्सो वाव आसता. पूण अेकांकींत संवादांबगर आनीक कसलीच मदत घेवपाक मेळनां.

लघुकथेभशेन अेकांकींत लेगीत निमाणेकडेन अेकूच परिणाम घडोवन हाडचो पडटा. नाट्यान भरिल्लो अेकूच प्रसंग वेंचून काडून ताचें धांवते चित्रण करता आसताना अेकाद मनशाच्या सभावाचें आंग दाखोवन पळोवप्यांच्या मनाचेर अेकूच परिणाम घडोवन हाडपाखातीर अेकांकी बरयतात. अेकांकीचो हेत आनी रचणूक नाटकापरस वेगळी आसता.

अेकांकीचो प्रयोग अेका वराभीतर आटापाक हाडपाचो आसता. हाका लागून सुरवातीसावन निमाणेमेरेन पळोवप्यांचें चित्त गुळ्ळ उरपासारखें कथानक, भास आनी व्यक्तिचित्रण तातूंत आसपाक जाय. अेकांकी जितली सुटसुटीत जाता तितली ती चड परिणामकारक जाता. कथेभशेन अेकांकींत लेगींत गरजेभायलीं उतरां वापरपाक मेळनांत. अेकांकींत दर अेक उतर जोखून आनी पारखून वापरचें पडटा.

## प्रवासवर्णन

प्रवास करपाक सगळ्यांकूच आवडटा. ल्हान-व्हड, गरीब-गिरेस्त, बारीक-मोटो, सगळ्यांकूच प्रवासाविशींची अेक आतुरताय आसता. पूण मनांत आसली तरीय सगळ्यांकूच प्रवास करपाची उमेद भागोवपाक मेळना. कोणाक गरीबतायेक लागून, कोणाक मेकळो वगत मेळना, कोणाक दुर्वेताक लागून प्रवासाची खुशालकाय भोगपाक मेळना. अशा वगतार ज्या बरपांतल्यांन खासा प्रवासाची खुशालकाय भोगता असलें बरप लोकांक आवडटा.

प्रवास करता आसताना मनशाचेर जीं संकश्टां येतात, कितलेशेच मजेचे प्रसंग

पळोवपाक मेळटात, बारीकसाणेन भरिल्लयो घडणुको आनी वेगवेगळ्या सोबीतकायेन भरिल्ले देखाव पळोवन काळजांत जी खुशालकाय भोगता ताचो अणभव ज्या साहित्यांतल्यान मेळटा तें साहित्य वाचप्यांक आवडटा.

जें प्रवासवर्णन वाचता आसताना, वाचप्याक खासा आपुणूच प्रवास करतां असो दिश्टावो घडयता तेंच खरें आनी बरें प्रवासवर्णन. खोशी, भंय, अजाप, गोंदळ आनी भावनांचो अणभव प्रत्यक्ष प्रवास करता आसताना जसो खासा भोवंडेकाराक येता तसोच तो वाचप्याकूय येता. प्रवासवर्णनांत बरोवप्यान थळांचीं वर्णना अेकाद्री नोंद केल्ल्याभशेन करींनासताना अेकाद्रो देखाव पळोवन स्वताच्या मनाचेर कितें परिणाम जालो तो रसीकाचे पध्दतीन सांगपाक जाय. जाल्यारूच वाचप्यांची आतुरताय वाडटली. पूण ताणें जर अेकाद्र्या थळाचें वर्णन इतिहासकाराभशेन केलें जाल्यार वाचप्याक ताचो वाज येतलो.

बरें प्रवासवर्णन बरोवपाखातीर पारखणेची नदर भोवंडेकाराकडेन आसप सामकें गरजेचें. अेकाद्रो भोवंडेकार ही नदर नासताना कितलोय भोंवलो जाल्यार लेगीत फुकट. बरें प्रवासवर्णन बरोवपाखातीर बरोवप्याकडेन बरी वर्णनशैली आसपूय गरजेचें. तेचवांगडा भाशेचेरूय तांचें प्रभुत्व आसपाक जाय. भाशेचेर प्रभुत्व आसलेबगर बरें प्रवासवर्णन बरोवप शक्य ना. कांय बरोवप्यांची वर्णनशैली सामकीच तोखणाय करपासारखी आसता. तांचें काश्मिराचें वर्णन आनी अेकाद्र्या खेडेगावांचें वर्णन हातूंत व्हडलेंशें वेगळेपण आसना. पूण अेकाद्र्या बरोवप्यान आपणाल्या वर्णनशैलीच्या नेटार काल्पनीक देखाव रंगोवन वाचप्यांक फटोवपाचो यत्न केलो जाल्यार ताका प्रवासवर्णनकार अशें नांव सोबपाचें ना.

प्रवासवर्णन हो लेगीत अेक साहित्याचो प्रकार आसा हें मतींत धरून बरोवप्यान फक्कत देखावांचीं वा थळांचीं रसरशीत वर्णनां करीत वचंनासताना वेगवेगळ्या लोकांचें जिवीत, तांची रावपाची रीत, तांचे विचार, खाण-जेवण, भेस, संस्कृतायेची सुरूपाय आदीं गजालींचें सोबीत तरेन दिग्दर्शन केलें जाल्यार तें प्रवासवर्णन खऱ्यांनीच जिवें तट्टटीत जातलें. प्रवासवर्णनांत संवाद आयले जाल्यार त्या प्रवासवर्णनाची सोबीतकाय आपशींच वाडूं येता आनी तें चड ओडलायणें जांव येता.

****

# शैली म्हळ्यार कितें?

दर अेकट्या बरोवप्याची बरोवपाची रीत वेगवेगळी आसता. ते रितीक शैली वा धाटणी अशें म्हण्टात. हे शैलीक लागून अमुक बरपावळ खंयच्या बरोवप्याची आसा हें आमकां रोकडेंच कळून येता. इतलेंच न्हय तर त्या बरपाचो काळ आनी लक्षणां लेगीत वळखूंक येतात. देखीक, अमुक बरपावळ पुर्तुगीजांच्या तेंपावयली आसा, संतांच्या तेंपावयली आसा काय शिवाजीच्या तेंपावयली आसा हें वळखूंक येता. साहित्याच्या व्यवहारांत शैली हें उतर कितल्याश्याच अर्थानीं वापरतात. भाशाशैली असो ताचो अर्थ मुखेलपणान घेतात, पूण हो अर्थ पुरायतेन लागू जांयना. कित्याकतर केन्ना-केन्नाय साहित्यप्रकाराचें लक्षण ह्या अर्थान काव्यात्मक शैली, नाटकी शैली, अशेय उतरांचे प्रयोग पळोंवक मेळटात. जेन्ना आमीं संत तुकारामाची शैली वा संत नामदेवाची शैली अशें म्हण्टां तेन्ना आमी अेकाच बरोवप्याची विशेशताय मतींत धरतात. पूण जेन्ना आमीं पुर्तुगीजांचो काळ, शिवाजीचो तेंप घेतात तेन्ना तातूंत भीतर त्या काळावेल्या सगळ्या बरोवप्यांचो आस्पाव जाता. पंडिती शैली, विनोदी शैली वा शास्त्रीय शैली अशाय अर्थानीं शैलीचो वापर जाता. रोमँटीक शैली, क्लासीक शैली असल्याय नावांनी शैलीक वळखतात. पुर्विल्ली शैली, आर्विल्ली शैली असल्या तरांच्यो काळांचेर आधारून आशिल्ल्योय शैली आमकां पळोंवक मेळटात. अशे तरेन आयज साहित्याच्या वेवहारांत शैलीक तरेकवार अर्थ लागू जाल्यात. देखून शैलीची खरी आनी सारखी सुरूपाय समजावन घेवप खूब कुस्तार जावन बसलां.

साहित्याच्या बरोवपाची शैली साबार तरांची आसता. तातूंत भीतर सभाविकपणान् बऱ्यांत बरी, मध्यम आनी वायट अशींय वेगळेपणां शैलीच्या प्रकारांत आसात. तातूंतभीतर 'शैली' हें उतर जातीवाचक आसा. अेकाद्र्या वर्गांतल्या सगळ्या घडणुकांविशीं तिचो वापर करूंक मेळटा. शैलीभीतर प्रकारांचीं वेगळेपणां आसात. देखून तिच्या स्वरूपांत लेगीत वेगळेपणां दिसून येतात. शैली हें अेकोडें तत्व नासून कितल्याश्याच वेगवेगळ्या गजालींचो भरस जावन जें तत्व निर्माण जाता ताकाच शैली अशें म्हण्टात. 'अॅरिस्टॉटल' हाणीं 'स्टाईल' हें उतर जातीवाचक मानलें. हाकाच लागून वेगवेगळे प्रकार, पोटप्रकार

जाल्ले. हातूंतल्यान उपरांतच्या टिकाकारांनी जायते तर्क काडले.

देखीक,

१. द स्टाईल इज द मॅन हिमसेल्फ.

२. द स्टाईल इज द फिजियॉनॉमी ऑफ द माईंड.

३. द स्टाईल इज द थिंकिंग आऊट इनटू लेंगवेज.

ॲरिस्टॉटल हांकां स्टाईलींत जें गवसल्लें ताका टिकाकार मॅनर, रचणुकेची रीत, फॅशन अशीं उतरां वापरतात. शैलीच्यो ताणें सात तरा मानल्यात. त्यो म्हळ्यार –

१. विशिश्ट कविची शैली – हॉमरीक, मिलटॉनीक, आदीं.

२. विशिश्ट काळांतली शैली – पुर्विल्ली, मदल्या काळांतली, आर्विल्ली शैली, आदीं.

३. भास वा अभिव्यक्तीचें साधन हाचेर आधारिल्ली शैली – जरमन स्टाईल, लिरीक स्टाईल आदीं.

४. विशयाक धरून निर्माण जावपी शैली – तात्विक शैली, शास्त्रीय शैली, आदीं.

५. विशिश्ट देशांत चालू आशिल्ली शैली – अमेरिकन शैली, भारतीय शैली, आदीं.

६. विशिश्ट वाचन दोळ्यांसामकार दवरून/लोकांखातीर निर्माण जाल्ली शैली – दरबारी शैली, सामान्य शैली, आदी.

७. बरपावळीच्या उपेगाच्या नदरेन निर्माण जाल्ली वा कवींच्या मनीससभावाकडेन संबंधीत आशिल्ली शैली – भावुक शैली, सटायरीक शैली, क्लासीक शैली, आदी.

शैलीची व्याख्या तयार करपाचे प्रयोग जायत्या जाणानीं करून पळयले. पूण तिची सारखी व्याख्या करप कठीन काम आशिल्ल्यान तें कोणाकूच जमलेंना. तातूंतली 'स्टँडाल' हाची व्याख्या बरीच फामाद आसा. ती म्हळ्यार ''ज्या आशयाची अभिव्यक्ती अभिप्रेत आसता त्या आशयांतल्यान अपेक्षित आशिल्लो परिणाम जशाक तस्सो घडोवन हाडपाखातीर ज्या साधनांची गरज आसता त्या सगळ्या साधनांचो तेंको त्या आशयाक मेळोवन दिलो म्हण्टकीत शैली निर्माण जाता.'' (''स्टाईल कन्सिस्ट ईन ॲडींग टू गीवन थॉट ऑल द सरकमस्टान्सेस कॅलकुलेटेड टू प्रोड्यूस द व्होल इफॅक्ट दॅट आर्ट टू प्रोड्यूस''.)

आर. सी. स्टॅवन्सन हांच्या मतान ''शैली म्हळ्यार वेगवेगळ्या तत्वांची फोडणी करप. ह्या तत्वांचो अंगीकार बरोवपी करता. ह्या तत्वांचो तो केन्ना लिलाव करता

जाल्यार केन्ना तांच्या मदल्या विरोधाचो तो उपेग करून घेता तर केन्ना व्यंजनेचो उपेग करता''.

मिडलटॉन मरायन हाणे 'स्टाईल' चे तीन अर्थ तयार केल्यात ते म्हळ्यार --

१. बरोवप्याच्यो स्वताच्यो खास संवयो (लकबी).

२. आविश्करणाचें वा अभिव्यक्तिचें तंत्र.

३. साहित्याची उर्जस्वल गिरेस्तकाय निर्माण करपी तत्व. हातूंतल्यान ताची फुडली व्याख्या तयार जाल्या ती व्याख्या अशी आसा –

''उत्फर्के (भावना) वा विचार हांचें सामकें जशाकतश्शें निवेदन करपाचें भाशेचें जें कर्तुप आसता ताका स्टाईल म्हणचें.'' ताच्या मतान 'स्टाईल' चो संबंध पुरायतेन कलाकृतीकडेन आसता. म्हळ्यार कलाकृतीचें माध्यम, तिचें रूप, तातूंतल्यान उक्तो जाल्लो आशय आनी ह्या सगळ्यांच्या चोम्यांतल्यान तयार जावपी कलात्मक अेकवटाकडेन संबंध आसता.

फ्लॉबो हांचो शैलीविशींचो विचार हेरांपरस बरोच वेगळो आसा. तांच्या मतान ''अेकाद्रो विशिश्ट अर्थ उक्तो करपाखातीर अेकूच उतर भाशेंत आसता, अेकूच विशेशण आसता, अेकूच क्रियापद आसता म्हळ्यार अेका विशिश्ट उतराचे वतीन जो आशय प्रकट जाता तोच आशय तेच रितीन दुसऱ्या खंयच्याय उतरांतल्यान प्रगट जावप पुरायतेन अशक्य आसा.'' ताका रिपिटेशन करप मान्य नाशिल्लें. ताच्या मतान विचार आनी ताचें भायलें रूप अेकमेकांकडल्यान कुशीक काडप कुस्तार काम आसा. सोबित बायलमनीस आसली जाल्यार तो आशय लेगीत सोबित आसप शक्य ना. हो ताचो नवो अर्थ.

रेनेबॅल हाणी शैलीचे चार प्रकार मानल्यात. ते म्हळ्यार –

१. उतरां आनी आशय हांच्या संबंधांतल्यान निर्माण जाल्ली शैली.

२. उतरांच्यांच अेकमेकांच्या संबंधांतल्यान निर्माण जाल्ली शैली.

३. उतराचो अेकूण भाशेकडेन जो संबंध आसता तातूंतल्यान निर्माण जाल्ली शैली.

४. उतरांचो खासा बरोवप्याकडेन जो संबंध आसता तातूंतल्यान निर्माण जाल्ली शैली.

अेकूण पच्छिमेकडल्या समीक्षणांत 'स्टाईल' हो बरोवप्याच्या व्यक्तिमत्वाचो उत्कट आविश्कार आसता. वा बरोवप्याचें खरें व्यक्तित्व ताच्या शैलींतल्यान प्रगट जाता हो विचार म्हत्वाचो आसा.

कलाकृतीच्या आविश्कार जाणविकायेची रचणूक म्हळ्यार शैली. भारतीय

साहित्यशास्त्रांतली वैदर्भीरीती म्हळ्यार क्लासीकल स्टाईल, गौणीक रीती म्हळ्यार रोमँटीक स्टाईल. शैली म्हळ्यार फक्कत भाशेची येवजण न्हय. कलाकाराच्या कल्पनेचो अणभव घेवपाची रीत म्हळ्यार शैली. भाशेच्या अणभवापरस शैलीचो अणभव वेगळो आसता. शैली म्हळ्यार भाशीक चमत्कार न्हय. कलाकाराचो प्रतिभेकडेन खेळपाचो आनी नवे कल्पीत अणभव तयार करपाचीं वेगळेपणां जंय दिसून येतात थंय शैली दिसूंक लागता. बऱ्यांतल्या बऱ्या यशस्वी रूपबंदांत शैलीच्या आंगांत लिपिल्ली आविश्काराची कळ आसता. ती वाचप्याच्या मनांतली वेवहारीकताय पयस करून ताका कल्पनेंतलें अणभवपाची प्रेरणा दिता.

साहित्य कृतींतल्यान आनी साहित्य परंपरेंतल्यान शैली ही कांय प्रमाणांत कुशीक काडूंक मेळटा. कितल्याश्याच साहित्यकृतींत रचणुकेच्यो ज्यो अेकासारख्यो तरा आसतात तांका आमीं शैली म्हण्टां. अेकाद्रो बरोवपी, वा अेकाद्रो कवी हो अेकाद्र्या परंपरेंत तिच्या शैलींतल्यान बरयता. लेखकाच्यो असाधारण जाणविकायो आनी ताका भावपी अेकाद्री थारायल्ली शैली हांच्या प्रणावातल्यान साहित्यकृती घडटा. बरोवपाच्यो जाणविकायो शैलीक बागोवपांत जैतिवंत जाल्याउपरांत निर्माण जावपी साहित्यकृती ते शैलीची उदरगत घडोवन हाडटा.

'सात्र' हांच्या मतान ''वन इज नॉट अ रायटर फॉर हॅवींग चोजन टू से सर्टेन थींगस् बट फॉर ऑल हॅवींग चोजन टू से इन अ सर्टेन व्हे. अॅन्ड टु बी शुअर द स्टाईल मेक्स द वॅल्यू ऑफ द प्रोज. बट इट शुड बी पास्ड अननोटीसूड'' (व्हॉट इज लिटरेचर)

साहित्यकृतींचो सुवाद घेता आसताना शैलीच्या आसपाची जाणविकाय जावपाक जांयना अशें म्हण्टात. पूण नवी शैली घडटा आसताना निर्माण जावपी साहित्यकृतींत तिचें आसप आपशींच दिसून येता.

'डॉ. भालचंद्र नेमाडे' हांच्या मतान अेकाद्रें साहित्य वेगळ्याच माध्यमाचेवतीन वेगळ्याच रूपांतल्यांन प्रगट करपाखातीर वापरतात त्या तंत्रचोम्याची रीत म्हळ्यार शैली. शैली हें मनशाच्या वेवहारांक काळखी रूप दिवपी अेक सामान्य तत्व आसा.

'द स्टाईल इज द मॅन हिमसेल्फ' (शैली म्हळ्यार खासा बरोवपीच') अशें 'ब्युफो' हांणी म्हळां कित्याकतर विचार अेकूच आसता. पूण तो मांडपी मनीस तोच विचार तरेकवार रितींनी मांडटा. देखून शैली म्हळ्यार बरोवपीच.

जेन्ना अेका भाशेंतल्या बरपाचो अणकार दुसरे भाशेंत जाता तेन्ना शैलीची नासाडी जाता. कित्याकतर शैली ही मूळ भाशेंतल्यानूच प्रगट जाता. हें तत्व अस्तमतेकडल्या व्हड–व्हड बरप्यांनी मानून घेतलां. गेल्या पंचवीस वर्सांत भासशास्त्र हो मनीसवंशशास्त्राचो

कांटो म्हूण खूब उदरगतीक पावला. देखून भाशेच्या आनी पुराय मनीसजातीच्या वेव्हाराविशीं सगळ्याच गिन्यानांत व्हड बदल घडून आयलो. ह्या गिन्यानाक लागून शैलीविचारावयलो भासशास्त्राचो हक्क वाडलो. इतलेंच न्हय, तर आयज शैलीविचार हें भासशास्त्राचें अेक आंग मानतात.

साहित्यांतल्या भाशेची सगळ्या पायंड्यांचेर पळोवणी करप, साहित्यांतल्या शैलीचीं खरीं तत्वां सोदप, शैलीचे समाजशास्त्रीय आनी मानसशास्त्रीय संदर्भ सोदप, शैलीच्या वेगवेगळ्या परिणामांवेल्यान साहित्यीक भाशेची फोडणी करप आनी भासशास्त्रांतल्या सिध्दान्तांच्या आदारान शैलीची सुरूपाय थारावप, हीं आयच्या शैलीविचारांची (स्टायलिस्टिक्स्) मुखेल आंगां आसात.

अजुनमेरेन शैलीचो सगळ्या आंगानीं विचार आनी अभ्यास जांवक ना. साहित्यमीमांसा, टीकाशास्त्र, आनी भासशास्त्र अशा तिनूय आंगानीं शैलीचो अभ्यास जाल्याबगर शैलीचें सत्व गवसपाचें ना. साहित्यमीमांसेंत शैलीचें पुराय साहित्यप्रक्रियेंतलें स्थान निश्चित जाता. पुराय कलांच्या संदर्भांत साहित्यकलेंत दिसून येवपी द्रव्य, माध्यम आनी रूप ह्या तत्वांच्या आधारान शैलीची सुरुपाय निश्चित जाता. अेक सांस्कृतिक तत्व म्हूण शैलीचो विचार मानववंशशास्त्रांत करतात. शैलीचो विचार तुळात्मक साहित्यविचार, साहित्य निर्मितीचो विचार आनी अणकार हातूंत खूब उपेगी थारता.

मनशाच्या वेवहारांत शैली हें उतर रीत, पध्दत, लकव, वळण, धाटणी, वैशिश्ट्य, तंत्र, कुशळताय, वा 'स्टाईल' असल्या कितल्याश्याच अर्थानीं वापरतात. मनीसवंशशास्त्रान दाखोवन दिल्ल्या मनशाच्या समाजाच्या वेगवेगळ्या वेवहारांकडेन शैलीच्या नदरेन पळयलें म्हणटकीत शैली हें तत्व संस्कृतायेइतलेंच पोरणें, चलत आयिल्ल्या संस्कृतायेचीं आनी जितेपणाची देख थारता. शैली हें मनशाच्या वेवहारांक रूप दिवपी अेक तत्व आसा.

शैली हें तत्व सर्जनाकडेन संवंधीत आसलें तरीय तिची सुरूपाय दर्शनीय आनी भौशिक आसा. अेका मनशाच्या चोम्याची विशिश्ट वेवहारांतली शैली दुसऱ्या मनशाच्या चोम्याच्या त्याच वेवहारांतल्या शैलीपरस वेगळी आसूंक शकता. देखीक धर्म आदीं. अेके भाशेची लेगीत स्वतंत्र शैली आसता, ती हेर भासांभीतर नासता. दिसानदीस सगळो भौस कितल्याश्याच वेवहारांत सगळ्या शैलीकडेन वता अशें दिसून आयलें तरीय दर भौस अेक भौस स्वताची शैली सांबाळटा.

साहित्यकृतींतली शैली वाचप्याच्या अणभवान साकार जाता. ती फक्कत वुध्दीच्या वळग्यार साकार जावपी संकल्पना न्हय. शैलीक जाय तसो योग्य प्रतिसाद

मेळ्ळोना जाल्यार ती झींगता. देखून नवी शैली लागू जाता, तंत्राचें पुनर्जिवीत जाता या नवीं तंत्रां सोदून काडचीं पड्टात.

आशय वा अर्थ (द्रव्य), भास (माध्यम), आनी साहित्यप्रकार (रूप) हीं शैलीचीं तीन परिमाणां आशिल्ल्यान खंयच्याय एका परिमाणावेल्यान शैलीचें आकलन पुराय जांयना. हातूंतल्या परिमाणांक लागून शैलीचे कितलेशेच भायले संदर्भ लेगीत आपशींच लागू जातात. तांची वर्गवारी आशयनिश्ट संदर्भ, भाशानिश्ट संदर्भ आनी साहित्यप्रकारनिश्ट संदर्भ, अशी करूंक मेळटा. हे संदर्भ एकाच कलाकृतींतले आशिल्ल्यान एकमेकांक आंवाठावपी वा एकमेकांक वेगळे करपी आसतात. शैलीच्या अभ्यासांतल्यान अशे तरेन पुराय साहित्यकृतीचे अंतरंग स्पश्ट जांवक शकतात. आशय, भास आनी साहित्यप्रकार हांचो योग जुळून येतना ज्या वेगवेगळ्या तंत्रांचो वापर जाता, त्या तंत्राचो अभ्यास साहित्यानिर्मितीच्या अभ्यासांत गरजेचो आसता. साहित्याच्या समिक्षेंत लेगीत आयजमेरेन ह्या तंत्राचो अभ्यास जायत आसा.

भौसाच्या कितल्याश्याच वेवहारांत भाशेचो वापर जाता आनी साहित्य हो भाशेच्या हेर वेवहारांतलो एक वेवहार आसता. साहित्यांत वापरिल्ल्या भाशेंत कांय वेगळेपणां आनी विशेशतायो आसतात.

वाक्याची रचणूक करता आसताना ती दुसरेतरेन केली म्हूण अर्थांत बदल घडून येना; पूण शैलींत बदल घडून येता. देखीक –

रमेश शाळेंत गेलो.

रमेश शाळेंत वचपाक गेलो.

रमेश शाळेंत वचं नासताना रावलो ना.

रमेश शाळेंत वचं नासताना रावूंक शकतालो.

रमेशाकडेन शाळेंत वचंनासताना रावपाक जालेंना.

अशे तरेन एकाच अर्थाचें वाक्य उतरांची रचणूक वेगवेगळे तरेन करून लेगीत ताचो अर्थ बदलना. पूण शैली कशी बदलता हें आमकां कळून आयलें. एकूच अर्थ वेगवेगळ्या भाशिक प्रयोगांतल्यांन उक्तो करूंक मेळटा. दर एकट्या बरोवप्याची पध्दत वेगवेगळी आसता. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचे जाल्यार दर एकट्या बरोवप्याची शैली बरोवप्याप्रमाण बदलत आसता. कांय बरोवप्यांक वेंचून काडून तांका बरोवपाक एकूच विशय दिलो जाल्यार लेगीत तांची शैली एकमेकांपरस वेगळी जातली देखून 'द स्टाईल इज द मॅन हिमसेल्फ' ही व्याख्या शैलीक खूब प्रमाणांत लागू जाता.

शैली आसा तश्शी केन्नाच उरनां. ती अेकासारखी, मनशाकणकणी, काळाकणकणी बदलत आसता. पोरणी शैली वापरून गुळगुळीत जाली म्हण्टकीत बरोवपी नवी शैली वापरून नवो प्रयोग करून दाखयतात. नली शैली सोदून काडपी बरोवप्याक नवें म्हत्त्व लागू जाता. ताका बंडखोर बरोवपी अशीं विशेशणांय लागू जातात.

**शैलीचो अभ्यास करपाच्यो तरा :–**

शैलीचो अभ्यास करपाच्यो मुखेल अश्यो चार तरा आसता. त्यो म्हळ्यार :–

१. साहित्यकृतीची शैली,

२. बरोवप्याची खास शैली,

३. युगशैली, आनी

४. साहित्यप्रकाराची शैली.

**१. साहित्यकृतीची शैली :–**

शैलीचो अभ्यास करपाचे हे तरेंत अेका साहित्यकृतींतल्या भाशेच्या रूपांचो अभ्यास, ते कृतींतलो आशय, तातूंतली पात्रां, साहित्यकृतींतल्या भाशेच्या रूपांचो अभ्यास, ते कृतींतलो आशय, तातूंतलीं पात्रां, जीविताविशींची नदर हांचो विचार जाता.

**२. बरोवप्याची शैली :–**

बरोवप्याची खास शैली वा लेखकाची वैयक्तिक शैली हेर खंयच्याय बरोवप्याच्या शैलीपरस भाशेच्या कांय खास गुणांक लागून वेगळी थारता. हाचो विचार ह्या तरेच्या शैलीच्या अभ्यासांत जाता. दर अेकट्या बरोवप्याची भाशेची रीत वा प्रवृत्ती स्वतंत्र आसता. ताचीं कांय खास उतरां, खास साहित्यप्रकार आवडीचे आसतात. बरोवप्यान वेगवेगळे साहित्यप्रकार हाताळ्ळे, तरीय तितलें वेगळेपण मतींत धरून लेगीत तो पुरायतेन स्वताच्यो खास पध्दती वापरता. अेका काळखंडांत जगलेल्या बरोवप्याभीतर लेगीत कांय अेकभशेन भाशेचे वापर दिसून आयले तरीय त्या वर्तुळांत लेगीत दर अेकट्याचे स्वतंत्र विभाग दाखोंवक मेळटात. अेका बरोवप्याच्या सुरवातीच्या बरपासावन निमाण्या बरपामेरेन ल्हवू–ल्हवू बदल घडुन आयिल्लो दिसलो, तरीय अमुक मर्यादेभायर ताची शैली बदलनां. कित्याकतर ताची भास ताच्या मानसीक घडपाकडेन आनी अणभवविश्वाकडेन घट बरें नातें आसता. कांय बरोवपी परंपरेन चलत आयिल्ली शैली बरोवपाखातीर वापरतात. तांच्या शैलीचें पयलींच्या आनी वांगडच्या बरोवप्यांच्या शैलीवांगडा व्हड प्रमाणांत सारखेपणां आसतात. देखीक बयाभाव हे आर्विल्ल्या कोंकणी कवितेचे मुळपुरूस आसात. तांच्या पावलार पावल दवरून कवी बाकीबाब बोरकार

आनी मनोहरराय सरदेसाय हे कोंकणी कविता रचपाक लागले. पूण र. वि. पंडितासारख्या बंडखोर कवीन कोंकणी कवितेची भास आनी तिचें रूप बदल्लें. देखून र. वि. पंडित हांका नवी शैली तयार केल्ल्यांचें श्रेय मेळटा.

### ३. युगशैली :–

साहित्याच्या इतिहासांत आमकां वेगवेगळ्या काळखंडांची विभागणी केल्ली पळोंवक मेळटा. तांका मुखेलपणान राजकीय घडणुकांचे संदर्भ लागू जातात. देखीक पुर्तुगीजांचो काळ, ब्रिटीशांचो काळ, राण्यांचो काळ, शिवाजीचो काळ आदी. राजकीय घडणुकावेल्यान सामाजीक बदल घड्टात आनी सामाजिक बदलांवांगडा संस्कृतीक बदल लेगीत आपशींच घडून येतात. दुसरी गजाल म्हळ्यार भाशेंत लेगीत काळाप्रमाण बदल घडून येतात. हे बदल कशे तरेन घडून येतात हाचें खरेपण त्या त्या युगांतल्या साहित्याच्या भाशेंत नितळसाणेन पळोंवक मेळटा.

सकयल दिल्ल्या वेगवेगळ्या काळखंडांतल्या नमुन्याचो आमीं अभ्यास करूया : हो आसा बरोच पुर्विल्लो महाभारतांतल्या 'आदीपर्वा' तलो अेक नमुनो :–

''भीस्मु मंत्र्यां–प्रधान लागीं उलयलों : 'आमच्या बापाक उस्त्रेवीण जीवाक सुख ना, म्हा–चिंताक्रांतुः तरी आतां तंव 'येकि कन्या तूर्ताची जोडीन' म्हणोनु आपुल्या राज्यांतलो घोडे–हस्ति–रथ–पायदळ चतुरंग सहिन्या सहित भायर पडलो.''

हे शैलीचो काळ सकयल दिल्या नमुन्यांतल्या शैलीपरस वेगळो आसा : हो नमुनो चौदाव्या शेकड्यांतल्या 'लीळाचरित्रां'तलो आसा. ''ते दिस हांव दादोन आफइला म्हूण नइंचे तडी–तडीन सकाळीच घरा गेलों. वाटेर हंवे हतयांचे किंकाट रानांतल्यान येतात ते आइकिले, आनि तेवटेन माझी दिश्ट गेली. तर हंवे एक तरणी–धाकटी बाइल केस उगइत आसता देखली.''

फुडलो नमुनो आसा शणै गोंयबाब हांच्या बरपावपळीचो. ह्या नमुन्यांतली शैली पयलींच्या दोन नमुन्यापरस कितली वेगळी आसा तें पळयात.

''आमगेलें भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवंत, गिरेस्त, नांवादीक, आनी लौकिकवंत घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. त्या खातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान दिसूंक फावो. आमीं कोंकणे बाबत कुळा न्हंयत.''

वयर दिल्ल्या तिनूय नमुन्यांचो काळ वेगवेगळो आसा. हें आमकां वयले नमुने पळयतकीत कळटा. युगशैली ही वेगवेगळ्यो वैयक्तिक शैली मेळून तयार जाता.

### ४. साहित्यप्रकाराची शैली :–

साहित्यप्रकार हो बरोवपी आनी वाचपी हांचेमदीं आपशींच घडून येता. अमुक अेका प्रकाराक नवलकाणी म्हणचें, दुसऱ्याक कविता म्हणचें अशें वाचपी आनी बरोवपी दोगूय मेळून परंपरेन थरिल्लें आसता. कवितेची भास आनी नवलकाणयेची भास जांव ती बरोवपाची रीत वेगवेगळी आसता. गद्य बरपावळ (नवलकाणी, कथा आदीं) पुस्तकाचीं पानां भरून आसता जाल्यार पद्य (कविता, गीत) तुटक्या वळींनीं आसता. अशेतरेन बरोवपाचे पध्दतीवेल्यान वाचपी आनी बरोवपी गद्य आनी पद्य वा नवलकाणी आनी कविता हातूंत वेगळेपणां थारायतात.

दर अेका साहित्यप्रकाराची भास वेगवेगळ्या शैलींतल्यान वा वेगवेगळ्या बरोवपाच्या रीतींतल्यान बरयल्ली आमकां पळोंवक मेळटा. देखीक कवितेची भास प्रभावी, थोडेभीतर, भावुकतायेन भरिल्ली, नादाच्या सुरूपायेंत आशिल्ली पळोंवक मेळटा. जाल्यार नवलकाणयेंतली भास लांब, भरडी, गद्यान भरिल्ली, पात्रां, कथानक आदीं घटकांक पोटलावन धरपी आसता. भास कितली लांब आसची वा कितली मोडवी आसची हें दर अेक साहित्य प्रकार थारायता. धा पानांभीतर अेकाद्री नवलकाणी बरवप शक्य नासता, तशेंच शंबर पानांची कथा बरोंवक जांयना. म्हाकाव्यासारख्या विशाळ आशयान भरिल्ल्या साहित्यप्रकारांत कितलींशींच पात्रां, कथानकां, उपकथानकां, इतिहास, घेर्रर, धर्मशास्त्र, राजशास्त्र आदीं जड घटक आशिल्ल्यान तातूंत गद्याभशेन पूण प्रवाही आनी लय आशिल्ली भास वापरिल्ली आसता. नाटकांत व्यवहारी संवादांनी भरिल्ली भास आसता आनी तिचे भरशीक हावभाव, हालचाली, उजवाड आदीं घटक आसतात. हाच्या उरफाटें निबंदांत वाक्यांची रचणूक, वाक्यां–वाक्यां भीतरले धागे, विचारान भरिल्लीं वाक्यां हांचो आस्पाव आसता.

शैली म्हळ्यार अेकाद्रें हालींच सोदून काडिल्लें नवें शास्त्र नासून मनीसकुळाच्या सुरवातीसावन तिची उदरगत जायत आयल्या हें मतींत धरचें पड्टा. साहित्यांतल्या हेर घटकां वांगडा शैलीक लेगीत खुबूच म्हत्व आसा.

****

# साहित्यांतले वाद

दर अेके भार्शेतल्या साहित्यांत नवे-पोरणे वाद सोदपाचो यत्न साहित्याच्या इतिहासांत सदांच दिसता. इंग्लिशीच्या प्रभावाक लागून भारतीय भासांनी रोमॅण्टिसिझम्, क्लॉसिसिझम, रीअलिझम् हे तीन मुखेल फांटे हांचो उल्लेख जाता.

संस्कृत साहित्यांतलेगीत वादांची कल्पना आशिल्ली हें 'रीती'च्या प्रकारावेल्यान कळून येता. ह्या वादांक 'संप्रदाय' अशेंय म्हण्टात. खुबशीं संस्कृत नाटकां वा काव्यां महाभारतांतल्या वा हेर फामाद कथांकडेन संबंधीत आशिल्लीं. हाकालागून विशयाची गोडी आनी नवेपण दुय्येट थारून, बरोवप्याच्या नदरांचें वा तांच्या रीतीचेंच म्हत्व वाचप्याक दिसतालें आसूंये.

आर्विल्ल्या भारतीय भासांच्या टिकेंत जायत्या वेळा 'अभिजात', 'गूढरम्यवादी', 'वास्तववादी' आदीं उतरांचे प्रयोग दिसून येतात आनी ते इंग्लिशींतल्या मूळ उतरांच्या धर्तीचेर वापरतात. असल्या उतरांचे इंग्लिशींत वा हेर भासांतले अर्थ, तांची व्यापकताय सदांच अस्पश्ट आनी म्हेळी-म्हेळीशी उल्ल्या. दर अेका उतराचो अर्थ बरोचसो नाजुक आशिल्ल्यान साहित्यांतले वाद म्हळ्यार पुरायतेन स्वतंत्र आनी वेगळो विशय जांवक शकना. तांच्यो शिमो-मेरो अेकामेकांचेर केन्ना आपटत हें सांगप कुस्तार आसा. हाकालागून अेकाद्रें बरप खंयच्या वादांत वा संप्रदायांत मोड्टा तें दर अेकट्या टिकाकाराच्या मताचेर आदारून रावता. आनी जायत्या वेळा अेकाद्रें बरप खंयच्याच संप्रदायांत मेखळेपणान बसूंक शकना. तरीय मुखेल संप्रदाय कांय मुळावीं वेगळेपणां दाखयतात. हें वेगळेपण फक्कत भास वापरपांत नासून बरोवप्याचें तत्वगिन्यान, ताची सामाजीक आनी साहित्यीक नदर, ताची आत्माविश्कार करपाची इत्सा आनी रीत, ताचें साहित्याच्या दायजाकडेन नातें हाचेसारख्या जायत्या बारीक-सारीक गजालींत दिसून येता. अेकदम निर्माण जावपी आनी थोडोच काळ तिगून ना जावपी किरकोळ संप्रदाय सोडले जाल्यार मुखेल तीन संप्रदायांतले कांय तत्विक मतभेद मतींत घेवचे पड्टात. हे तीन मुखेल संप्रदाय म्हळ्यार classicism (अभिजातवाद), Romanticism (सौंदर्यवाद), आनी Realism (वास्तववाद).

ह्या उतरांचो उपेग जरीय सध्याक जायत्या संदर्भात जाता आसलो तरीय साहित्याच्या भासाभाशेंत इंग्लंडांत तांचो चड वापर १८व्या आनी १९व्या शेकड्यांत जांवक लागलो. अठराव्या शेकड्यांतल्या साहित्यांतल्या रोमँटिसिझमचो उगम आनी प्रसार ह्या शेकड्याच्या निमाणेकडेन दिसूंक लागलो हें classical, Neo-classical, असल्या उतरांनी सामान्यपणान वर्णितात. classicism ह्या उतरावांगडा classics ह्या उतराकडेन आशिल्लो संबंध मतींत घेतलो म्हण्टकीत 'क्लॅसिसिझम' हातूंतल्यो दोन मुखेल संकल्पना स्पश्ट जातात. 'क्लॅसिक' म्हळ्यार 'चड बरें', पयल्या दर्जाचें; पूण त्याचप्रमाण क्लॅसिक म्हळ्यार ग्रीक, लॅटिन साहित्य, संस्कृताय आदींकडेन संबंधीत सुरवातीक फामादीक ग्रीक आनी रोमन नाटककार, तत्वगिन्यानी, कवी, टीकाकार आदींचें कांय बाबतींत अनुकरण करपी बरप हें ऐका अर्थान क्लॅसिकल जाताच; पूण दुसऱ्याच अर्थान ताका मान्यताय मेळ्ळी.

**१. अभिजातवाद :–**

Classicism म्हळ्यार अभिजातवाद. classicism चो प्रभाव फ्रान्स, इटली आदीं देशांनी पयलीं सावन आशिल्लो. कित्याकतर फ्रेंच, इटॅलियन, स्पॅनिश आदीं भासांचो लॅटिनाकडेन संबंध आशिल्ल्यान तांका तें दायज (परंपरा) नवें नाशिल्लें. इंग्लंडांत लेगीत शेक्सपीयरच्या वगतार कितलेशेच बरोवपी ग्रीक आनी लॅटिन साहित्याचो अभ्यास करून तातूंतल्यो कांय प्रवृत्ती, कांय विशेशतायो इंग्लिश साहित्यांत हाडपाचो यत्न करताले. आनी त्याच वगतार कांय अणकार लेगीत तयार जाले. हाकालागून क्लॅसिसिझम अठराव्या शेकड्यापयलीं लेगीत इंग्लंडांत आशिल्लो. पूण अठराव्या शेकड्यासावन ताका भासाभाशेंत वेगळेंच म्हत्त्व आयलें. कित्याकतर त्या काळावयले सगळे पयल्या दर्जाचे बरोवपी क्लॅसिकाचे अभिमानी आनी कांय अणकारकार लेगीत आशिल्ले. मिल्टन, ॲडिसन, जॉन्सन आदीं बरोवपी हे क्लॅसिसिझमचे सगळ्यांत बरे प्रतिनिधी आशिल्ले.

Classicism चे जायते सभावगूण आसात. ताचो सगळ्यांत पयलो गूण म्हळ्यार सोपी तरीय पेजाद, सरळ, सुटसुटीत अशी भास. भाशेंत म्होंवाळपण जाय, पूण अळंकारांचो वापर सामको सांबाळून करचो पड्टा. खंयच्याय बरपांत संयम, सभ्यपणा बाळगून खंयच उणें उतर वा अर्थ न येवपाची सावधगीरी बाळगुची पड्टा. सगळेकडेन भाशेंत, विचारांत, खास जिवितांत लेगीत तोल (Balance) सांबाळचो पड्टा. तशें पळोंवक गेल्यार हे आदर्श त्या काळांत सगळ्याच बरोवप्यांच्या जिवितांत वा बरपांत आशिल्ले अशें कोणूच मानिना. देखीक, वयर सोपी, सरळ भास असो उल्लेख केला. पूण

इंग्लिश साहित्याच्या अभ्यासकांक डॉ. जॉन्सन हांची भास कांय वगतार कितली कुरतार आनी जड दिसता हे खबर आसात. पूण ह्या लेगीत दोशाचें कारण जॉन्सनाचो क्लॉसिसिझम् हेंच आशिल्लें कित्याकतर ताका शक्य आसा थंय लॅटिन, कांय वेळा ग्रीक, उतरांचो वा तांच्या इंग्लिश रूपांचो जाणाजावन वापर करपाची संवय आशिल्ली. ह्याशिवाय जॉन्सनाचें वागपूच स्वतंत्र रितीचें आशिल्लें आनी ताच्या दर अेके कृतींत, भाशेंत, मतांत ताच्या प्रभावी व्यक्तिमत्वाचो छाप आसतालो हेंय म्हत्त्वाचें आसा. मात ताच्या बरपावेल्यान classicism ची बाजू चड नितळतायेन स्पश्ट जाता. ती म्हळ्यार पोरण्या ग्रीक आनी रोमन बरोवप्यांचें निर्विवाद मोठेपण मान्य करून आपणाक तांचे पंक्तीक कशें वचूंक मेळटले ही काळजी आनी हाकालागून केल्लें तांचे अनुकरण ही आसा. ह्या मतांतलीं बरीचशीं तत्वां फ्रान्सांतल्यांन घेतिल्लीं. १६६० आंतल्या Restoration सावन फ्रान्साचें सांस्कृतिक आनी साहित्यीक मोठेपण इंग्लंडांत दिसूंक लागलें. हाकालागून फ्रेंच गद्य बरपाची संवसारभर नामना आशिल्लीं वैशिश्टां, स्पश्टपणा, सरळपणा हांका म्हत्त्व आयलें आनी शास्त्राच्या चोंयवशीन प्रसाराखातीर १६६२ आंत स्थापणूक जाल्ल्या 'रॉयल सोसायटी' (Royal society)क लागून सगळ्या बरपांत शास्त्रीय बरपांतलीं चामटेपणां, नितळपणा हे गूण आसचे अशी सुचोवणी प्रत्यक्षांत जावपाक लागली.

ह्या सोसायटीच्या स्थापणूकेचो आनी तिच्या उद्दिश्टांचो बरोच परिणाम सगळ्या बरपाचेर जालो. ड्रायडन ह्या त्या काळांतल्या सगळ्यांत व्हड बरोवप्याचे ह्या सोसायटीकडेन आशिल्ले संबंध फामादूच आसात. आपशींच जायते नवे बरोवपी शास्त्राक गरजेचो आशिल्लो बुध्दिप्रामाण्यवाद (Rationalism) मान्य करपाक लागले. गद्य आनी कांय प्रमाणांत पद्य लेगीत सरळ, सुबोध, बुध्दीक पट्टा अशें म्हळ्यार गुढगुंजन वा काल्पनीक आदर्श विस्वापरस ऐहिक प्रस्नांबद्दल विचार वा उत्फर्के उक्ते करपी, आसचें ही कल्पना घट जाली. हेच नदरेंतल्यान ड्रायडन, पोप आदीं बरोवप्यांचें बरेंच काव्य बरोवन जालें. हे तत्वप्रणालीचो आनीक अेक म्हत्त्वाचो विशेश म्हळ्यार फक्कत मनशाचेर नदर थिरावन दवरीं नासताना समाजिक जाणवीकायेचेर दवरून समाजाच्या उदरगतीचो यत्न लेगीत साहित्यांतल्यांन जांवक जाय हो विचार घट जालो. मात हाकालागून कांय बरोवपी बऱ्याच प्रमाणांत उपहासात्मक (satirical) बरोवपाक लागले. (देखीक ड्रायडन, स्विफ्ट आदीं) आनी लॅटिनांतली उपहासात्मक बरोवपाचीच परंपरा (दायज) परत सूरु जाली. ह्या कितल्याशाच विचारांक पचोवन स्वताच्या व्यक्तिमत्वाच्या आनी अलौकिक वेवहारगिन्यानाच्या (common sense) नेटार साहित्यांत

क्लॅसिसिझमाक उपाट मानाचो पाट जोडून दिवपी सगळ्यांत म्हत्वाचो बरोवपी म्हळ्यार डॉ. जॉन्सन हो आसा.

अठराव्या शेकड्याच्या निमाण्या दोन तीन दसकांसावन Romanticism ह्या दुसऱ्या म्हत्वाच्या संप्रदायाचो प्रभाव ल्हवू–ल्हवू दिसपाक लागलो. ब्लेक (Black) ह्या इंग्लिश कवीन कल्पनाशक्त (Imagination) ह्या 'दैवी' शक्तीचो नेटान पुरस्कार करीत सावन खऱ्या Romanticism आक सुरवात जाली. ह्याच वेळार कोलरिज, वर्डज्वर्थ आदीं बरोवप्यांनी चड तत्वीक भुमिकेंतल्यान कल्पनाशक्तीचें म्हत्व घट केलें. जरीय क्लॅसिकल, रोमॅंटिक आदी उतरांचो वापर १८व्या आनी १९व्या शेकड्यांत मुखेलपणान रूढ जालो तरीय ह्या तत्वप्रणालींतलीं कांय वैशिश्टां सभाविकपणान पयलींच्या साहित्यांत लेगीत आशिल्लीं. अठराव्या शेकड्यापयलींचें बरेंचशें साहित्य हें नवीं उतरां वापरून आतां आमीं भासाभास करतां. चवदाव्या शेकड्यांतलो चॉसर हो अेक श्रेश्ट रीअलिस्ट अशें आमीं मानतांच. स्पेन्सर, शेक्सपीयर आदीं कितल्याश्याच बरोवप्यांत सौंदर्यवाद, गूढरम्यवाद, अभिजातवाद असल्या कितल्याश्याच प्रवृत्तींचो, तातूंतल्या कांय आंगांचो, उत्कृश्ट मेळ आशिल्लो हें लेगीत ह्या संदर्भांत विसरूंक जांयना. ह्याशिवाय अेकदम खंयच्याच साच्यांत बसनांत अशे डन (Donne) सारखेय बरोवपी जायते आशिल्ले.

## २. रोमॅंटिसिझम् :–

'रोमॅंटिसिझम्' ह्या उतराचे जायते वेगवेगळे अर्थ आसात. ताच्यो वेगवेगळ्यो वारीकसारीक इतल्यो बाजू प्रचारांत आसात की रोमॅंटिसिझमच्या मतप्रणालींत मजगतीं खंयची संकल्पना आसची हें दर अेकटो बरोवपी आपल्या स्वताच्या मताप्रमाण थारायता. 'Romantic' ह्या उतराक इतले वेगवेगळे अर्थ आयल्यात की त्या स्वतंत्र उतराक अर्थूच उरूंक ना असो कांय जाणांचो निश्कर्श आसा. (The word 'romantic' has come to mean so many things that, by itself, it means nothing)

रोमॅंटिसिझम् ह्या मतप्रणालीचो प्रसार इंग्लंड, फ्रान्स, जर्मनी आदीं देशांनी अदमासान अठराव्या शेंकड्याच्या निमाणेकडेन जालो. पूण दर अेका देशांतलो हो संप्रदाय सामको अेकेच तरेचो आशिल्लो अशें ना. कि़त्याकतर साहित्य हें भास, समाज, संस्कृताय इतिहास–भूगोल, राजकारण आदीं जायत्या घटकांचेर आधारून आसता. ते घटक वेगवेगळ्या देशांत अेकासारखे आसुंकूच शकनांत. ह्याशिवाय मनीस होच साहित्याचो केंद्रबिंदू आसता. हाकालागून ह्या संप्रदायाचो 'अर्थ' आनी आंवाठ दर अेका देशांत आनी पिडयेंत वेगळे तरेन जातलो.

इंग्लिश साहित्यांतल्या वर्डस्वर्थ, कोलरिज, शेली, किटस्, बायरन, स्कॉट सारख्या बरोवप्यांची वळख चडश्या भारतीय वाचप्यांक आसा. तांच्या बरपाचो विचार केल्यार रोमँटिसिझम् ह्या उतराक कितलीं वेगवेगळीं आंगां आसात हे लक्षांत घेवन ह्या सगळ्या बरोवप्यांत सारखेपण तरी खंयचें असो प्रस्न तयार जाता. अेक सारखेपण म्हळ्यार हातूंतल्या जायत्या बरोवप्यांक अठराव्या शेकड्यांतल्या बरोवपाविशीं विशेश आवड वा आस्था नाशिल्ली, आनी नव्यापणाचो ध्यास आशिल्लो. तरीय बायरनाक पोप आनी हेर satirical बरप करपी बरोवपी लागींचे दिसताले आनी स्कॉटाक जाल्यार इतिहासांतूच स्वारस्य आशिल्लें. ह्या विचारांक पोसवण दिवपी अश्यो संवसारीक म्हत्वाच्यो घडणुको मात ह्या काळांत घडटाल्यो. फ्रेंच राज्यक्रांती आनी ताकालागून जल्मल्लीं झुजां, अमेरिकन स्वातंत्र्यझुंज, असल्या घडणुकांनी नव्या विचारांचें वारें व्हांवपाक लागलें. क्रांतीकारकांचे समान्य-ध्येय-समता, भावपण, राजकीय स्वातंत्र्य, विचारस्वातंत्र्य नितळसाणेन लोकांमुखार आयलें. आपशींच ह्या युगांतल्या बरोवप्यांक पोरणे बरोवपी, पोरणी शैली, पोरणे विशय, सगळेंच अर्दकुटें दिसून नवे विचार कवीलेगीत तर्काचे रीतीन पटोवन दिवपाचो यत्न करूंक लागले.

वयर उल्लेख केल्ल्या बरोवप्यांच्या साहित्यावेल्यान इंग्लिशींतल्या रोमँटिसिझम् ह्या उतराचे कांय विशेश थारांवक मेळटात. त्या बरोवप्यांच्या नदरेंतलीं आनी शैलींतलीं वेगळेपणां सट्ट करून लक्षांत येतात. वर्डस्वर्थाचें सैमाचें वर्णन आनी सैमावयलो मोग कोलरिजाचें गूढ आनी अद्‌भूत (supernatural) घडणुको आनी वातावरण हांचो मोग, शेली हांचें सौंदर्य आनी मोगाचे उत्कर्क हांची मेखळ्या गळ्यान चोंयवशीन तरफदारी करपी कविता, बायरनाचें वादळी व्यक्तिमत्व आनी satirical लांबदिक काव्यां, स्कॉट हांचें इतिहासीक व्यक्ती आनी घडणुको हांचेवयलो उपाट मोग (तांच्यो नवलकाणयो आनी कविता) आदीं वारीकसाणी दर अेकट्याचें वेगवेगळें व्यक्तिमत्व स्पश्ट करतात.

पूण कांय गजालींच्या बाबतींत तांचे भितर सारखेपण आशिल्लें. हे सगळे बरोवपी अेका अर्थान आदर्शवादी आशिल्ले. तांका समकालीन जिवितांतले आनी साहित्यांतले बरेचशे विचार नापसंद आशिल्ले. देखून दर अेकट्यान आपलें क्षेत्र वेंचून आपले-आपले आदर्श वाचप्यांमुखार दवरपाचो यत्न केलो. ते सगळे उण्यां–चड प्रमाणांत क्रांतिकारी आशिल्ले. मागीर ती क्रांती काव्याच्या रितींत आसूं वा जिविताच्या रितींत आसूं. स्वतंत्रतायेच्या मोगाक लागून बायरनान प्रत्यक्ष झुजांत लेगीत वाटो घेतिल्लो. काव्याविशीं त्या सगळयांच्यो उपाट उदात्त कल्पना आशिल्ल्यो आनी खूब अवास्तव अपेक्षा आशिल्ल्यो.

इंग्लिशींतल्या १९व्या शेंकड्यांतल्या रोमँटिक बरोवप्यांची मुखेल वावर म्हळ्यार साहित्य हें मुखेलपणान आत्माविश्काराचेरूच आधारून आसता, आनी मनीस होच खास साहित्यनिर्मितीचो केंद्रबिंदू आसा हे तत्व ताणीं देखीसयत पटोवन दिलां. ह्या तत्वाक वितळसाणेन तेंको दिवपी मुदूद्यांक धरून, फांकिवंत आनी काव्यमय टिका निर्माण केली.

'रोमँटिसिझम' ह्या संप्रदायाचीं लक्षणां वा सभावगुण निश्चित स्वरूपांत सांगपाक मेळनांत. दर अेका काळांतल्या ह्या प्रवृत्तीचो आविश्कार वेगळे तरेन जांवक शकता आनी मनशाप्रमाण खुबूच आदारून रावतालो. ह्या प्रवृत्तींच्या (Romantic attitude) कितल्याश्याच पांवड्यांचो उल्लेख वेगवेगळ्या संदर्भांत जाता. पूण आत्मकेंद्रीतता ही सगळ्यांत मुखेल विशेश सगळ्या रोमॅण्टिक बरोवपांत दिसून येता. सामके आर्विल्ले बरोवपी लॉरेन्स, (D. H. Lawrence) वा टॉमस (Dylan Thomas) ह्या वा अतिस्वच्छंदवादी फ्रेंच बरोवप्यांत लेगीत हो गूण दिसता.

आत्मनिश्ठा हो सगळ्याच साहित्याक गरजेचो आसपी गुण रोमॅण्टिक बरपांत चड उजळपणान दिसता. तशें पळोंवक गेल्यार रोमँटिक बरपांत सगळेकडेन 'संयम'आच्या जाग्यार अतिरेक दिसून येता. देखुनूच अतिरेकी विचार आनी अतितायपूर्ण अभिव्यक्ती सगळ्याच स्वच्छंदवादी बरपांत दिसता. तो विचार सैमाविशीं आसल्यार तो कितलोय गुढ आसलो आनी ताका व्यक्त करपाची भास कितलीय उत्कट आसली तरीय चलता. (देखीक–वर्डज्वर्थ). पूण होच विचार जर दादलो-बायल हांच्या संबंधाचेर, मोगाच्या उत्फर्क्यांकडेन बांदिल्लो आसलो जाल्यार ताचेर बोवाळ जातलोच. देखूनूच शेली, स्विनबर्न् (Swinburne) वा लॉरेन्स हांच्यासारख्या बरोवप्यांचेर तांच्या स्वच्छंदवादाखातीर टिका जाता. रोमँटिक बरोवपी खंयच्याय उत्फर्क्याचो खर अणभव घेता आनी तो अणभव तितल्याच खरपणान उतरांनी मांडपाचो यत्न करता. बरोवप्याक सदांच ल्हान भुरग्यांप्रमाण सगळेकडेन सुंदरताय दिसची .पड्टा आनी नवे अणभव मेळोवपाची उत्सुकताय सदांच जागी दवरची पड्टा. खंयचोय जिविताविशीं अणभव घेता आसताना तातूंत स्वताक विसरपाची वृत्ती आनी तो अणभव उक्तो करतानां तशेच तरेची वृत्ती ही रोमँटिक विचारांत म्हत्वाची आसा.

पुर्विल्ल्या काव्यप्रकारांच्या जाग्यार भावगीत (Lyric) ह्याच मुखेल कवितेच्या प्रकाराक ह्या बरोवप्यांनी वापरलो. हाकालागून मोगाचे कवितेक परत अेक फावट इलिझाबेथच्या तेंपाइतलेंच म्हत्व आयलें. विशयाच्या नवेपणावांगडा भाशेंतल्या नवेपणाकलेगीत रोमँटिक बरोवपी म्हत्व दिताले. अठराव्या शेंकड्यांतल्या कवितेच्या

भाशेक (poetic Diction) आनी वापरताले त्या वृत्तांकलेगीत रोमँटिक बरोवप्यांच्या पिढयेचो विरोध आशिल्लो. हाकालागून हे कवी नव्यो प्रतिमा, नव्यो उपमा, रूपकां आदीं वापरून आपलें अेक नवें दायज (परंपरा) सिध्द करूंक लागले. मुखेल वेगळेपण म्हळ्यार ह्या काळांतले बरोवपी कांय प्रमाणांत गुढगूंजनवादी आशिल्ल्यान तांच्या बरोवपांत गुढपणां, अस्पश्टताय, सुचकताय ह्यो विशेशतायो चड प्रमाणांत दिसून येतात. तेचप्रमाण रोमँटिक वातावरणनिर्मिती, सैमाकडलो अेकसारखो संवाद ह्या गुणांक लागून अेक तरेचो अध्यात्मवाद कवितेंत परत जल्म घेवपाक लागलो. तशें पळोंवक गेल्यार सौंदर्यवाद हो चड चैतन्ययुक्त, नव्या वा खबर नाशिल्ल्या अणभवांचो सोद घेवपी, जिवितांत आनी साहित्यांत बोवाळ, अस्वस्थताय, आदर्शवाद आदीं गजालींक स्थान दिवपी असो संप्रदाय आसा.

**३. वास्तववाद :–**

वास्तववाद म्हळ्यार Realism. हो संप्रदाय खुबूच पोरणो आसा. संवसार आसा तसो म्हळ्यार बरोवप्याक दिसता तशें वर्णन करप, तातूंतल्यो सदांच्यो वेवहारीक अडचणी, हांचें सादे भाशेंत जशाकतशें चित्र काडप हें वास्तववादाचें मुखेल ध्येय आसा.

क्लॅसिसिझमांत 'कला' खंयच्याय खिणयाळ्या उत्फर्क्यांच्या दाडांत घाली नासताना उतरां आनी घडणुको हांची वेंचणूक आनी तांची मुद्दम केल्ली रचणुक म्हत्वाची आसता. स्वच्छंदवादांतलेगीत बरोवप्याचें व्यक्तिमत्व जितलें प्रभावी आनी संवेदनाक्षम तितलेंच ताचें बरप परिणामकारक, शैलीन भरिल्लें आसता. पूण वास्तववादी बरोवपी कला वा उचेल्या विचारांखातीर चडसो आडखळून उरनां. हाकालागून वास्तववादी साहित्य खूबशें सडसडीत, भंयांविरयत, सामाजिक गुणदोशांचेर सरळ प्रहार करपी, समाजप्रबोधनवादी आसता. वास्तववादी साहित्य कांय वेळा मुद्दम कुरूप (Ugly) भासपी जिविताचें, समाजांतल्या पयस दवरिल्ल्या मनशांचे वा प्रसंगांचे, सगळ्याक दिसून येवपी अडाणीपणा, आशा, दुस्वास आदीं ल्हान-व्हड दोशांचें प्रामाणिक वर्णन करतानां दिसता. ह्या साहित्याचो मुखेल गूण म्हळ्यार तें बरोवप्याच्या मतान पुराय सत्याचेर आदारून आसता. हाकालागून बरोवप्याची नदर, ताचें अेकूण व्यक्तिमत्व हेंच निमाणेकडेन म्हत्वाचें आसता.

वास्तववादी बरप वास्तव घडणुकांचेर आदारून आशिल्ल्यान आपशींच खूब लोकांमोगाळ आसता. हेशिवाय तें कळपाक सोपें आनी खूब वेळा अश्लीलतेकडेन ओडिल्लें आशिल्ल्यान चडूच लोकांमोगाळ थारता. फाटल्या शेकड्यांत फ्रान्सांत खूब व्हड वास्तववादी (Realists), यथार्थवादी (Naturalists) बरोवपी जाले आनी तांच्या

साहित्याचो प्रभाव संवसारभर साहित्याचेर पडलो. Balzac, Zola हांचेसारखे नवलकाणयांकार, कथाकार आदींनी फ्रान्सांतल्या कितल्याश्याच पांवड्यांवयलें जियेत, दीस आनी हेर शारांतल्या लोकांची मनोवृत्ती, मनशाच्या सभावाचे तरेकवार नमुने, तातूंतल्यान तयार जावपी हांशें आनी दुख असल्यो खबर नाशिल्ल्यो गजाली लोकांमुखार मांडल्यो. तांच्या बरोवपाच्यो मुखेल विशेशतायो म्हळ्यार तांका दिशिल्ल्या विश्वाचो उक्तो आलेख. पूण ह्या संप्रदायांतल्या बरोवप्यांचें साहित्य मुखेलपणान तातूंतल्या सामाजीक आशयाकलागून म्हत्वाचें थारलें.

वास्तववाद हाचो अर्थ अेके वेगळे नदरेंतल्यान घडिल्लें समाजाचें दर्शन असो जाता.

****

# साहित्याचें समीक्षण

साहित्याचें समीक्षण म्हळ्यार साहित्याच्या गुपिताचो सोद. ताका साहित्याची टीका अशेंय म्हण्टात. साहित्याच्या गुपिताचो हो सोद सोदप्याच्या वृत्तीन घेतलो जाल्यार ती टीका सार्थकी पावता. हेर सोदांभशेन होय अेक सत्याचो सोद आसता. अेकाद्रे साहित्यकृतीन तुश्ट जाल्लो टीकाकार वा समीक्षक ते साहित्यकृतीच्या जे सोबीतकायेन पिसो जाल्लो आसता तिच्या गुपिताचो सोद घेवपाचो यत्न करता. ही सोबीतकाय म्हळ्यार खरेंच कितें, ताचो दिश्टावो जाता म्हळ्यार खरेंच कितें जाता, ताचीं घटकतत्वां खंयचीं आदीं प्रस्नांचोय विचार तो ते साहित्यकृतीच्या संदर्भांत करता. असल्याच प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडपाचो तो यत्न करता. ह्या प्रस्नांचो त्या साहित्यकृतीच्या संबंदान ताणें घेतिल्लो सोद म्हळ्यारूच ताची टीका. ही टीका बरयता असताना ताच्या दोळ्यांमुखार जसो ते साहित्यकृतीचो रचपी नासता, तसो ते कलाकृतीचो वाचपीय नासता, ह्या दोगांभितल्ल्या कोणाच खातीर ताणें ही टीका बरयल्ली नासता. खासा आपणाले दुबाव पयस करपाखातीर तो ती बरयता.

खरी साहित्याची टीका जशी अेकाद्र्या बरोवप्याक शाबासकी दिवपाखातीर जल्माक येना, तेच भशेन ती ताचे दोश दाखोवन दिवपाखातीरुय जल्माक येना. ह्यो गजाली टीकेंत भीतर आयल्यो जाल्यार त्यो टीकेभायल्यो अशें मानचें पडटले. बरोवप्याचे दोश दाखोवन दिवप हें साहित्याचे टीकेचें उद्दिश्ट आसनां. हांगाय टीकाकार टीका बरोवपाक मुखार सरता तो सोदप्याच्या गुणांक लागून. हो सोद कसलो? तर जाका लागून त्या बरपांतल्या सोबीतकायेंत बादा आयिल्ली आसता ताचो हो सोद आसता. अेकाद्रें बरप हें कलारूप घेंवक शकना हाची जाणविकाय जातकीत तें तशें कित्याक जाता, ताच्या फाटल्यान खंयचीं कारणां आसतात हाचो सोद घेवपाक टीकाकाराचें मन उत्सुक आसता.

अेकसारखें उजवाडाक येवपी साहित्याक न्याय मेळचो, तातूंतल्या बरें आनी वायटाची तपासणी जांवची ह्याखातीर साहित्य समीक्षणाची गरज आसता. साहित्याचें समीक्षण करपाचो वावर टीकाकार वा समीक्षक करता. पूण समीक्षकाक हो वावर

आपणाल्या आवडीप्रमाण वा रूचीप्रमाण करपाक मेळनां. हो वावर करता आसताना ताका कांय तत्वांचो आदार घेंवचो पडटा. ज्या समीक्षकाक आपणावेल्या जापसालदारकेची जाणविकाय आसता, तो समीक्षक समीक्षा करता आसताना कांय तत्वांचो आदार घेता.

समीक्षकान समीक्षा करता आसताना खंयचीं तत्वां मतींत दवरचीं हेविशीं निश्चितपणान कांयच सांगपाक जांयना. त्या भायर तत्वां कितलींय आसूंक शकतात. तांकां अमुकूच अशी मर्यादा ना. साहित्याच्या समीक्षकान खूब साहित्य वाचून पचयल्लें आसपाक जाय. त्या भायर समीक्षा म्हळ्यार कितें हाची ताका बेसबरी खबर आसची पडटा. आपणाले समजुतीप्रमाण तो अेकाद्रें तत्व लावन साहित्याची पारखणी करता. साहित्याचें समीक्षण करता आसताना पयलींच्या काळार सावन समीक्षक कांय तत्वांचो वापर करताले. तीं तत्वां सादारणपणान अशीं आसात –

१. बरें साहित्य हें वाचप्याची मनरीजवण करपी, संवसारांतल्या दुख्खांचो आनी हुस्क्यांचो कांय काळाखातीर विसर घालपी, खऱ्या जिवितांत ज्या सुखांचो अणभव मेळूंक शकना तीं सुखां कल्पनेच्या आदारान पदरांत उडोवपी, सदांच्या वाज हाडपी, बांदिल्ल्या जिवितांत काल्पनीक सुखांचो पावस घालपी आसपाक जाय. अशे तरेचें साहित्य हें बरें साहित्य अशें अेक तत्व आसा.

चडशें साहित्य हेंच उद्दिश्ट दोळ्यांसामकार दवरून घडयल्लें आसता. वाचपी लेगीत तेच नदरेन तें वाचता. पूण जायतेफावट पिरायेप्रमाण वाचप्याची साहित्याची रूच बदलत रावता. ताका ह्या साहित्यांतल्यांन खुशालकाय मेळटा पूण ती खुशालकाय भुकेल्ल्या मनशाक जेवपाक जेवण वा कितेंय खावपाक मेळचें आनी तो खोशी जावचो ते तरेची आसता. ती खरी खुशालकाय न्हय. जें खरेपणान मनशाक भोगपाक मेळना तें तो साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन, कल्पनेच्या संवसारांत भोगता. जिवितांत जाय तीं सगळीं सुखां मनशाक मेळ्ळी जाल्यार साहित्याक कांयच हेत उरपाचो ना.

२. समाज घडपाक वा ताची उदरगत घडोवन हाडपाक जाचो आदार मेळटा तें बरें साहित्य अशेंय अेक तत्व आसा. जें साहित्य वाचून समाजांतल्यो वायट गजाली ना जावन लोकांक बरें मार्गदर्शन मेळटा, वायटाच्या जाग्यार बरें येता तें बरें साहित्य म्हळ्यारूच साहित्य हें समाजाची सुदारणा घडोवन हाडपी अेक साधन आसा. तोंडार उपदेश केलो जाल्यार लोकांक तो रूचना वा पचनां. देखून रूचीक साहित्याच्या माध्यमांतल्यांन तो केलो जाल्यार ताचो फायदो जांव येता. हेंय उद्दिश्ट दोळ्यांमुखार दवरून साहित्य रचतात आनी तें तपासपाखातीर समीक्षकाक ह्या तत्वाचो आदार जाता.

३. साहित्य हें भावनानिश्ट आसता, भावनेंतल्यांन ताका स्फूर्त मेळटा. देखून

जें साहित्य भावना जागयता तें बरें साहित्य अशेंय एक तत्व आसा. साहित्यान वाचप्यांच्यो भावना उसोवपाक जाय, जाग्यो करपाक जाय. जें साहित्य भंयान आंगार कांटो उबो करता, रागान काळीज लासता, दुख्खान रडपाक लायता, आश्चर्यान चकीत करता, तेंच साहित्य खरें आनी बरें साहित्य आसता. तेंच साहित्य जिवें साहित्य आसता.

४. साहित्यान जिविताचें वास्तव दर्शन घडोंवक जाय. तें वास्तव मागीर कितलेंय हळशीक, वायट, अप्रिय आसल्यारूच उपकारता. अशेंय एक मत आसा. म्हळ्यारूच जिवितांत आमीं जें कितें सदांच पळयतां तेंच परत तश्शें पळोवपाखातीर साहित्य हो एक हारसो आसता.

५. बहुजनसमाजाक जें साहित्य समजता, पचता, रूचता, मानता वा जातूंत तांचें जिवीत पडबिंबीत जाल्लें आसता वा जें तांच्या बऱ्याक वा उपकाराक पडटा तेंच खरें साहित्य. उण्यांच बरोवप्यांनी मर्यादीत वाचप्यांखातीर बरयल्लें साहित्य हें खरें साहित्य न्हय. अशेंय एक तत्व साहित्याक लायतात.

६. जिवितांतल्या 'सौंदर्याचो' सोबीत रितीन दिश्टावो घडयता तें खरें साहित्य अशेंय एक साहित्याचें तत्व आसा.

खंयचोय समीक्षक समीक्षण करता आसताना हातूंतलींच कांय तत्वां लावन साहित्याचें समीक्षण करता. पूण ह्या तत्वांनीं कांय मर्यादाय आसात. देखीक, खुशालकायेचो अर्थ सगळ्यांक सारकोच दिसता. पूण तिचें स्वरूप निश्चित आसना. जायतेफावट दुख्खाच्या आनी भंयाच्या गजालींतल्यांन लेगीत खुशालकाय कित्याक मेळची तें समजनां ('ईडिपस रेक्स,') 'किंग लिअर', 'ऑथेल्लो,' वा 'रामायण' हातूंतल्यान वाचप्याक खुशालकाय कित्याक मेळची? अपमान, राग, दुख्ख, भंय, दुबाव, विरह आनी वेदना ह्यो सुखाच्यो गजाली न्हयत. तरीय ह्या गुणांनी भरिल्लें साहित्य मनशाक खोशी कित्याक दिता? ह्या प्रस्नांची जाप वेल्या तत्वांतल्यांन मेळना.

साहित्यांतल्यांन समाजाक मेळपी उपदेशाचेंय स्वरूप सारखें आनी निश्चित आसना. तरीय साहित्य हें मनरिजवणेखातीर, समाजाच्या हिताखातीर, वा व्यक्तिच्या हिताखातीर आसता. साहित्यांत 'साध्य' आनी 'साधन' एकरूप जावन येतात. नाच, संगीत, चित्र हांचेभशेनूच साहित्य स्वंयपूर्ण आसा. हाकाचलागून नामना, पयसो आदीं गजाली सादोंवक मेळटात. पूण तें साहित्याचें तत्व न्हय. साहित्याचें स्वरूप एकफावट स्पश्ट जालें म्हण्टकीत ताचेपसून जावपी खोशयेचें स्वरूप लेगीत निश्चित जातलें. साहित्य हें जर हेर खंयच्याय गजालींचें सादन नासत जाल्यार लेगीत साहित्यांतल्यांन मेळपी खोशी जिवितांत अतुश्ट इत्सांच्या तुश्टतायेंतल्यांन मेळपी खोशयेसारखी आसता.

ती सुख आनी दुख्ख हांची भरस जावनूय मेळिल्ली आसना, जाल्यार ती सुखदुख्खामय आसता.

साहित्यांतल्यांन मेळपी खोशी सगळ्यांक सारख्याच प्रमाणांत मेळत म्हूण सांगपाक जांयना. हाका जायतीं कारणां आसतात. अेक म्हळ्यार ते खोशयेखातीर वाचप्याचें मन तयार जाल्लें आसपाक जाय. साहित्याची निर्मिती आनी ताचो सुवाद ह्यो दोनुय साधना आसात. साहित्य हें दुसरें कसलेंच साधन नासून, साहित्यांतल्यांन मेळपी खुशालकाय हें ताचें तत्व आसा, अशें मानलें जाल्यार हेर सगळीं तत्वां साहित्याभायलीं थारतात आनी ह्या अेकाच तत्वाच्या आदारान साहित्याचें समीक्षण करप योग्य थारता.

हातांत घेतिल्ल्या विशयाक आकार दिता आसताना बरोवपी ताची पुनर्रचणूक करता. तिचेपसून ताका जो अर्थ गवसता तो मूळ विशयाचो आसना. तो ते रचणुकेचो आसता. अणभव वा विशय हांचेर संस्कार करून बरोवपी कलाकृति निर्माण करता. ती साध्य जाली जाल्यार तिका 'सौंदर्य' येता आनी ताच्या अणभवान वाचप्याक खोशी मेळटा. साहित्यकृती म्हळ्यार तिचे घटक आनी तांचे अेकमेकांकडेन आशिल्ले संबंध. म्हळ्यारूच घटक आनी तांचे संबंध हांचेरूच त्या कृतीची परिणामकारकता आनी योग्यताय आदारून आसता.

साहित्याच्या टीकाकारान केल्लो दर अेक टीका बरपाचो यत्न हो स्वताचो साहित्यविचार चडांत चड दोशमुक्त जावपाखातीरूच अेके नदरेन ताचेकडल्यान जाल्लो आसता. दर अेक साहित्यकृती, मागीर ती बरी आसूं वा वायट आसूं, दर अेक साहित्याचो वेवहार म्हळ्यार टीकाकाराच्या टीकाबुध्दीक मेळिल्लें अेक आव्हानूच आसता. दर अेक साहित्यकृती, दर अेकटो साहित्यीक, दर अेक साहित्यवेवहार आपले परीन कितल्याश्याच साहित्यीक प्रस्नांक जल्म दिता. तांचो सोद घेवपांत ताका सुख मेळटा. ह्या सोदांतल्यांन हातांत आयिल्ल्या सत्याच्या आदारान आपणालो साहित्यविचार चड दोशमुक्त, चड परिपूर्ण करपाक ताका खुशालकाय भोगता. तेच नदरेन ताचो अेकसारखो यत्न आसता. अेकाद्रो टीकाकार जेन्ना अेकाद्र्या ग्रंथाचें परीक्षण करता तेन्ना ताची भुमिका ही न्यायाधीशाची आसना, जाल्यार ती सोदप्याची आसता, आसुंक जाय. तो आपणामुखार आशिल्ली साहित्यकृती मोलायता अशें म्हणचेपरस ताणें हे नदरेन केल्ल्या अंतरंग सोदाच्या निमाणेकडेन अेक साहित्यकृती हे नदरेन आसपी तिचें मोल पारखुपाक ल्हवू-ल्हवू आपशींच मदत जाता, अशें म्हळ्यार चड बरें जातलें. हे नदरेन विचार केल्यार खरी साहित्यीक टीका ही ललित बरोवपी, वा वाचपी हांकां उपेगाक पडपाखातीर बळयां बरयल्ली आसता.

पूण अशेतरेची टीका आमकां चड पळोंवक मेळना. जायतेफावट टीकेतल्यान आमकां सोदावांगडा टीकाकारान बरोवप्यांक केल्लो बोध दिश्टी पडटा. टीकेचें उद्देश मुखार आशिल्ले साहित्यकृतीची मोलावणी करपाचें आसता. ललित बरोवप्यांक आनी वाचप्यांक शाणे करप हें तिचें उद्दिश्ट उक्तेपणान दिसता. ही टीका बरोवप्याक शाबासकी दिवपाखातीर वा ताच्या हातांतल्यांन चुकामुकीन घडिल्ले दोश दाखोवन दिवपाखातीर आसता. असले टीकेचो ललितबरोवप्यांचेर आनी वाचप्यांचेर बरो परिणाम जाता आसत, ती सुख वा दुख दिता आसत, ती वाचप्यांक अेकाद्र्या बरपावसल्यान ओडून व्हरता वा ताचेपसून पयस करता आसत, पूण असली टीका कितलीशी जैतिवंत जाता हे विशीं दुबाव आसा. अेकूण साहित्यविचार चडांत चड दोशमुक्त जावपाचे नदरेन ही टीका जितली उपेगी तितलीच उपेग नाशिल्ली थारपाचो भंय आसता. अशे तरेची टीका बरोवपी बरोवप्यांच्या साहित्यविचारांत अेक तरेचें निश्चितपण आयिल्लें आसता. तांच्या मनांतलें साहित्याचें वजन माप निश्चित जाल्लें आसता. तीं परतून-परतून तपासून पळोवपाची गरज तांकां लागना. देखुनूच तिचेभीतर घटसाण आसना. असले टीकेन साहित्यीक टीकेचें उद्दिश्ट साध्य जांयनां.

साहित्याचीं मुळतत्वां घट दवरून, तीं चडांत चड घट जावचीं म्हूण दर अेके साहित्यकृतीच्या अंतरंगाच्या नमळायेन घेतिल्ल्या सोदांतल्यांन जल्माक आयिल्ली टीका ही साहित्य वेवहाराचें वातावरण नितळ, निरोगी दवरपाक मदत करता. बरी टीका ललित बरोवप्याक जायते फावट अुपेगी थारता. ती जर ललित बरोवप्याक शिकोवपाखातीर जल्माक आयिल्ली नासत जाल्यार ती ताच्या सर्जन कार्यांत मार्गदर्शन करपाचो वावर करता. ललित बरोवपी कितें उक्तांवक सोदता, तो तें उक्तायता, तें कलारूप घेंवक शकता काय कितें, तें खऱ्यांनींच कितले अर्थपूर्ण आसता, ताका ताचें पुरायपण मेळ्ळां काय ना, मेळूंकना जाल्यार कित्याक मेळूंकना, असल्या कितल्याश्याच प्रस्नांचो विचार करपाचो टीका यत्न करता.

टीका ही अेकाद्रे साहित्यकृतीचो सोद घेता आसताना ती उरफाटे दिकेन वचून ते निर्मितीची सुरुपाय समजून घेता. ही टीका दर अेके कलाकृतीच्या मुळांत वचपाचो यत्न करता आनी तिच्या निर्मितीचो सोद घेता. मुखार आशिल्ल्या साहित्यकृतीच्या रचणाराच्या प्रतिभेन कितें सादलें हें जशें ती पळयता तशेंच ती प्रतिभा कितें सादूंक शकलीना, ती खंय उणी पडल्या, तिची साधना खंय भंगल्या आनी ती कित्याक हाच्यो जापो ती सोदून काडटा.

बरोवप्याक जायते फावट आपणाल्या निर्मितींतल्यो मर्यादा खबर आसनांत.

ताच्या मतींत त्यो आयल्यो जाल्यार लेगीत त्यो कित्याक लागून हें ताका वयलेवयर कळटाय अशें ना. तेन्ना टीकेंतल्यांन ताची जाणविकाय जाली म्हणटकीत ती आपणाले निर्मितीवसल्यान चड बारीकसाणेन पळोंवक लागता. हाका लागून ताचे निर्मितीची सुरुपाय चड नितळसाणेन ताचे नदरेंत भरता. अशे तरेन टीकेची खरी उपेग ललितबरोवप्याकूच जाता.

साहित्याची टीका समजाल्ल्या दुसऱ्या तरेच्या ऐका बरपाची ललित बरोवप्याक उपेग जाता. जायना अशें ना. हें बरप ऐकाद्र्या साहित्यकृतींत आशिल्ल्यो व्याकरणाच्यो, वाक्प्रचाराच्यो, वाक्यरचणूकेच्यो आदीं चुकी दाखोवन दिता. असलें बरप हें ललित बरोवप्याक खूब म्हत्वाचें थारता खरें पूण ताका साहित्यीक टीका म्हणप समा जांवचेंना. टीकाकारान दाखोवन दिल्ल्यो ह्यो चुकी कळपाक साहित्याची खोलाय समजुपाची गरज ना. जाका साहित्याचीं मुळतत्वां खबर नांत असोय ऐकाद्रो त्यो चुकी दाखोवन दींवक शकता वा सुदारूंक शकता. अशे तरेच्या बरपाचो ललित बरोवप्याक उपेग जाता खरो पूण साहित्यीक टीका म्हूण ताचें मोल शुन्यूच आसता.

आनीक ऐका तरेच्या बरपाक साहित्यीक टीका अशें म्हण्टात, पूण तिका टीका म्हणप सारखें जांवचेंना. हें बरप साहित्याची मोलावणी करता आसताना ऐकाद्री साहित्यकृती समाजांतल्या लोकांचेर कितें परिणाम करतली वा जातलो, तो परिणाम समाजाच्या हिताचे नदरेन कितलो सारखो आसा, हें सांगपाचो यत्न करता. ऐकाद्री साहित्यकृती पोजडी आसली जाल्यार तिचें साहित्यीक मोल वळखंनासताना त्या पोजडेपणाचेरूच टीका जाता. अशें जावप समा न्हय. असले टीकेचो ललित बरोवप्याक उपेग जांयना. आपणाल्या बरपावसल्यान समाज खंयचे नदरेन पळयता, समाज आपणाकडल्यान कसल्या तरेच्या बरपाची अपेक्षा करता, आयच्या समाजाच्यो सामाजिक, राजकीय गरजो खंयच्यो आसात हें समजून घेवपाचे नदरेन हें बरप म्हत्वाचें आसता खरें. पूण बरोवप्याक जायतेफावट साहित्याचो हेत खबर नासून ताचो जल्म जाल्लो आसता. असलोच बरोवपी हो खरो निजाचो बरोवपी आसता. ताका असले टीकेचो इल्लोय उपेग जांयना. देखून हिका साहित्यीक टीका म्हणप समा जांवचेना.

दुसरी आनीक ऐक तरेची टीका साहित्याच्या परिणामाचोय विचार करता. 'कथेचो शेवट बरो जांवक ना', 'तिची सुरवात बरी जांवक ना', 'वेगळेतरेन जाल्यार हें बरप बरें जावपाचें' अशेतरेचीं वाक्यां टीकेंत वयलेवयर येतनां दिश्टी पडटात. असले तरेच्या टीकेचो ललित बरोवप्याक उपेग जावपाचो सोडून, तो बरोवपी मनाक लावन घेवपी आसल्यार ताच्या बरपाचेर ताचो वायट परिणाम घडूं येता. असले तरेची टीका

साहित्यकृती ही अेक सजीव वस्त आसा, ती चैतन्यान भरिल्ली आसता, ती अनन्यसाधारण आसता असल्या गजालींकडेन आडनदर करता. देखून असल्या बरपाक टीका मानप समा जांवचेना.

हे नदरेन साहित्यीक टीकेची खरी विशेशताय खंयची, तिची रीत कितें, तिची व्याप्ति कितें, तिचेकडल्यान आमीं खऱ्यांनींच खंयच्यो अपेक्षा करच्यो, हे प्रस्न पयलीं आमीं आपणाकूच विचारून पळोंवक जाय. आमीं ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदूंक लागलें म्हण्टकीत आपशींच साहित्यीक टीका अशें मानिल्लें बरप हें साहित्यीक टीकेच्या भायलें कशें थारता तें आमकां आपशींच कळटा.

खरी साहित्यीक टीका ही साहित्याचें साहित्यत्व सोदपाचो यत्न करता आनी तेन्नाच ती साहित्याक उपेगी थारता. हीच खरी साहित्यीक टीका. बरी टीका साहित्य बरोवप्याक आनी वाचप्याक दोगांकूय उपेगाची थारता.

हेर तरेच्या शास्त्रांभशेन टीका हेंय अेक शास्त्र आसा. टीका साहित्याच्या घटनेचे नेम सोदून काडटा. खंयच्याय तरेच्या टीकात्मक बरपावळीवसल्यान पळोवपी वाचप्यांची प्रवृत्ति तें बरप आपणाल्या पदरांत कितें घालता हें पळयता. दर अेक साहित्यकृती ही अनन्यसाधारण आसता, तिचेभशेन तीच आसता. तिचेविशीं आपणाक जाय तशें उलोवप म्हळ्यार तिका उणाक लेखप. आमीं उणेपणां सोदूंक शकतां, पूण तीं कोणाचीं? जाचें साहित्य उखलापी आसता ताचीं.

खऱ्या अर्थान जिवी आसपी वस्त आनी दर अेक श्रेश्ट कलाकृति हीं दोनूय अनन्यसाधारण आसतात. देखुनूच तांची मोलावणी करपाक जांयना. टीकेची जीं मापां आसात तातूंत तीं बसूंक शकनांत. हे नदरेन विचार केल्यार हॅम्लेमटासारखी साहित्यकृती टीकेच्या मापांनी मोलावपाक कित्याक जांयना तें कळटा. हॅम्लेट ही अेक जिवी कलाकृति आसा, तिच्या कणांकणांत चैतन्य भल्लां. ती शेक्सपिअरच्या प्रतिभेन सादिल्ली अेक पुराय नवनिर्मिती आसा. तिचेभीतर अेकतरेचें हांवपण आसा. तें वाचता आसताना जिविताचो आनी चैतन्याचो दिश्टावो घडटा. देखुनूच हॅम्लेटचो सोद केन्नाच सोपना. सोपपाचोय ना. जिविताचो सोद जसो केन्नाच सोपना, तीच गत बरे साहित्यकृतीची. जिविताचो सोद कोणाकूय लागलो जाल्यार हॅम्लेटसारखिल्या साहित्यकृतीचो सोद लागूं येता. खरो सोद घेवपी टीका दर अेके श्रेश्ट कलाकृतींतल्या सामक्या बारीकसारीक तपशीलाचो अर्थ लायता. ताचें ते जाणविकायेकडेन आशिल्लें नातें सोदून काडटा. दर अेके कलाकृतींत हें नातें लेगीत अनन्यसाधारणूच आसता. देखुनूच दर अेके श्रेश्ट कलाकृतीचो सोद हो लेगीत अेके भशेन अनन्यसाधारणूच थारता.

